# युगपुरूष

## शणै गोंयबाब : एक परिचर्चा



संपादक
भिकू बोमी नायक

# युगपुरुष

## शणै गोंयबाब : एक परिचर्चा

संपादक

**भिकू बोमी नायक**



जैत प्रकाशन

* युगपुरुष
  शणैगोंयबाबः एक परिचर्चा
* YUGAPURUSH
  SHENNOI GOEMBAB : EK PARICHARCHA

---

* संपादक :
  भिकू बोमी नायक
  336/11 खोर्ली, तिसवाडी.
  गोंय - 403 110

* प्रकाशन क्रमांक : 28

* पयली आवृत्ती : 10 अेप्रील 2005

* छापपी :
  सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम,
  खोर्ली-गोंय.

* मुखचित्र : गौरीश वेर्णेकार

* प्रकाशक :
  सुरेश सगुण नायक
  जैत प्रकाशन,
  336/11 खोर्ली गोंय 403 110
  फोन : 2284637

* मोल : **120/-**

ISBN-81-86487-99-X

---

ह्या पुस्तकाक गोवा कोंकणी अकादेमीचें 50% अनुदान फावो जालां.

---

कोंकणीच्या महायज्ञात जाणीं जाणीं
तन मन धनान आपणालो त्याग ओंपलो
त्या समस्त ज्ञात - अज्ञात कोंकणी
सेवकांक हें पुस्तक आदरान ओंपता.

# दोन उतरां मनांतली......

शणै गोंयबाब उर्फ वामन रघुनाथ वर्दे वालावलिकार! जिवीतभर कोंकणी भाशेचे उदरगती खातीर वावर करतनाच कोंकणी भाशेक लिखित पांवड्यार व्हरून बसोवपी एक युगपुरुष! कोंकणीत गिरेस्त साहित्य निर्मिती करपी म्हान साहित्यीक!

कोंकणी ही हेर भासांसारकीच एक स्वतंत्रभास हें दाखोवन दिवपाखातीर ताणीं भाशाशास्त्राचो खोलायेन अभ्यास केलो. कोंकणींत उपाट साहित्य निर्मिती करुन निद्रीस्त कोंकणी समाजाक जागोवपाचो वावर केलो. तेच खातीर तांकां आर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे जनक म्हणल्यार अतिताय जावची ना.

शणै गोंयबाबांनी कोंकणी चळवळ कोंकणी समाजाक अस्मितायेची जाणीव करुन दिवपाखातीर चलयली. कोंकणी भाशेवरवी कोंकणी समाजाच्या सगल्या पावंड्याची उदरगत जावंची ह्या हेतान कोंकणीच्या वावराक मुळांतल्यान हात घालो. कोंकणी भाशेची व्याकरणी बांदावळ दाखोवन दिली. समाजाक आमचे भाशेचें महत्त्व पटोवन दिवपाखातीर दिसरात ते तळमळ्ळे; कश्टले तांतूंतल्यान कोंकणी भाशेचे उदरगतीची चळवळ मूळ धरपाक लागली.

कोंकणी समाजाक जागोवपा खातीर तांकां आत्मसम्मान मेळोवन दिवपाखातीर सदांच कार्य करपी म्हान कर्मयोगी

युगपुरुषाच्या वावराची थोडीशी वळख वाचप्यांक घडची हे नदरेन जैत प्रकाशनान शणै गोंयबाब विशेशांक तांच्या 125व्या जयंतीदिसा निमतान उजवाडाक हाडिल्लो. शणै गोंयबांबाच्या साहित्याचेर बरपावळींतल्यान चर्चा जांवची, तरणे पिळगेक तांच्या साहित्याची होलमणी येवंची ही नदर दवरून नामनेच्या बरोवप्याकडल्यान बरोवन घेतलें. साहित्यीक, विद्यार्थी आनी शिकोवप्यांकडल्यान विशेशांकाक बरो येवंकार मेळ्ळो. शिक्षणीक नदरेंतल्यान उजवाडाक हाडिल्ल्या ह्या अंकांतल्या लेखांचें पुस्तक येवंचें अशी सुचवणी कांय साहित्यीक आनी शिकोवप्यांनी केली. डॉ. तानाजी हळर्णकार, श्री कमलाकार म्हाळशी, आनी प्रा. भुषण भावे हांचेकडेन चर्चा करून पुस्तक उजवाडाक हाडपाचो निर्णय घेतलो. बरपांतल्यो बारीक-सारीक चुको सुदारपाच्या वावरांत श्री नागेश करमली, प्रा. प्रकाश थळी, श्रीमती विनंती कासार हांचो मोलाचो आदार मेळ्ळो. युगपुरुष - शणै गोंयबाब : एक परिचर्चा ह्या नांवान पुस्तकाची निर्मणी जाली.

शणै गोंयबाब हो अस्मिताय जागोवपी इतिहासकार, साहित्यीक हें तर जालेंच, ते भायर शणै गोंयबाब हें एक अश्टतासी व्यक्तिमत्व. तांच्या ह्या विविध तासांची वळख वेगवेगळया नदरांतल्यान वाचप्यांक जावंची हे खातीर तांचेर त्या त्या विशयांक धरून वेगवेगळया मळांचेर वावुरपी तज्ञ मानेस्ताचे लेख हांगां घेतल्यात,

देखीक

'गोमंतोपनिषद' चेर कविवर्या दो. मनोहररायांनी बरयलां, पत्रकार आनी साहित्यीक केणीबाबांनी गोंयबाबांच्या एकंदर साहित्यीक व्यक्तीमत्वाचो वेध घेतला. भाई मावजो हांणी कथाकार गोंयबाब नियाळ्ळा नागेशबाब करमलींनी आमच्याच आत्महीणपणाक खुबळावपी गोंयबाबाचेर नदर मारल्या. दो.

हळ्र्णकार शणै गोंयबाबान घाल्ल्या सादाचो आवांठ कितलो गगनभेदी तशेंच आस्कळ विस्कळ आशिल्लो हाची विस्काटावणी करता. प्रो. प्रजल साखरदांडेचो 'इतिहासकार गोंयबाब' चितारपी अभ्यासपूर्ण लेख घेतला. प्रो. गांवकारान नाटककार गोंयबाब दिला जाल्यार प्रो. वझरीकारान शणै गोंयबाबाच्या समग्र साहित्याचो आढावो घेतला.

गोंयबाब एक कवीय आशिल्लो तांचें हे तास मातशें उपेक्षीत उरलां. ह्या तासाचेर उजवाड घालपी बरप कवी माधवबाब बोरकार' हाणें 'गोंयकाराचो मुंबैकार'च्या निमतान दिलां. मोस्त्राखातीर ही इल्लीशी स्त्रय-नामावळ दिल्या. हेर मानेस्तूय पंगतींत आसातूच.

ह्या पुस्तकांत जांकां कोंकणी चळवळीचो मुकुटमणी वा मानदंड मानतात त्या उदयबाबांची प्रस्तावना मेळ्ळी हें आमचें भाग्य. तांची 'विचारमंथन हें उदरगतीचें लक्षण' ही प्रस्तावना म्हणल्यार एका स्वतंत्र परिसंवादाचो विशय जावं येता.

हें पुस्तक इतल्या सोबीत रुपान छापून उजवाडावपाक ज्यो व्यक्ती आनी संस्था कारण जाल्यात तांचो उल्लेख करप हें आमचें कर्तव्य. गोवा कोंकणी अकादेमीचें 50टक्के अनुदान फावो जालें. ते खातीर तांचे उपकार. तेचपरी सह्याद्री प्रिंटर्सान पुस्तक बरे तरेन वेळार छापून दिलें. ते खातीर तांचे दीनवास मानुकूच जाय. पुस्तकाक सोबीत मुखचित्र चित्रकार गौरिश वेर्णेकार हाणीं दिलें. तांचेय आमी उपकारी. ह्या पुस्तकाखातीर आपणालीं बरपां अगत्यान दिवपी समेस्त मानादिक बरोवप्यांक कशें विसरु येत?

शणै गोंयबाबाली पुण्याय तशेंच व्हडपण मानेस्तांची बरपावळ आनी पुस्तकाची निर्मणी करतना जायते जाणांची तकालस उपकारा पडल्या. आतां उरला तो वाचक वर्ग. तांचेकडल्यान आमकां घसघशीत येवकार मेळटलो अशीं आस्त बाळगितां.

- भिकू बोमी नायक

# विचारमंथन हें उदरगतीचें लक्षण

शणै गोंयबाबाच्या जल्माक 128 वर्सां जाल्यांत आनी ते संवसाराक अंतरले ताका अंदूं 59 वर्सां जातात. तांणी जें बरोवप केलें तें भौ करून 1910 तें 1945 ह्या वर्सामदीं. ताचें उपरांत देश स्वतंत्र जालो, गोंयची सुटका जाली, कोंकणीक तिची हक्काची सुवात मेळपाचे दिशेन कांय म्हत्त्वाच्यो घडणुको जाल्यो. आनी आयज परिस्थिती खूब तरांनी बदलल्या. अशें आसलें तरी आयचे पिळगेक शणै गोंयबाबाचें चरित्र समजून घेवचें-शें दिसता, तांचे विचार, मतां हांचो अभ्यास करीन दिसता हें तांच्या कर्तुत्वाचें जैत.

हें अशें घडटा ताका एकापरस चड कारणां आसुं येतात. तातूंतलें एक कारण अशें की आयज एकविसाव्या शेकड्यांतून शणै गोंयबाब फाटीं पडूंक नात, तांचे विचार पोरणे जावंक नात, इतलेंच न्हय तर तांचे खूबशे विचार आयच्या काळाक लागू जातात आनी थंय तांचे दूरदृष्टीचो साक्षात्कार जाता. शणै गोंयबाबांचो विचार वा तांचे मत बुद्वीक झापडां लावन मानून घेवचें अशें मात समजूंक फावना. शणै गोंयबाबानूच शिटकावणी दिल्ली आसा, तांचें दर एक सांगणे बुद्वीचे साणीर घासून घेवपाची. देखून शणै गोंयबाबाच्या चरित्राचो चिकित्सायेन अभ्यास करतनाच् तांच्या विचारांचो आनी मतांचोय चिकित्सेचे नदरेन अभ्यास जावंक जाय. असो अभ्यास करतना सगले एकाच मतार पावतले वा एकूच अर्थ लायतले अशें न्हय. पूण कोणेंय अभ्यासाच्या आदारान लायिल्लो अर्थ पटलोना तरी समजून घेवचो पडटलो.

शणै गोंयबाबां संबंदान एक सोपेपण आसा. ते आयच्या काळांतले, माचयेर उबो रावन वा टेलिव्हिजनावयल्यान उलोवपी फुडारी न्हय. ताका लागून तांणी अमूक उतर वापरलें काय कितें वा अमूक मुद्दो मांडलो काय कितें हाचेर वाद जावपाची गरज ना. तांचे विचार, तांचीं मतां आमचेमेरेन पावल्यांत तीं तांच्या पुस्तकांतल्यान. देखून तांणीं निश्चितपणान कितें म्हळां हे विशीं दोन मतां आसपाचें कारण ना. तांणी जें बरयलां ताचेर वेगवेगळीं मतां आसुं येतात. पूण शणै गोंयबाबाचो वा कोंकणी चळवळीचो फोबिया जाल्ले कांय जाण गोंयकार समाजांत आसात. आपणें शणै गोंयबाबाची बरपावळ वाचल्या अशें ते भासयतात आनी शणै गोंयबाबान जें बरोवंक ना तें तांकां दसोवपाचो यत्न करतात. तितल्यारूच ते थांबिल्ले जाल्यार तांकां भक्सूंक जातालें, पूण जो विचार शणै गोंयबाबांचो न्हय तो तांकां दसोवन आशिष्ट आनी असभ्य भाशेंत ते टिका करतात. असल्या मनशांचें हे दुबळेपण वा ती तांची विकृती. शणै गोंयबाबांची बरपावळ वाचपाचे जो कश्ट घेता ताका सत्य कळपाक आनी ते विकृतीची वळख जावपाक वेळ लागना. कांय अबुद्दी मनशांय गोंयकार समाजांत आसात. तांकांय शणै गोंयबाबांनी कसलो विचार मांडला हाचें खरेंपण करपाची इत्सा जायना. तिरसुवाद मनशांचे विकृतीक तीं सत्य मानतात आनी आपणाले अकलेचें प्रदर्शन मांडटात.

शणै गोंयबाबांच्या खंयच्याय विचाराचेर कितकीय खर टिका जावंयतो. पूण तो विचार शणै गोंयबाबांचो आसूंक जाय. कल्पनेंतल्यान कितेंय काडप, तें शणै गोंयबाबांनी बरयलां अशें भासोवपाचो यत्न करप आनी अबुद्दी मनशांक फटोवप हो समाजीक गुन्यांव. ख्यात्त्त घडना ते मेरेन असली विकृती धुमशेण कांडटली हें मतींत धरूंक जाय. घडये कोंकणीच्या विरोधावांगडाच तो फोबिया आनी ती विकृती मरतलीं.

मात असले विकृतीची पर्वा करिनासतना शणै गोंयबाबांविशींचो अभ्यास चालू उरपाक जाय. अभ्यास चरित्राचो आनी कर्तुत्वाचो. ते खातीर ह्या झेल्यासारकीं पुस्तकां उजवाडाक येवपाक जाय. आनी ह्या अभ्यासाक उपाट वाव आसा. हाचें

कारण शणै गोंयबाबांचे बरपावळीक आनी वावराक कितलींशींच तासां आसात. शणै गोंयबाब हो भासशास्त्री, व्याकरणकार, इतिहासकार, चरित्रकार, सर्जनशील साहित्यकार, रुपांतरकार आनी विचारवंत, हातुंतल्या दर एका रुपाचो आनी वावराचो खोलायेन अभ्यास करून शणै गोंयबाबांनी कोंकणीभाशी समाजाक कितें दिलें हाचो नियाळ जावपाक जाय.

जाचे सगळे विचार ताचे पिळगेक आनी फुडल्या पिळग्यांक मानवले असो कोणूय मनीस हे धर्तरेर जावन गेला अशें दिसना. तशें घडपाक जाय अशेंय ना. शणै गोंयबाबांचें एक खाशेलेंपण म्हणजे तांचें जे विचार ताचे पिळगेक पटलेनात ते फुडल्या पिळग्यांक पटले. शणै गोंयबाब काळाचे फुडें पावन विचार करताले. अशें आसलें म्हूण ताचें सगलेच विचार आयच्या काळांत उखलून धरपासारके आसतलेच अशें ना. पूण कांय विचार, कांय मतां आमकां पटलींनात म्हूण शणै गोंयबाब ल्हान जायनात. तांच्या प्रगत विचारांची धार उणी जायना.

लेखांच्या ह्या झेल्यांत शणै गोंयबाबांच्या कर्तुत्वाच्या खुबशा तासांचेर उजवाड घालपाचो वावर बरोवप्यांनीं केला. म्हायतेचो प्रसार घडचो हो तांचो मुखेल हावेस. आमचे सरभोंवतणी अज्ञानाचो जो काळोख पातळ्ळा आनी जो कांय जाणांनी मुजरत पांगुरला तो मतींत घेतल्यार म्हायतेचो प्रसार करप हेंवूय गरजेचें थारता. उदेते पिळगेक शणै गोंयबाबांचे बरपावळीक हात घालचे आदीं ही म्हयती फायद्याची जावंयेता. पूण फुडाराक अदीक खोलायेन चिकित्सा करपाचो वावर हातांत घेवचो पडटलो.

विचारमंथन चालू उरप हें खंयच्याय समाजाचे उदरगतीचें लक्षण. ह्या पुस्तकांत आस्पाविल्ल्या लेखांवरवीं तें मंथन जाता. हें पुस्तक उजवाडा हाडपाची मांडणी जैत प्रकाशनाक सुचली हे खातीर ताका परबीं फावतात. तरी शणै गोंयबाबांचे बरपावळीची अदीक खोलायेन आनी चिकित्सायेन समीक्षा करपी आनीक पुस्तकां जाय. जैत प्रकाशनान तोवूय वावर मनार घेवचो.

**- उदय भेंब्रे**

# मांडावळ



## परिशीष्ट

# ‘गोमंतोपनिषत्’

*- दो. मनोहरराय सरदेसाय*

शणै गोंयबाब म्हळयार वामनबाब वर्दे वालावलीकार. तांणी जायतें बरयलां. जाण्टयांपासत तशेंच भुरग्यांपासत. तांणी चिंतूंक लावपासारखें बरयलां तशें हांसूक लावपासारकें आनी रडूंक लावपासारकेंय बरयलां. कोंकणी भाशेचें जैत, आबादि फारीय, पुण्यात्मो राम कामती, मोगाचें लग्न, झिलबा राणो, भुरग्यांलो इश्ट.

तांच्या ह्या पुस्तकांत सगळयांत बरें पुस्तक खंयचें काय म्हणून विचारलें जाल्यार हांव कितें सांगतालों जाणा ? ‘गोमंतोपनिषत्’. उपनिषद हें उतर तुमी आयकलांच जातलें. उपनिषदां म्हळयार गिन्यानान उपाट भरिल्ले पुर्विल्ल्या काळांतले आमगेले ग्रंथ.

तातूंत ल्हान, ल्हान सुरबूस काणयो आसात. ‘गोमंतोपनिषत्’ ह्यो अश्योच काणयो. तातूंत चडशें गोंयचें जिवीत दिश्टी पडटा देखून तांकां ‘गोमंतोषनिषत्’ अशें म्हळां. गोमंत म्हळयार गोंय हें जाणाच न्हय तुमी ?

ह्यो काणयो कसल्यो? खासा शणै गोंयबाबूच सांगतात. ‘ह्यो जरी काणयो म्हळयो तरी त्यो कोल्या-कवडुल्याच्यो वा न्हवऱ्या-होंकलांच्या मोगाच्यो न्हंयत. निखटी अणभवांची वळेरी दिल्यार बरी लागची नासली. देखून ते काणयेंत गुंथचे पडले. निखरे सुके सडसडीत फोव तोंडांत उडैल्यार दाडमां वळटात. देखून ते उदकांत भिजौन गोडाचो बांदो आनी सोय घालून मोव आनी सुरबूस करचे पड्टात. तशीच गजाल ह्या उपनिषदांचीं’’

अश्यो ह्यो काणयो. रुचीक गोड तश्योच मनाचे भलायकेक आनी घटायेक चड बऱ्यो. गोमंतोपनिषताचे दोन खंड, म्हळ्यार दोन वांटे आसात. पयल्या खंडांत पांच धाकट्यो काणयो. "म्हजी बा खंय गेली?, वासूशणेली पोपाय, 'बाबूमामालो पणस', 'पितुबाबालो तांब्यापटो' आनी खर्णवीर' दुसऱ्या खंडांत सवंसारबुट्टी नांवाची एकूच एक लांब कथा.

एका परस एक गोड अश्यो ह्यो काणयो, पूण भुरग्याच्या जिविताचेर बरयल्ली आनी वाचप्याचें काळीज हालोवपी काणी म्हळयार पयलीच काणीः "म्हजी बा खंय गेली?" बावूलो म्हणून एक भुरगो आसता ताजी ही काणी.

"बावूलो कसो आसलो?" तो इल्लोसो भुरगो खरो, पूणून मोटो बण्ट. मोटो अंवजाळी, मोटो आडांगी. तो निकतोंच सटकुळळेल्लो आनी आपल्या धुमशेणांनी आनी धुडबुसांनी सगलें घर माथ्यार घेतालो. अश्या ह्या बाबुल्याची 'बा' म्हळयार आवय अकस्मात भायर पडटा. बा खंय गेल्या काय म्हणून विचारल्यार ताजी आजी ती देवा घरा गेली म्हूण सांगता. बाबुलो उठ्ठा आनी नाखार बोट धरून, दांत-ओंठ चावून देवाक म्हणटाः 'देवा सायबा तुवे म्हजे बाक व्हेल्यार खूब दीस जाले. तुवें तिका कित्याक व्हेली? तूं आज सांजे तिका तिचे कुडींत ती न्हिदिल्ली थँ बऱ्यान हाडून दवर ना जाल्यार फाल्यां सकाळीं तुका दाखैतां कशे आसा तें. हांव आज्याक सांगतलो तुजी पुजा करुंक नाका म्हणून. मागीर तुका पळे, न्हाण ना, धोण ना, फुलांची पाखळी ना, दिवो ना, वात ना. कातलेची शिर्णी ना. गोडाचो कुडको ना, साकरेची चिमटी ना. कांय ना कांय ना. तुका उपाशी वळवळावंक लायतलों"

पूण एकदां देवाघरा गेल्ली बा परतून थोडीच येता! बाबुल्याक एकसारको आवैचो ध्यास्त लागता. तो जेविना, खायना, तो आंग सोडटा, सुकून ताचो सामको व्हीर जाता आनी अखेरेक म्हजी बा, म्हजी बा म्हणत प्राण सोडटा.

"वासूशणैली पोपाय" मनशाभशेन उलयता. आपलें दुख सांगता. ती पोपाय आशिल्ली कशी? आयकात हांः "ती सुमार वीस मुंडे हात उंच वाडिल्ली. ती गुलगुलीत बरी मातिल्ली. तिका आडवो खांदो असो एकूय नासलो. शेड्यावयल्या दांडाऱ्यांनी ती न्हवऱ्या वांगडा फुलैले मोटे व्हडले उबे सत्रेसारकीच दिस. दांडाऱ्या मजगत तिका ल्हानव्हड कुचकुचीत पोपायो लागिल्ल्यो. तातूंल्यो सकैल्यो जून-टटास जावन पिकूंक पाविल्यो आनी वैल्या फुलांनी नित्तींच गोळां धरतालीं."

अशी ही पोपाय. एक दीस मुळासकट हुमटून पडटा-व्हडलें वादळ येवन. तिचें आंग चिड्डता आनी व्रखणटा. तिचे दांडारे मोडटात, पोपायो तुट्टात आनी रगत व्हांवसो चळचळीत दीख व्हांवक लागता, तेन्ना ती किंवाट्यान देवाक विचारताः "देवा इल्लीय तांक आसली जाल्यार म्हाका आस तशी बऱ्यान उबी कर, म्हाका तूं एन्नाच मरुंक दिंव नाका, ना जाल्यार तूं पक्षपाती, तूं मेळया-मोगी, तूं दुबळो, अक्कल नाशिल्लो म्हणपाचें. मोठ्या व्हडल्या ताळयान सगल्या संवसाराक कळौन हांव तुजी इज्जत काड्टलीं आनी तुज्या नांव घेवन वा आयकून तुगेल्या रुपांत मेळचे भाशेक गच्च तोंड धांपून आनी कानांत बोटां घालून प्राण सोडटलीं."

"बाबूमामालो पणस" ही तसलेच तरेची काणी. कसलो तर पणस हो! ताची तोखणाय कितली म्हणून करतलो! सगल्या गोंयां पैलें वैलें दाबण तें हाका. सकैलें मूळ धरून वैले तेंगशे मेरेन खांद्या-खांद्यानी अश्शे कुचकुचीत पणस. भितर सगळे घरेच-घरे, नाजूक बरे. चांफी कशेशे, चार कसलो तो नाच. घरो जाल्यार हळडुवें सतम्याचें भांगर, म्होंवाळ, थपथपीत. जिबेर दवरिनाफुडें विरगळून उदक पोटांत पावतकूच बोंबलेमेरेन थंडाय".

एक दीस बाबूमाम आपल्या भागेल्याक दुसऱ्या दिसा पणसुलां काड म्हणून सांगता. ती उतरां पणसाच्या कानार पडटा आनी कितें जाता जाणात.

"ते रातीं त्या पणसाचे तळमळे कितें सांगतलो? ताचे हातपांय सामके लडलडले. आंग-पांगाक कांपरो भल्लो. शीं खावन पैरो जोर आइल्ल्यावरी ताका कुलकुलो भल्लो. वारें-वावटळ नासताना ताज्यो ताळयो खांदयो हालूंक लागल्यो आनी पानां सळसळूंक लागलीं."

आनी तो म्हणूंक लागलो, "आयलो सो दिसता ह्या काळग्यांचो नवो सोमार. हो सोमार येता म्हळयार म्हजें काळीज सामकें कलकलता. आतां म्हज्या भुरग्यांल्या रक्तखेवाक परतून आरंभ जातलो. हांवें जागरणां-जुगरणां काडून, मर-मर-मरून, म्हजीं माणकुलीं, कुकुलीं ल्हान-व्हड करचीं आनी निमाणे तीं ह्या मनश्याचे भकीक पडचीं मूं?.... अगा पातकी मनशांनू. हिंसा केल्या बगर जर तुमगेली दांतकडी हालना तर असल्यो काणयो तुमी कोणाक सांगतात? हांव तुमकां खात्रीन सांगतां कि तुमी सगळे हिंसाकार, सगळे मांसखायरे. तुमच्या भितर शिवराक असो पतीक सोदल्यार मेळचो ना. तुमी वोगीच अहिंसा, अहिंसा म्हणून तोंडाची बेष्टी ऊब घालौं नाकात."

मनीस जियेता तो दुसऱ्याची हत्या करूनूच जियेता. हीच शिकवण "पितूबाबालो तांब्यापटो" हे काणयेंत सांगल्या. पितूबाब नांवाचो एक मनीस जावन गेलो खंय. तो कसो आसलो? "दुसऱ्यान आपणाक जें केल्यार मानना, तें आपणें दुसऱ्याक करचें न्हय. ते तागेल्या वेदान्ताचें पैलें सूत आसलें. आनी तांचे आड तो केन्नाच पावल घालिनासलो. तो आपले करणेन कोणाक दुखै नासलो, उतरान केन्ना तिडैनासलो आनी मनान कोणाचें वायट येवजी नासलो. दुसऱ्याच्या जिवाफुडें तो आपल्या सुखाची, आरोग्याची आनी जिवाचीय कुस्कट पर्वा करी नासलो."

ताका सगल्यांचो मोग, सगल्यांचो कळवळो, मनशाचोच न्हय तर मोनजातीचो आनी झाडापेडांचो. तो आपल्या गोरवांक मेकळीं सोडटा, नुस्तें-पास्तें खावंचें सोडटा, इतलेंच न्हय तर तो विचार करता तांदळा-गवांक तरी कित्याक खावंचे, तांकां जीव ना? खंयच्याच जिवाक मारचो न्हय हें तत्व धरून तो सगलें खावंचें सोडटा आनी तशे तरेन भुकेन सुकून प्राण सोडटा. आनी मरचेपयलीं तो आपली इश्टेट जो कोणाचोच द्वेस करीना, जो दुसऱ्याचे गुन्यांव भकशिता, जो सुःख दुःख सारकें लेखता अशा मनशाक दवरता. पूण आसलो मनीस केन्ना मेळत काय? मनशाक जितो उरतलो जाल्यार थोडी तरी हेर जिवांची हत्या करचीच पडटा.

पितूबाब म्हळ्यार चड बरो मनीस जाल्यार खर्णवीर हो चड वायट मनीस. क्रूर, दुश्ट, दयामाया नाशिल्लो, उरफाट्या काळजाचो, कर्तुपांचो, पाड्या चिंतनांचो, 'कोकस्तान' म्हणून एका कल्पनीक देशाचो तो राजा जावन गेलो खंय. थंयचे लोक झुजाचे विद्येंत पाटांगडे. झुजमारे म्हणून घेवपांत तांकां मोठी खोस जाताली. झूज, रणखेवां आनी हाणामारी हांचेफुडे संवसारांत व्हडविकेची हेर कसलीच करणी आसा म्हणपाचे ते नकळ आसले. थंयचो देव झुंजार देव. खर्णवीरान दुसऱ्या एका देसाचेर म्हळ्यार धर्मस्थानाचेर धुरी घाली. खूब जाणांक मारले. पूण त्या झुजांत खर्णवीर मेलो. मरतकच ताका यमदूत व्हरुंक आयलो. खर्णवीर आपणाक ख्यास्त नाका म्हणून विनयता. पुण ताका यमाचे दूत राजवान चरांटून बांदतात आनी नर्क-लोकांत व्हरतात आनी जायतो वळवळावन निमाणें ताका सासणाच्या काळोख-गुपाटांत उडतात.

दुसऱ्या खंडांतली संवसार बुट्टी ही काणी अशीः हजारांनी वर्सां जालीं आपणे निर्मिल्ले जीव बरेतरेन चलनात हें पळोवन देवाक उबगण येता आनी तो

सगल्या मोनजातीक आनी मनशाक ना करपाक पावस धाडटा, बुट्टी धाडटा. देवाचो अपुर्बायेचो एकलोच मनीस आसलो तो म्हळयार नोये. देव ताका एक व्हडलें तारूं बादूंक सांगता. इतल्यांत बुट्टी येता. रोखडेंच मार्गांनी धोंपर भर उदक जावन तें घराच्या हुंवऱ्याभितर रिगूंक लागलें. कांयजाण घराच्या पाशटांचेर, कांयजाण रुखांचेर आनी कांयजाण दोंगराचेर चडले. मर्ण सामकें तांच्या सामखार उबें रावलें तरी आसतना संवसाराची माया सुटना जावन कोणे आपलो म्हालम्हतो माथ्याचेर उबाल्लो, कोणे फाटकुळेर माल्लो आनी कोणे आपल्यो दुडवांच्यो चिरयो पेंगटाक गच्च बांदल्यो. बायलांनी जाल्यार आपलें भांगर-शिंगर लग्नाक भायर सरिल्ल्या होंकल्यां भशेन आंगाखांद्यार घालें. पावस चाळीस दीस आनी चाळीस राती पडलो. चोंयवसल्यान उदक तुंबलें. हे बुट्टेंत मनशां, सावजां, सवणीं आनी जिवाणीं घुस्मुटून मेलीं. हे बुट्टेंत मेल्ल्या जिवांचे आत्मे हुयेल मारीत मळबांत वेतात. देवदूतांक आपल्याक कित्याक बुडोवन मारले म्हणून जाप विचारतात. दर एकलो आत्मो आपले जिणेची काणी सांगता.

हांगा शणै-गोंयबाब मनीससभावाचीं तरेक-तरा अप्रूप अप्रूप चित्रां रंगयतात. निमाणें, एक आत्मो आपलें शाणेपण मुखार मांडटा. हेंच शाणेपण शणै गोंयबाब तुमकां-आमकां सांगूंक सोदता. हातूंत दुभाव ना. 'दुख, संकष्ट आनी अरिष्ट चुकौंक तांकता तितलें वावुरचें. कितेंय होगडावलें जाल्यार तें सोदून काडचो यत्न करचो. कोणेय नाडलो-नागैलो जाल्यार ताका फावो ती बुद्द शिकौंची. संवसारांतलें दुख ल्हव करपाचो एक भांगराचो उपाय आसा तो हो कि दुसऱ्यांनी आपणाकडेन जशें चलचेंशे दिसता तशें आपणें ताचेकडेन चलचें. जण एकल्यान आपल्या घामा कष्टाचे जोडीन पोट भरचें आनी दुसऱ्याच्या म्हाल-म्हत्याचेर आनी मुदग्याचेर केन्नाच दोळो दवरचो न्हय. कोणाच मनशाक केन्नाच उणाक लेखचो न्हय."

अश्यो ह्यो काणयो-अशें हें 'गोमंतोपनिषत्' - गोंयच्या जिविताचो हो हारसो; गिन्यानाचो कळसो. कोंकणी भाशेच्या अमृताचो शिंसो. तुमकां थळाव्यो आनी घराव्यो कोंकणी भाशेची रुच घेवंक जाय, तिचें अप्रूप शब्द-भांडार तोखेवंक जाय, गोंयच्या जिविताची वळख मेळूंक जाय आनी संवसारांतलो वेव्हार समजूंक जाय. मनीसपण आनी शाणेपण कळूंक जाय तर भुरग्यांनो शणै गोंयबाबाचें गोमंतोपनिषत् मुजरत वाचात आनी वाचून तुमच्या इश्टांक वाचूंक सांगात.

# शणै गोंयबाब : एक अवतारी पुरुस !

*- चंद्रकांत केणी*

**श**णै गोंयबाब हांचे जिणेचें आनी वावराचें मूल्यांकन करता आसतना, तांच्या छापिल्ल्या पुस्तकां भायर आमचेकडेन दुसरें कसलेच साधन ना. पुस्तकांतलो एखादलो विचार आमी घेतांत आनी ताचेर आमच्या बुध्दीच्या आनी कुवतीच्या आदारान आमकां जाय ते निश्कर्श काडटांत ते विचार बरयता आसतना तांचें भोंवतणचें वातावरण कशें आसले वा खंयचे घडणुकेक लागून तांकां ते विचार उत्क्तावचे पडले हें समजून घेतलेबगर तांच्या विचारांचो संदर्भ मेळना. आनी संदर्भाभायल्या विचारांक अर्थ नासता. खासा तांची बरपावळ ज्या वर्सा बरोवन जाली त्याच वर्सा छापून येवंक ना. मदीं खुबशा वर्सांचें अंतर गेलां. देखीक 'श्रीभगवंतालें गीत' हे श्रीमद्‌भगवद्‌गीतेचो कोंकणी अणकार 1935 वर्सा केल्लो. ताचें पुस्तकाच्या रुपान 1919 वर्सा प्रकाशन जालें. 'वल्लिपत्तनाचो सोद' हें पुस्तकय अशेंच. 1927 वर्सा दिल्लें हें व्याख्यान 1962 वर्सा उजवाडा आयलें. देखून शणै गोंयबाबाच्या समग्र साहित्याचो बारीकसाणेन अभ्यास करून आनी तांचे खंयचे विचार कशे बदल्ले आनी कसले विचार जिवीतभर थीर उरले हें समजून घेतलेबगर तांच्या साहित्यावेल्यान तांच्या जिवीत आनी कार्याविशींचे निश्कर्श काडप समा जावंचें ना.

शणै गोंयबाबांविशीं आयजमेरेन जितलेंय बरप उजवाडा आयलां, लेख वा कवितेच्या रुपान आसूं ना जाल्यार पुस्तक वा पुस्तिकेच्या रुपान आसूं, तें एका

सांच्यांतलें आसा. पयल्या लेखकान जें कितें बरयलां तेंच ताच्या उपरांतच्या लेखकांनी बरयलां. तेच प्रसंग आनी तेच निश्कर्श आमी फाटलीं पन्नास वर्सां वाचीत-आयकत आयल्यात. आयज आमी तांची, तांच्या जल्माची सपाद-शताब्दी मनयतात तेन्ना कोंकणीफुडले खुबशे प्रस्न सुटिल्ले आसात. पंचवीस वर्सां आदी जेन्ना आमी तांची शताब्दी मनयली तेन्ना वेगळें कांय करूंक नासलें. आनी त्यावेळार सगलेच प्रस्न सुटुंक नासले. तेन्ना कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यता तितली मेळिल्ली. आमी एकविसाव्या शेंकड्यांत पावल दवरचे आदींच आमच्यो सगळयो मागण्यो मान्य जाल्ल्यो. आतां उरलां ते मान-मान्यताय मेळिल्ल्या कोंकणीच्या आदारान ह्या भौभाशी भारतांत कोंकणी व्यक्तिमत्त्वाचो - वयक्तिक आनी भौशीक - पुराय विकास सादून शणै गोंयबाब हांचे समृद्ध गोंय, कोंकणी भास आनी कोंकणी समाज हें सपन साकार करपाचो वावर. कोंकणी हें निखटें साधन, साध्य न्हय हें वळखून आमी फुडलीं पावलां उखलूंक जाय. ते नदरेन तांचें सपाद-शताब्दीपूर्ती वर्स हें कोंकणी अस्मिताय वर्स म्हणून मनोवपाचो जो संकल्प केल्लो आसा तो योग्य असोच आसा. अस्मिताय वर्स मनयता आसतना अस्मिताय म्हळयार कितें हें सामान्य मनशाक समजावन तिची राखण कशी करचेली, तिचो विकास कसो करचेलो आनी तिच्या आदारान कोंकणी लोकांमदीं भावपण वाडीक लावन तांची जीण समृध्द कशी करचेली हाचो विचार जावंक जाय. अस्मिताय वर्साच्या निमतान ज्यो कार्यावळी जातल्यो त्यो वर्सुकी शिगम्याभशेन जावन उपकारच्यो नात. त्यो फुडल्या वावराची दिशा दाखोवपी बुन्यादीसारक्यो आसच्यो पडटल्यो.

शणै गोंयबाबाच्या समग्र साहित्याचें संकलन करून तें उजवाडावपाचें. इतल्यान घोडो न्हंयचे देगेर पावतलो. पूण ताणें उदक पियेवचें काय ना हें ताचें ताका थारावचें पडटलें. म्हळयार, निखटेंच साहित्य उजवाडाक येवन भागचें ना. कोंकणी मनशाच्या काळजांत तें पावयतलो जाल्यार ताका तें वाचूंक प्रवृत्त करचो पडटलो. कोंकणी ही मराठीपरस वेगळी आनी स्वतंत्र भास म्हणून दाखोवचे खातीर, कोंकणी भाशेची तांक सिध्द करचे खातीर आयजवेर आमी कार्यावळी चलयल्यो. त्यो गरजेच्यो आसल्यो. म्हूण त्योच कार्यावळी फुडेंय चालू दवरल्यो जाल्यार आमी आसात थंयच उतरले. फुडें वचचेनात. सैमाचो एक नेम आसता. जो बदलत्या काळासांगातान चलता तो तिगता. जो फाटीं उरता तो कालबाह्य जाता. आनी फुडें वचपाची दिशा विसरून तो आपल्याच विचारांच्या जाळयांत घुसपून

एक बंदिस्त जीण जगतां-जगतां एका दिसा कालवश जाता! उदकाचो जो प्रवाह व्हांवता तो फुडें पावता आनी नित्यनूतन उरता. हाचे उरफाटें जो प्रवाह बंदिस्त जाता तो आपली गती वगडावन बसता आनी ताची अधोगति वा दुर्गति जाता. व्हांवतें उदक निर्मळ उरता. बंदिस्त उदक सुकता वा कुसता. कसलीय चळवळ बदलत्या काळाक धरून, बदलत्या वातावरणाक अनुरूप अशी आसूंक जाय. चळवळीचें ध्येय केन्नाच बदलचें ना हें खरें आसलें तरी फुडें वतना कितेंतरी फाटीं सारचें पडटा हें आमी विसरूंक फावना.

शणै गोंयबाबानी कोंकणी चळवळ, कोंकणी समाजाचें स्वत्व आनी स्वाभिमान जागोवन तांकां आपल्या कुळाच्या दायजाची वळख करून दिवन स्वतंत्र भारताचे स्वतंत्र नागरिक ह्या नात्यान अभिमानाची जीण जगपाक प्रवृत्त करचें ह्या उद्देश्यान चलयिल्ली. दुसऱ्याच्या हातान उदक पियोवपाची दुसऱ्याच्या ताटापोंदचें माजर जावन रावपाची वृत्ति कोंकणी मनशांनी सोडची, आपले परंपरेचो आनी आवयभाशेचो पावला कणकणीं अपमान जाता, हें पळोवनय कोंकणी मनशाचेर कांयच परिणाम जायना इतलें ताचें काळीज भेरेलां, आपूण कोण हाचो विसर पडून जे लोक दुसऱ्याच्या मुँडात रावपाक धन्यताय भोगतात, तांकां तांचे तांकीची जाण करून दिवची, हे हावेसान तांणी आपलें संशोधन आनी लेखन आनी व्याख्यान ह्या सारकिले उपक्रम हातांत घेतले. दर्यांत बुचकळी मारून एक-एक रत्न भायर काडून वेळेर उबे राविल्ल्यांक दाखोवंचे ते भाशेन ताणीं इतिहास, संस्कृती, भूगोल, भासशास्त्र ह्या सारकिल्या विशयांचेर अभ्यास केलो आनी मेळिल्लें गिन्यान कोंकणी समाजामुखार दवरलें. मनशाक जशें पोट आसता तशें मोनजातीकूय आसता. पूण जो मनीस निखटो पोटाचोच विचार करून जगता तागेली जीण मोनजातीसारकी म्हणची पडटली. देहाची पूजा मनशान करचीच. पूण आपणाचेर संस्कृती घडोवपासारकी जापसालदारकी आसा हें ताणें विसरचें न्हय. आपली प्रतिभा कोणाक तरी विकून एका आश्रिताची जीण जगचे बदला कोंकणी मनशान आपले दायज वळखून संवसारांत मानाचें स्थान घेवंचें असो तांचो हावेस आसलो. ती मोख गांठ्टलो जाल्यार आवयभास कोंकणीचो आदार घेवंचो होच तांच्या जिवीताचो आनी वावराचो संदेश तांच्या साहित्यांतल्यानय उतरां कणकणी व्यक्त जाल्लो आसा.

शणै गोंयबाबांच्या साहित्याचो विचार करता आसतना त्या साहित्याची

तुळा सामान्य साहित्याकडेन जावंक फावना. साहित्याचे नेम आनी कस हेर साहित्याकय लागू जातात आसले तरी समाज जिणेच्या आनी सांस्कृतीक दायजाच्या नेमांचेर आनी कसांचेर शणै गोंयबाबांलें साहित्य तपासलें जाल्यार तें जितलें उदात्त तितलेंच अप्रूप हाची कल्पना येतली.

तांच्या साहित्यावयल्यान नदर मारली जाल्यार आपणांक नांव वा प्रतिष्ठा जोडचे खातीर तांणी साहित्यरचना करुंक ना हें नदरेंत भरता. देवनागरी लिपींत तांचीं 22 पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. तेभायर रोमी लिपींतय तांणी पुस्तकां बरयल्यांत. फकत मनोरंजक साहित्याच्या कसाक लागत अशीं पुस्तकां खुबूच थोडीं आसात. पूण तीं बरयतना लेगीत भाशेची अभिव्यक्ति आनी लवचिकपण, दुसऱ्या भाशांतली उतरावळ आसपावपाची तिची तांक तांणी दाखोवन दिल्या. गोंयच्या इतिहासाचो सोद घेवन, गोंयकारांच्या तेजिश्ट दायजाची तांकां वळख करुन दिवपी पुस्तक म्हळयार, 'गोंयकारांची गोयांभायली वसणूक.' कथेच्या रुपान धर्म, अध्यात्म, संस्कृती आनी परंपरेचें सार वाचप्यां मुखार दवरपी तांचीं पुस्तकां म्हळयार, 'गोमन्तोपनिषत'चे दोन खंड. मराठी समर्थक कोंकणी विरोधकांनी कोंकणीक हिणसावपाखातीर मांडिल्ल्या मुद्यांचे सादे-सरळ भाशेंतल्यान खंडन केल्लें पुस्तक म्हळयार, 'कोंकणी भाशेचे जैत.' आयजमेरेन कोंकणीआड मांडिल्ल्या दर एका मुद्दयाक इतलीं समर्थ जाप दुसऱ्या कोणेच दिल्ली ना. कोंकणी परिशदेचे ते येवकार अध्यक्ष जाले आनी तांणी त्यावेळार जें भाशण केलें तातूंत भाशेचो इतिहास आसपावला आनी फुडाराची दिशाय दाखोवन दिल्या. कोंकणी ही स्वतंत्र भास हें सिध्द करपाखातीर तांणी भुरग्यांखातीर आनी जाणट्यांखातीर अशीं दोन व्याकरणां बरयलीं. 'कोंकणी नादशास्त्र' रचलें. निखटें मनोरंजन करपी 'मोगाचें लग्न', 'पोवनाचें तपलें' हे सारके मोलियराचे फार्स कोंकणीत अणकारले आनीक 'झिलबाराणो' सारकें नाटक रचलें. गोंयच्या इतिहासाचें संशोधन करतना, 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें' हाचो तपशील पुंजावन तो वाचप्यांमुखार दवरलो. 'बलिपत्तनाचो सोद' हें अशेंच इतिहासाचेर आदारिल्लें पुस्तक. गोंयकारांचो तांकां खूब अभिमान. देखून 'पुण्यात्मो राम कामती', 'आबे फारीय' ह्या सारकी चरित्रां तांणी बरयलीं. शिक्षण आनी गुणी विद्यार्थ्यांची तांकां मोटी लक्कुबाय. ती 'कोंकणी विद्यार्थ्यांक' ह्या नावान उजवाडाक आयिल्ल्या व्याख्यानांनी व्यक्त जाल्या.

साहित्याचें प्रयोजन कितें ? हो प्रस्न फाटलीं शंबर वर्सा आमच्या देशांतले विचारवंत विचारीत आसात. युरोप, अमेरिकेंतले साहित्यिक लेगीत ह्या प्रस्नाची जाप सोदपाखातीर प्रयत्न करतात. जण एकलो आपली विचारसरणी, अणभव

आनी दानत हांचेर आदारिल्ल्यो जापो दिता. पूण इतलें खरें की, साहित्य हें मनीसमनाचे विचारशक्तीक, ताच्या सूक्ष्म भावनांक आनी संवेदनांक जागोवपाचें एक प्रभावी साधन. तें मनोरंजक आसूं येता, उद्‌बोधक आसूं येता वा निखटेंच समाजजिणेचें पडबिंब आसूं येता. साहित्याच्या प्रांतांत प्रवेश करता तो वाचक ह्या साहित्यांत रमता आनी जिणेंतली सुखां-दुखां विसरता. एका काल्पनीक विश्वांत तो वावुरिल्ल्यान, माचयेवयलें एखादें नाटक पळयिल्ल्याचो आनंद तितलेपुरतो ताका मेळटा.

शणै गोंयबाब हांणी साहित्य रचलें तें कोणाचें मनोरंजन करपाखातीर न्हय. कोंकणी उतरावळीची गिरेस्तकाय आनी तिच्या अभिव्यक्तीची तांक सिध्द करपाखातीर तांणी संशोधन केलें तें भेरेंल्लें कोंकणी मन संवेदनक्षम करचें, ताचो शेणिल्लो आत्मो सोदपाची ताका प्रेरणा दिवची, भ्रमाची झेम सोडून ताणें उठचें हेखातीर. शणै गोंयबाब हांणी आपली लेखणी वापरली ती हेखातीर. तांच्याच उतरांनी सांगतलो जाल्यार ---

''पापयांनो, कसली मडसरेची झेम काडटात? उठात!...... आमगेल्या भाशेचे कुळार वेदांच्या कुळवंत गिरेस्त नांवादीक आनी लौकीकवंत घराण्यांतलें आसा म्हणपाचें घणघणीत दिसता. हे खातीर आमकां कोंकण्याक आमगेले भाशेचो मोठो अभिमान आनी गर्व दिसूंक फावो. आमी कोंकणे बाबत कुळां न्हयत. आमकां परक्या भासांच्या लौकीकार जगपाची गरज ना. त्यो भासो आमगेल्यो आवय भासो न्हय. देखून आमी आमगेले भाग्यवंत आवयचे मांडयेर बसू या. आनीक माथें वयर उबारुन सगळया संवसाराकडेन पळोवंया!'

हें तांचें कार्य पूर्ण जालां हे आयचे परिस्थितीचो नियाळ घेतल्यार दिसून येता. ब्रिटिशांक भारताभायर काडून स्वतंत्र जाल्ले भारतीय प्रजेन आपल्या पांयांक आपखोशयेन इंग्लीश भाशेची बेडी बांदून घेतल्या. कोंकणीविशीं तेंच चल्लां. शणै गोयबाबांनी कोंकणीचो इतिहास, भूगोल, ते भाशेची तांक आनी साहित्यीक शक्त दाखयली. तरी जे भावनेन भारतांत हिंदी दीस वा सप्तक मनयतात तेच भावनेन आमी अस्मिताय वर्स मनोवंचे नात इतली जतनाय घेवंक जाय. कसलेच तरेचो अधिकार तांचेकडेन नासलो. खंयचीय सत्ता तांच्या फाटल्यान उबी नासली. प्रचार प्रसाराचीं माध्यमाय तांचेकडेन नासलीं. पूण एक मनीस आपल्या विचारांचे तांकीन नवें यूग निर्माण करूंक शकता हें शणै गोंयबाब हांणी आपल्या जिवीत आनी कार्यावरवीं दाखोवन दिलां. तांणी फुडाराचें एक सपन पळयिल्लें. तें तांणी बरोवन दवरिल्लें आसा.

'हिंदूस्तानाक स्वराज्य मेळटकच हांगेलो हावेस इतलोच दिसता. मराठणाक गोंय दसवन, मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेंचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवंचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणाची सासणां बंदेपणांत काडचीं! दमणगंगेसाकून मलबारामेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्तानाचे मुखेल सतेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासाखवान चलवंचो. आनी आपणाल्या घरा-दारांत आपणे धनीपणान नंदचें हें हांगेल्ल्या सपनांतूय येना. हांका बंदेपणाचीच रूच. राजकारणांत, भासकारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके बंदेच रावतले म्हण्टात! हांकां स्वतंत्र कोण करीत ?

हें सगलें साहित्य वाचतकच साहित्यिकाचे आयचे व्याख्येंत शणै गोंयबाब हांकां कसले तरेचे साहित्यिक तुमी म्हण्टले ? ते कथाकार आसले ? कांदबरीकार आसले ? धर्मशास्त्री आसले ? इतिहासकार आसले ? व्याकरणकार आसले ? चरित्रकार आसले? बालसाहित्याचे लेखक आसले ? काय नाटककार आसले ? हे सगळे साहित्य प्रकार समर्थपणान हाताळपाची प्रतिभा तांचेकडेन आसली हें मान्य करुनूय साहित्यिकांचे पंक्तिक तांकां बसयले जाल्यार तांकां ल्हान केल्लेभाशेन जातलें. खऱ्याअर्थान ते अवतारी पुरु आसले.... पुरुषोत्तम ! अवताराची कल्पना अशी आसता की, जेन्ना एखाद्याच्या समाजाचेर वा संस्कृतिचेर सुमाराभायलो अन्याय जाता तेन्ना धर्म भंगता. तो अन्याय पयस करून धर्माची नव्यान प्रतिष्ठापना करचे खातीर एक असो मनीस तेंच मिशन नदरेमुखार दवरून एखादो मनीस जल्म घेता आनी आपल्या जिवीतांत आपले कार्य पूर्ण करुन आपल्या व्यक्तिमत्त्वाचो परमळ दवरुन परत वता. पुराणांत 'वामन अवतारा ची कथा आसा. ते सगळे पुरुषार्थ पूर्ण केल्ले शणै गोंयबाब हे फक्त नांवानच न्हय तर आपल्या कार्यान लेगीत 'वामन अवतारच' आसले!

●

# कोंकणी मनशामदल्या आपशकमीपणाची जागवण आनी शणै गोंयबाब!

*- नागेश करमली*

**भा**रतांतल्या हेर भाशीक लोकसमाजांवरीच, कोंकणी भाशीक लोकांचोय एक सभावीक असो प्रदेश आसूनय, तांच्या वांट्याक विखंडतायेचो जो शापीत इतिहास आयलो, तसो इतिहास आनीक खंयच्याय भाशीक लोकांच्या वांट्याक आयिल्लो दिसना. हे कपलफुटके विखंडतायेन, कोकणी मनशाक, खऱ्यांनीच आपूण कोण, आपणालें दायज कितें, आपणालें कर्तृत्वीपण कित्यांत आसा हें कळपाक जी सवस्तकाय लागता, जी थिराय आनी जी थाकाय लागता ती केन्नाच लाभूंक दिली ना. आनी हें सगळें, जेन्ना ह्या देशांतले वेगवेगळे भाशीक लोक, आपापणाली भाशीक आनी सांस्कृतीक अस्मिताय घेवन वयर सरताले, तेन्नाच घडलें. आमगेल्या देशांत आयज जे भाशीक लोकसमाज आनी तांचे तांचे अशे जे सभावीक अशे प्रदेश आसात ते आयजसावन सादारण हजार बाराशी वर्सां आदीं' तरी आकार घेवंक लागले आसूंक जाय. ते पयलींय ते लोकसमाज आशिल्ले. पूण तांची आपापली अशी वेगवेगळी शीम स्पश्ट नाशिल्ली. तें घडूंक लागले तेन्नाच संस्कृत आनी मागीर प्राकृत-अपभ्रंश हे प्रक्रियेंतल्यान बंगाली, गुजराती, मराठी, पंजाबी आनी आयज हिंदीच्या पोटांत आस्पावतल्यो ब्रज,

अवधी भोजपुरी सारक्यो भासो आपापलें रूप प्रकटावंक पावल्यो. दक्षिणेंत कन्नड, तेलगु, मलयालम सारख्या भाशांचे संवसार उबे जावंक लागले. संस्कृत सारकी दक्षिणेत तमीळ ही पयलींसावन आपणाली परंपरा घेवन चलताली. आनी सादारण ह्याच काळांत, कोंकणी मनीस विखंडतायेच्या चक्रांत सांपडिल्लो आमी पळयतात.

सप्तकोकणांतलें गोंय हें एक मुखेल. गोयंचें उत्तरेक जो कोंकणी वांठार आशिल्लो आनी भुगोलीक तशेंच इतिहासीक नदरेन जो आयज आसा तो सदांच कोणा ना कोणा तरी अ-कोंकणी राजवटकेखालाच उरलो. जो राजा येता ताची चाखरी करप आनी तांतूतच समाधानी रावप ही ह्या वांठाराची आनी थंयच्या लोकांची परंपराच जावन पडली. आपूण कोण हे वळखून घेवपाक ताका केन्ना उसरपतच मेळ्ळी ना. आनी जेन्ना मराठी राज्य निर्माण जालें तेन्ना तर भाशीक लागसाराचो फायदो घेवन गोंयचे उत्तरेकडल्या ह्या कोंकणी लोकसमाजाक, मराठणी सत्तेन कांय न्हय करून गिळून उडयलो. गोंयचे दक्षिणेक जो कोंकणी लोकसमाजाचो कारवार जिल्ह्यासारको भाग आशिल्लो तो कर्नाटकी शिमांनी बांदून उडयलो. कन्नड आनी कोंकणी भासो म्हळयार दोन भाशीक लोक, तरीपूण, कन्नड संस्कृतायेच्या प्रभावामुखार कोंकणी मनीस, कोंकणी म्हणून स्वंतत्रपणान तकली वयर काडपाइतलो समर्थपणान केन्नाच वावुरलो ना हें सत्य. उरतां उरलें ते मदलें कोंकण, गोंय. गोंय हें मदेवर्ती कोंकण. उत्तर कोंकणातल्या वा गोंयचे दक्षिणेवटच्या कोंकणी लोकांसारकी गोंयची परिस्थिती न्हय. पूण दुर्दैवान ह्या प्रदेशांत फिंर्गी पावले. तांणी धार्मिक उतळताप निर्माण केले आनी ल्हव ल्हव सगळें गोंय आपणाले सत्तेखाला हाडलें. फिरग्यांनी आपणाली भास आमचे गोमटेर बसयली. गोंयचे उत्तरेक वा दक्षिणेक जे घडूंक शकलें ना तो सांस्कृतीक स्वरुपाचो अत्याचार गोंयकारांच्या वांट्याक आयलो. आपणाल्याच घरांत रावन लेगीत तो आपणाकच परको कसो जालो. बाकीच्या भारतीय प्रदेशांत जी भाशीक आनी तिका जोडून आशिल्ली सांस्कृतीक परंपरा विकसीत जायत गेली तें गोंयात घडलें ना. परिणाम कोंकणी मनीस हेरकडेन जसो दुसऱ्यालें मानायपण करीत उरलो तेंच अदीक भंयाकृतपणान गोंयांतय घडलें. गोंयांत तो फिंर्गी सत्तेचें मानायपण करपी जालो. आपशकमीपण, कर्तुत्वीपण, आप-दायजाची जाण ह्यो गजाली जाल्यार पयसच उरल्यो. गोंयातलो एक वर्ग म्हळयार खिस्ती समाज: ताका जबरदस्तेन फिंर्गी करपाचो प्रयत्न जो शेकंड्यांनी वर्सा चल्लो,

तातूंतल्यान, त्या सांस्कृतीक उताळतापांतल्यान जीव धरून उरिल्लो, भौसंख्य आसूनय भयाभीत आनी फाटीचो कणो नाशिल्लेवरी जियेवपी हिंदू समाज जाल्यार आपणालें नीज सोदपाचे भर्रीक पडनासतना, आडगत जायना, तयार जें कितें मेळटा तें आपणालें म्हणून पोटलावन बसलो. हांगाच मराठीचो सबंद येता. फिर्गीपण तर भितल्ल्यान नाका, म्हण्टकीच आपणावपाचें कितें ? सोपेपणान मेळटा तें मराठीपण ! हिंदुसमाजांतलो चिमटी भर सुशिक्षित वर्ग आनी ताचे वांगडा तांका मेळिल्लो मराठीचो वसो घेतिल्लो पुजारी-पुरोहितीं वर्ग हांणी आपणालो म्होर म्हाराष्ट्रावटयां केली. परिणाम कोंकणी आसून लेगीत कोंकणीपणाक कितेंच सुवात उरली ना. बरें, मराठी म्हळो म्हणून गोयचो कोंकणी मनीस, महाराष्ट्रांतल्या मनशाक पुरायान आपलोच अशें केन्नाच दिसलें ना. रूख मराठी, ताच्या खांद्यांक अडेचे हुमकळत रावपासरकी ही आयतिका. एके तरेची परावलंबी वृत्तीच हांतल्यान वाडीक लागली म्हळ्यार जाता. हाचो दुसरो परिणाम जालो तो म्हळ्यार महाराष्ट्रांतले लोक, कोंकणी मनशाक - विशेष करूंक गोयकारांक आपणालो असो इतिहास ना अशें म्हणूंक लागले. महाराष्ट्रीय म्हण्टात तशेंच हेर लोकय म्हणूंक लागले. कोंकणी ही मराठीची बोली म्हणपाक लागले. आनी गोंयचो प्रदेश हो महाराष्ट्राचो कुडको म्हणपाक लागले. एका उतरांत सांगपाचें जाल्यार, संबंद भारतांत कोंकणी भाशीक समाज म्हळ्यार एक आश्रितांचो समाज जालो. ताचें मोल शून्य जालें. कोंकणी मनीस समुदाय हे नदरेन सोडात, व्यक्तीगत पांवड्यार संस्कारी आनी पुरुशार्थी आसूनय ताची भास हेगाडी थरूंक लागली.

फिर्गी राजवटकेच्या काळांत, खिस्ती मिशनऱ्यांनी कोंकणीची जीवसाण वळखून तिच्यांत बरपावळ रचपाचो यत्न केलो खरो. पूण तातूंत तांचो हेत कोंकणीपण जागोवपाचो नासलो. कोंकणी भास तांकां जाय आसली ती फक्त धर्मीक प्रसार कार्याखातीर. तांच्या 'कोंकणी मोगा' फाटल्यान कोंकणी मनशांतलो आत्मविश्वास जागोवप हो हेत निखालसच नासलो. कोंकणीची व्हडवीक गावपी तशें कांय जाण जावन गेले. पूण त्या 'गावपांतय' खंयच कोंकणीच्या नीज दिश्टाव्याचो उजवाड दिसना. तातूंत कोंकणी मनशाच्या संदर्भात जी शेकडे वर्सां चूक जाली आनी आजय घडत आसा ते सगळे पयस करून, कोंकणीपणाची खाशेली घुडी हुबोवपाचो हावेस दिसना. ते खातीर वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकरांच्या रूपांत शणै गोयबाबच जल्माक येवंचो पडलो.

कोंकणी मनशाक ताच्या उजळ इतिहासाची वळख करून दिवपी, कोंकणी मनशाक ताच्या भाशेच्या स्वतंत्रपणाची जाणवीक करून दिवपी आनी ते खातीर आपणाली पुराय जीण झरोवपी, शणै गोंयबाब हो फाटल्या हजार वर्सांच्या इतिहासांतलो पयलोच इतिहासपुरुस. गोंयकारांमदें, शणै गोंयबाबापयलीं जायते व्हड मनीस जावन गेल्यात. शणै गोंयबाबाच्याय काळांत जाल्यात. पूण शणै गोंयबाबान कोंकणी भास, संस्कृताय आनी कोंकणी लोकसमाज हे विशींची जाणवीक जितली खरपणान, तर्कबुद्दीन आनी इतिहासीक साधनाचो उपेग करून जे पोटतिडकेन आनी आग्रहान मांडली तें काम, ताचे पयलीं कोणेच केलें ना. हजार वर्सां जी उपेक्षा कोंकणीन सोंसली ती नाशी करून कोंकणीमुखार हावेसाची वाट रेखून दिवपाचें काम आनी तेंय बी विसाव्या शेंकड्यांत दिसता तितलें सोपें नासलें. कारण, हेर देशी भाशांचे स्वतंत्र संवसार उबे जावपाचो काळ फाटी पडिल्लो. मोठ्या भाशांनी ल्हान भाशांक पोटांत आस्पावन उडयिल्लें. कोंकणी जाल्यार मराठीचीच एक बोली हें बळिश्ट महाराष्ट्र धरूनच चलतालो. खुद्द कोंकणी मनीसय चडसो तशेंच धरून चलतालो. अशे परिस्थितींत कोंकणीची मठी उबारबाक गडगंज असो बुन्यादीचो फातर बसोवप हें कठीण काम आसलें. शणै गोंयबाबान तो वावर करून दाखयलो.

शणै गोंयबाबान कोंकणीक प्राणप्रतिष्ठा जोडून दिवपाखातीर कितें केलें, कितें बरयलें आनी कितें सांगलें तें सगळें हांव विस्कटावन सांगूक वचना. कारण तांचो तो सगळो वावर आयज आमचेमुखार आसा. तोच आयज आमकां प्रेरणा आनी उर्बा दिता. शणै गोंयबाबान कोंकणी मनशाचो अडेच हजार वर्सांचो इतिहास सोदून काडलो. आत्महीणपणांत व्हडवीक मानप्यांक जाप दितना तांकां सांगचें पडलें, "आमी बाबत कुळां न्हयत. आमकांय इतिहास आसा." गोंय फिंर्ग्याच्या शेकातळच्यान मुक्त जातकीच ते मराठणाचो कुडको करूंक चिंतप्यांचेर ताणीं सडसडीत शिट्टयो ओडल्यात. शणै गोंयबाब बरयतात. "हिंदुस्थानाक स्वराज्य मेळटकच हांगेलो हावेस इतलोच दिसता की मराठणाक गोंय दसोवन, मराठ्याचें आनी मराठी भाशेचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणाचीं सासणां बंदेपणात काडचीं ! दमणगंगेसाकून मेलबारामेरेन सगळो कोंकण देस हातांत घेवन, हिंदुस्थानचे मुखेल सत्तेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेंत खासा-खवान चलोवंचो आनी आपणाल्या घरादारांत आपणे धनीपणान नंदचें, हें हांगेल्या सपनांतूय येना! हांकां बंदेपणाचीच रूच !

राजकारणांत, भासकारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके बंदेच रावतले म्हणतातः हांका स्वतंत्र कोण करीत ?"

गोंय महाराष्ट्रात विर्गळावन उडोवपाची वान्सा घेवन बशिल्ल्यांक खडपसूक जावन शिटकायले उप्रांत शणै गोंयबाबांनी भारतीय स्वतंत्रतायेक उमाळयांनी भरिल्ल्या उतरांनी येवकार दिला. ते म्हणटात :

"कैलासासाकून कुमारीमेरेन सासणाच्या अखण्य आनी संसल्या हिंदुस्थानाचें उफेण स्वराज्य आमची खेम घेवंक उडक्यो मारीत आमचेसरी धांवत येता. ताका वेंग मारात, ताका आंवळून धरात आनी सासणाचे भाग्यवंत जायात! बंदेपण पुरो जालें! उबगण आयली! जीव सामको वाजवाजलो!'

कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास हो शणै गोंयबाबांचो मंत्र आमचो प्राणमंत्र जालो. त्या मंत्रानच भारून गेल्यांच्या प्रयत्नांनी आनी कश्टांनीच गोंयचे कोकणी भाशेचें राज्य ह्या भोवभाशीक भारतांत निर्माण जालें. हे निर्मणे फाटल्यान शणै गोयबाबान मारिल्लो आपशकर्मीपणाचो उलो आसा आनी तांणी आपणाल्या बरपांतल्यान घालून दिल्ली आत्मभिमानाची देख आसा.

●

# शणै गोंयबाब : एक कथाकार

*- दामोदर मावजो*

**का**णयेचो रुपकार काळाप्रमाण बदलत गेलो आनी एकोणिसाव्या शतमानाच्या मध्याक आयज आमी जिका 'कथा' म्हूण वळख त्या साहित्यप्रकाराचो जल्म जालो. अमेरिकेंत एडगर एलन पो हो कथा केळोवपी पयलो कथाकार अशें मानतात. एडगर एलन पोचें व्हडलें योगदान म्हळयार ताणें कथा बरोवपाचें तंत्रूय विस्कटावन सांगलें. आयजय चडशा प्रमाणांत तेंच तंत्र घेवन कथा फुडें गेल्ली पळोवंक मेळटा. कोंकणी साहित्यांत आधुनिक तंत्रांतली पयली कथा म्हूण उल्लेख जाता ती शणै गोंयबाबांची 'म्हजी बा खंय गेली?' ही कथा हेच परंपरेंतली.

शणै गोंयबाब हे अश्टतासांचे लेखक हे मान्य करूंकच जाय. ताणी कथा, कविता, नाटक, निबंद, चरित्र हे सगले साहित्यप्रकार केळयल्यात. 'गोंयकारांचो मुंबैकार' ह्या विनोदी मोडींतल्या काव्यान तांचे साहित्यीक जिणेची सुरवात जाल्ली आसुंये. मुंबय पावतकीर गोंयकारपण गुठलावन दवरुन अडेचो झेत काडून मुंबयकार म्हूण मिरोवपी गोंयकारांचे दुर्बळ मानसिकतायेच्यो भगलो मारून बरयिल्लें हें काव्य त्या काळार खूब गाजलें. 1910 वर्सा जरी उजवाडाक आयलें तरी खूब पयलीं तें बरोवन जाल्लें आसुंये.

'म्हजी बा खंय गेली?' ही कथा केन्ना बरयिल्ली तें कळपाक मार्ग ना. 'गोमन्तोपनिषत पयलें खंड' 1928 वर्सा उजवाडाक आयलें. ह्या खंडांत पांच कथा / निबंद आसात. तातुंतली 'म्हजी बा खंय गेली?' ही कथा तांणी पयलीं बरयिल्ली आसूंक जाय. 1920 वर्सा आदीं बरयिल्ली ही कथा उजवाडणेची वाट पळयत कितलीं वर्सा उरली देव जाणा. हेर भारती भाशांक उजवाडणेखातीर

नेमाळीं वा हेर सोंपेपणा सहज साध्य आशिल्लीं. अशा वेळार ही कोंकणी कथा मात प्रकाशनाची वाट पळयत बशिल्ली. सुमार ऐंशी वर्सां फाटी बरयिल्ली ही आधुनीक कथा भारतीय साहित्यांतली एक भोव उंचेल्या पावंड्याची दर्जेदार आनी कसदार कथा - आनी कोंकणी कथा विश्वाचो बुनयादी फातोर.

हे कथेक विंगड विंगड तासां आसात. विशय भोवच भावूक. बाबुलो ह्या भुरग्याक शणै गोंयबाबान फिशाल कलाकाराचे कुशलतायेन चितरायला. विशय भोव बरेतरेन केळयतना फावो तितलेच प्रसंग आस्पावन घेतल्यात. भास नकसूद आनी लालित्यपूर्ण आसा. संवाद जाणट्यांच्या तोडांत जाणट्यांचे जाल्यार भुरग्याच्या तोंडांत भुरग्याक सोबसारके घाल्ल्यान कथा वास्तवतायेचे कसवटेरुय भोव बरी उतरता. ऐंशीं वर्सां फाटीं बरयिल्ली कथा आयज वाचतना लेगीत घळ्ळ करून दोळयांत दुकां देंवतात ही कथेचे यशस्वितायेची गवाय.

ना ना म्हूण जाल्लो भुरगो. सगल्यांचे अपुर्बायेचो. वायदमन जाल्ल्याचें नीव जावन आवय अचकीत मरता. मरण म्हळयार किते हें ना समजुपाची पिराय जाल्ल्यान जाण्टीं मनशां बाबुल्याक कांय सांगिनांत. तो हट करता. तेन्ना बा देवागेर गेल्या म्हूण सांगतात. 'मागीर म्हाका घेनासतना कशी गेली तर ?' हो बाबुल्याक प्रस्न पडटा. तो देवाकडेन झगडटा. तरिकूय बा येना म्हणून तो होळप काडून रडटा. आजी सांगता 'देवागेर गेल्लीं मनशा परतीं येनात'. तेन्ना बाबुलो 'ती म्हजेसरी येना जाल्यार हांव तिचेसरी वतलों' म्हूण हट्टाक पेटटा. आवयचो ध्यास घेता. जेवना-खायना. हातरुणार पडटा आनी अखेरेक 'म्हजी बा, म्हजी बा' म्हणीत प्राण सोडटा. अशी ही कथा.

आयज ही कथा वाचतना हो विशय घडये आमकां तितलें पिशें लावचो ना. कारण, फाटल्या ऐंशीं वर्सांत कथा-काणयांनी आनी नाटकां-सिनेमांनी हो विशय कितल्याशाच लेखकांनी वेगवेगळया रुपांनी मांडला. आयज ही कथा वाचतना ऐंशी वर्सांफाटलो काळ आमी तकलेंत दवरचो पडटलो. जेन्ना भारतीय भाशांतले कथा-साहित्य निकतेच पावली मारताले तेन्ना बरोवन जाल्ली ही कथा. भाशा, इतिहास, व्याकरण आनी संशोधन हांकां आपणाली पुराय जीण ओपूंक नाशिल्ली जाल्यार घडये शणै गोयबाब भारतीय साहित्यांतलो आद्य कथा-कादंबरीकार म्हूण नामनेक पावताशिल्लो.

आयज एकविसाव्या शतमानाच्या हुमऱ्यार बसून जेन्ना हांव हे कथेचो नियाळ करतां तेन्ना अनेक दोशस्थळांच म्हजे नरदेत भरतात. पूण आयज जे दोश शे

दिसतात ते त्या काळावयल्या सगल्याच कथांमंदी आशिल्ले. भारतीय आनी अस्तमतेच्या कथांनी लेगीत. काळ बदलला तशे कस बदलतात. आमची कथा आरिव, घोटीव आनी पकदस्य बंदिस्ती घेवन येता. देखून आयचे फाटभुंयेर त्या काळावयली कथा पसरट वा सदळ बांदणेची कशी दिसता.

'म्हजी बा खंय गेली?' ही कथा बरयतना कथेवरवी भाशेचे गिरेस्तकायेचें प्रदर्शन करपाची संद शणै गोंयबाबानी घेतल्या म्हणपाचें जाणवता. भाशेंतल्या उतरांची विविधताय दाखयतना तांणी लिखणी सदळ सोडल्या. देखीक, बाबुल्याचें वर्णन करतना 'मोटो बण्ट, मोटो अवजाळी, मोटो आडांगी' अशी सतत तीन विशेशणां लायल्यांत. उपरांत 'मस्ती जिल्ली, हडबंगां उल्लीं' अशा उतरांनी एकच गजाल दोन फावटींनी सांगल्या. बाबुल्याचो जल्म जालो तो 'ना ना म्हणून, कानदोळे सुजोवन, आंगवणी-जोगणी करुन' अशें त्रिवार सांगलां. आयचो लेखक अशें करचो ना. पूण तितलेंच हेंय खरें, शणै गोंयबाबांनी कथा बरयतना भाशेचे लालित्य खंयच वगडावंक ना.

कथानक भोव प्रभावी उतरांनी रंगयलां. पूण आवय मरता तो प्रसंग आनी उपरांत बाबुलो मरता तोय प्रसंग खुबच ताकतिकेन सांगून उडयला. 'बाबूक सवें वर्स लागूंक होनी बायक अनर्थाचे वायट जालें. वैजांचे म्हणणे भाशेन तिका वायदमन जाल्लें खंय, आनी तातूंतच ती भायर पडली'. अशा उतरांनी आवयचें मरण दाखयलां. हो प्रसंग इल्लो चड नाट्यमय जावं येतालो. उपरांत बाबुल्यान आवयचो ध्यास घेतलो तेन्ना 'तो जेविना जालो. खायना जालो. ताणें आंग सोडलें. सुकून सुकून ताचो सामको व्हीर जालो. तो हांतरुणाक लागलो. आनी अखेरेक 'म्हजी बा! म्हजी बा!' म्हणून ताणे प्राण सोडलो.' अशे तरेन हो प्रसंग सोंपयला. हांगाय नाट्य जाय आसलें.

हालींच्या काळार कथा सुचकतायेचेर भर दिता. त्या काळार सगल्योच गजाली विस्कटावन सांगपाची चाल आसली. देखीक, आवय जोरान बडबडटाली तेन्ना 'बाबुलो एकाद्रो भियेवन आंग काडीत म्हणून आजो आनी आजी ताका तिच्या कुडीच्या दाराकडेन वचूंक दिना जाली', खरे म्हळयार 'तीं ताका कुडीच्या दाराकडेन वचूंक दिना जालीं.' इतलेंच सांगल्यार पुरो. 'बाबुलो एकाद्रो भियेत' म्हूण ती तशें करतालीं हे वाचकाक समजता. पूण त्या वेळार वाचकाचेर चड पातयेवन रावनासतना सगलेंच स्पश्टपणान सांगपाची रीत आसली.

हे पुराय कथेंत आमकां लेखक खंयच दिश्टी पडना. म्हणजेच लेखक

तटस्थताय राखूंक जैतिवंत जाला. पूण ही तटस्थताय लेखकान कथेचे अखेरेक सोडून दिल्या. कथा सोंपयले उपरांत कथेचेर भाश्य करपाचो मोह लेखकान टाळूंक जाय असलो. पूण लेखकांतल्या भाश्यकारान कलाकाराचेर मात केल्ली पळोवंक मेळटा. 'म्हजी बा! म्हजी बा!' म्हणीत ताणें प्राण सोडलो.' हांगा कथा सोंपता. सोंपूकच जाय आसली. पूण तशें घडना. 'बावुल्याची ही खबर आयकून कोणा मनशाचें काळीज उचांबळचें ना?....' अशे तरेची वाक्यां रचून आनी 'बाबुल्यान आपली' निग्रहाचीं उतरां खरीं करून दाखयलीं'. अशें स्पश्टीकरण करून भगवंतान अर्जुनाक सांगिल्ली सांगणी दिवन निमाणे आमचो माणकुलो बाबुलो आपली अपुर्वायेची बा जंय गेल्ली थंय वचून, खोशयेन तिचे हाण्डीर बसलो हातूंत दुबाव ना.' अशा उतरांनी कथेचो शेवट केला. ताका लागून बरे कथेची बरी अखेर जावपाची थंय लांवण लावन रसीक मनाचो विरस केला अशें म्हणूक जाय.

आयचे घडयेक अशे तरेन ऐशीं वर्सांफाटले कोंकणी साहित्यांतले पयले कथेंतलीं दोशस्थळां सोदून काडप सोंपें. पूण त्या काळार 'ही आधुनिक कथा' म्हूण लेबल लावंक मेळटा अशी तंत्रशुध्द कथा बरोवप्याची तोखणाय जावंक जाय.

आज्यान कश्ट काडून घरदार- भाटबेंस केले. पूण ताका धा भुरगीं लज शी! पूण त्या काळार धा भुरगीं आसप हे कोण चूक लेखतालो व्हय? मागीर आयज आमी ताचें चुकले अशे म्हणप समा व्हय? तेचभाशेन आयज 'म्हजी बा खंय गेली'? कथा वाचतना काळाचे भान आमी बाळगूंक जाय. भावनाप्रधान कथा बरोवपाखातीर, सुक्षीम संवेदना उत्तावपाखातीर आनी मनाचीं स्पंदना विस्कटावपाखातीर फावो अशी सोबीत सुंदर भास शणै गोयबाबानी कितले प्रभावी तरेन केळयल्या ते पळोवन अभिमानान हड्डे भरून येता. हे कथेतले भाशेचे सुंदरतायेमुखार सगले दोश कुस्कुटापरस थारतात. शणै गोयबाबांनी चड कथा बरोवंक नात. वासू शणैली पोपाय, बाबुमामालो पणस, पितुबाबालो तांब्यापटो वा खर्णवीर हे आगळेवेगळे सुरबस ललीत निबंद. तांकां कथा म्हणपाचें धाडस हांव करचो ना. म्हणटल्यांक आडावचोय ना. कारण कथेन हालींसराक चडशी प्रस्थापीत बंदनां मोखून पार केल्यांत. पूण शणै गोयबाबान 'म्हजी बा खंय गेली ?' ही एकच कथा बरयल्या अशे धरले जाल्यार लेगीत तो कोकणीतलो आद्य आनी स्रेश्ठ कथाकार हातूंत निखालस दुबाव ना.

•

# भुरग्यांलो इष्ट - बाबुलो

*- शांताराम वर्दे वालावलीकार*

शणै गोंयबाबांनी आपले वज्रलिखणेंतल्यान एक बाबुलो जल्माक घालो. हो बाबुलो म्हळयार कोंकणीचो, फुडाराचे पिळगेचो प्रतिनिधी. बाबुलो ओतां आंगार पडसर हांतुणार न्हिदून रावपी सुसेगाद भुरगो न्हय. ताका फांत्यापारार भिणभिणट्यार मडवळण येवन उठयता. काळी चंद्रकळा न्हेसून आंब्यारुखाचे उंच तेंगशेर बशिल्ली मडवळण गायता. तिजे पिपिपी- पिपिपि अशे सूर बाबुल्याच्या माणकुल्या कानांचेर पडटात. बाबुलो आपले बारकेले दोळे ल्हवपीक उक्ते करता. ताका दिसता मडवळण सांगता, 'उठ म्हज्या बाबुल्या, सुर्यामामाचे घोडे दिसूंक लागले." बाबुलो उठटा. आपलो सकाळचो सगळो वावर आटपता. आपल्या आवय-बापायक पायां पडटा, जाण्ट्यांक पायां पडटा आनी शाळेंत वता. ताज्या खांदार पुस्तकांचे जडगुळो वजें नासता. ताजे शणैमाम भांगराचे मनीस. ते ताका मारधपट करीनात. रागार तापार जायनात. ते ताका मायेन लागी ओडटात. आनी ताजी अपुर्बाय करतात. ताका काणयो सांगतात. सांजचे भोंवपाक न्हंयेचे धडेर, दोंगरार, मळार खंय ना खंय व्हरतात. थंयचो सैम दाखयतात. थंयच्यो शिंपयो, घुलो, पानां, फुलां हांच्यो खबरी सांगतात. देखून बाबुल्याक शाळेची गोडी लागल्या. तो आपलो अभ्यास घडघडीत सडसडीत करता. तैंच भाशेन तो खेळ खेळपांत फाटीं नासता. ताज्या शणैमामान ताका सांगलां, अभ्यासाच्या वेळार अभ्यास आनी खेळाच्या वेळार खेळ खेळूंक जाय. खेळाक लागून आंग घोळटा. जीवाक घटाय येता. केन्नाकेन्नाय ताजे शणैमाम लेगीत ताजेबराबर

खेळूंक येतात आनी ताका सांगतात "खेळांतूय भुरग्यांनी फटी उलोवचें न्हय आनी रडी खांवची न्हय; खेळांत हार आयल्यार सोसून ओगी रावचें." बाबुलो घरा आसता तेन्ना हेर भुरग्यांक एकठांय करून आपालिपा खेळटा. आखोमाखो खेळटा ना जाल्यार आपल्या पोरसांत वचून केळींक तेळटा. सवण्यांक तोखेता, बुकल्याची अपुर्बाय करता.

बाबुल्याचे गोंय भोवच सुंदर. तें निजाचे अपुर्बायेचें. थंयचे उदक वारें पथीक. थंय भांगराचें ओत पडटा आनी रुप्याचे चान्नें हांसता. थंय फुलां, फळां आनी पिकावळ चकचयाळ. थंयची माती, थंयच्यो फातुल्ल्यो, थंयचो दर्या, थंयचे दोंगर हाजे बाबुल्याक अप्रूप. बाबुल्याच्या सह्याद्रीची तेमकां मळबाक चोखतात आनी सर्गाक तेकतात. सह्याद्रीचे कुशींतल्यान दुदाच्यो झरी व्हांवतात. हतयांचे हिंड ताज्या पोटावेल्यान धांवतात. तेचभाशेन गोयचे बंदर. धव्याफुल्ल शिडांचे फस-फशीत कापड न्हेशिल्ले, रांपणीचे जाळयेची ओल पांगुरिल्लें, विंगड विंगड नुस्त्यांच्यो चकचकीत, झगझगीत, लकलकीत वस्ती आंगार चडयल्लें अशें बाबुल्याचें बंदर. बाबुल्याचो दर्या खोश्येच्या खातखुतल्यांनी दीसरात हांसता, हालता-धोलता, नाचता-गाजता. भुरकुट्टा-मुरगुट्टा. कोंकणाचे पांय धुंवक तो किटकिट्टा, अशे तरेन बाबुल्याचे गोंय म्हळयार भूंय, दर्या, दोंगर आनी कर्तुत्वी मनशां हांचो मेळून जाल्लो धर्तरेवेलो एक सर्गूच! सासणाचो सुखदिणो!!

पूण बाबुल्याचें कर्तुत्व आपणाक गोयची वा कोंकणाची म्हेर घालून घेना. खेळटांना खळयेतल्या पावसाच्या उदकांत सोडिल्ली ताजी कागदाची पातमारी सपणाच्या सांकवा पोदसून भायर सरता ती मुंबय वचपाक. तांतूत आंबे, पणस, अनसां हो सैमीक म्हाल भल्लाच. पूण त्याभायर तसल्या म्हालाचे मोल वाडोवपी फिशाळकाय वापरून केल्ली साठां, पत्रावळी आनी दोणेय बी तांतूत भल्ल्यात. हो म्हाल विकून बाबुलो दुडू हाट्टलो. बाबुल्याक व्हड जातकच उद्योग करपाचो आसा. मांडपसरे घालपाचे आसात. ताका आपल्या वेपाराची तारवां संवसाराच्या सगळया बंदरांनी धाडपाची आसात. ताका आपल्या कोंकणातलो म्हाल संवसारांतल्या सगळया पेठांनी पावोवपाचो आसा. खासा आपूण गिरेस्त जावन सगळयांक गिरेस्त करपाची सपनां तो पळेता. देखून आपल्या सांगात्याक घेवन तो कागदाची व्हडीं उदकांतल्यान मुखार व्हरपाची येसाय मारता.

बाबुलो भुरगेपणांतूच व्हड व्हड सपनां पळेता. आमचे राष्ट्रपती भौ. अब्दूल कलाम म्हणटात, ल्हान हावेस बाळगप हो एक गुन्यांव. बाबुल्याक हें शंबर सवायशीं वर्सां फाटींच होलमल्लें. देखून बाबुलो आपल्या पायांसरी पळेना. ताजी नदर मळबाच्याय पेल्यान वता. ताका मळबांतलीं मोतयांवरी शिंपडिल्लीं नखेत्रां पुंजावन हाडपाचीं आसात. बाबुल्याक जाणटो जावन वयर उंच उडपाचें आसा. ताका सुर्यावळी आनी गिरावळी रांगसुपाच्यो आसात. थंयचें नवें ताल्ल गिन्यान हाडून आपल्या भावां-भयणींच्या फुड्यांत दवरपाचें आसा. आपूण गिन्यानी जावन हेरांक गिन्यानी करपाची वान्सा तो बाळगिता. ताका खूब कितें करचेंशें दिसता. ताका शेतकामती जायन दिसता. आपल्या कोंकणात कोण उपाशी मरचो न्हय म्हणून शेतां, भाटां, पोरसां, कुळागरां लावचीं, नवीं नवीं सारीं घालून, नवें शास्त्र वापरून थंय पांच पांच पिकां काडचीं, एक खांडी पिकोवचे बदला धा खांड्यो कशो पिकतीत हाजी तजवीज करची, नाल्लाबोंड्याच्या जाग्यार कळसो कसो नाल्ल मेळचो, खाण जेवण भरपूर मेळचें आनी दुबळया धाकट्याक धादोसकाय मेळची अशे तरेचो वावर करपाक बाबुलो येवजिता. संवसारांतली पीडा मारून उडोवपाखातीर बाबुल्याक केन्नाकेन्नाय वैज जायन दिसता. पूण बेठो नाडी पळोवन आनी वखदां दिवन बरो करपी वैज न्हय. तो रोगाच्या मूळाक वचूंक सोदता. नवीं नवीं रसायणां तयार करून वखदां सोदून काडून, धामी, पीडा ना नपश्यात करून उडोवप आनी लोकांक वज्राच्या आंगाचे, तिकतिकीत कांतीचे आनी घटमूट करप ही वान्सा बाबुलो बाळगून आसा. ताचेच बराबर बाबुलो काळजान घट. तो झुजाक भियेना. गरीब दुबळयांक भंय घालपी तशेंच धेंक दाखोवपी मनशांवांगडा झुजूंक तो सदांच मुखार. दुस्मानाच्या हड्ड्यार बसपाक तो फाटी सरपी न्हय. असल्या मस्त्यांची मस्ती जिरोवपाची ताका खुमखुमी. असल्या दुस्मानांपासून संवसाराक वाटावपाची उमेद घेवन तो वावुरता. हया बाबुल्याक एक व्हडली भयणूय आसा. ती ताका शाणुलो गुणुलो म्हणून ताजी अपुर्बाय करता. ती आपल्या इश्टींणीवांगडा खुतखुतल्यांनी खेळटा. खेळांत सगळे तरेचे जेवण करता. तेन्ना ती बाबुल्याकय जेवणाक आपयता. बाबुलो आनी ताजी भयण दिशीं माशीं इल्लीं इल्लीं करून व्हड जातात.

… असल्याच जुवान गड्यांक हातांत धरून बाबुल्याचें कोंकण, संवसाराच्या बऱ्याक वावुरपाची मोटी उमेद बाळगून आसा. ●

# शणै गोंयबाबाच्या उल्याची व्याप्ती

*- डॉ. तानाजी हळर्णकार*

**श**णै गोयबाबाचें नांव घेतलें म्हणटकीर कोकणीचें नांव येवप अपरिहार्य जाता. लौकीक अर्थान शणै गोयबाब आनी कोकणी हो जोड शब्द. जे शणै गोयबाबाच्या विचारान विघुतभरीत जाले आनी तांचे परंपरेचे जाले, तांचेखातीरय हो जोड शब्द जालो, तरी तांचेखातीर ह्या जोड शब्दाची व्याप्ती वेगळे तरेची आसा. शणै गोयबाबाक पयसुल्ल्यान वळखुप्यांचे व्याप्तीपरस ही व्याप्ती खुबूच व्यापक आसा. सर्वसाधारण मनशाचो हे सबंधीचो समज अल्पप्रमाणांतलो आसा. ताचे नदरेन, शणै गोयबाब हो एके फाटी उरिल्ले भाशेचो, कोकणी भाशेचो प्रेमी. अशे भाशा प्रेमी दर एके भाशेत मेळटात. कांय कारणांक लागून फाटी उरिल्ले भाशेक ते हेर भासांचे बरोबरीक हाडपाचो यत्न करतात. तातूंत यशस्वी जातात. तांचे कार्य थंय सोपता. कारण त्या कार्याची व्याप्तीच तितकी दवरलेली आसता. ताची मोख तितकीच मोटवी आंखिल्ली आसता. मौखीक तशे लिखीत संपर्काचें आनी अभिव्यक्तीचे माध्यम म्हूण तयार जावपाइतकी भास सक्षम जाली म्हणटकीर, ते भाशेचें साधन म्हणून कार्य सोपता आनी ती भास साध्य जांवन रावता संपर्काखातीरची एक स्वतंत्र भास आनी साहित्यीक अभिव्यक्तीखातीर एक सक्षम भास इतकी भाशेचे तांकीची व्याप्ती सिमीत दवरली ताची मोख म्हणटकीर भाशा प्रेमीचें कार्य सोपता. तशें ते हेर भाशेतल्या भाशाप्रेमीचेय सोपता.

शणै गोंयबाबाची भाशेकडसूनची अपेक्षा इतकी ल्हान नासली. संपर्क माध्यम आनी साहित्य निर्मिती साधन ही भाशेंची प्राथमीक स्वरुपाचीं कर्तव्यां जालीं. भाशेचें म्हत्त्वाचें कर्तव्य हें इतकें प्राथमीक स्वरुपाचें आसना. तें म्हान कार्यस्वरुपी आसूंक जाय. जशें न्हंयचें कार्य फकत येदादारीचें साधन वा नुस्तें पिकोवपाची सुवात म्हणपाइतकें ल्हान आसना. न्हंयचे देगेवयल्या संवसाराची न्हंय ही प्रकृती आनी संस्कृती आसता. हें तिचें मुखेल कार्य आनी म्हूण न्हंयकडेन फकत उदकायेरादारी आनी मत्स्य-निर्मितीची अपेक्षा धरली तर न्हंयेचे कार्य-शक्तीचो पुराय उपेग करुन घेतलोना अशें जाता. तेचवरी भाशेवरवीं ती भास उलयतल्यांचो सर्वंगी विकास घडोवपाचो विचार जालोंना तर भाशेचो घेवंक जाय आसलो तसो आनी तितको फायदो घेतल्यांनी घेतलो ना असो अर्थ जाता. भास आपले चारय हात उबारुन दिवपाक उबी रावल्या, आनी घेतले कर्मकट्टे जाले, तर दोश भाशेचो नासता. भाशेची ही समाज विकासाची क्षमता शणै गोंयबाबान जुस्ताक ज्यूस्त पारखिली. ही पारखणी हेंच शणै गोंयबाबाच्या कार्याचे अर्दे यश थारलें. कार्याची मोख आनी कार्याखातीर वेंचिल्ल्या साधनांची कार्यक्षमता जो कोण ज्युस्ताक ज्यूस्त पारखून घेता, तो आपल्या कार्यात यशस्वी जाताच जाता. ज्युस्ताक ज्युस्त पारखणी करप तशें सोपें नासता. फकत प्रज्ञावंतांकूच तें सादता. शणै गोंयबाबाक तें सारकें सादलें.

शणै गोंयबाबापयलीं जायत्या विद्वानांनी कोंकणी भाशेचे उदरगतीचो वावर केला. व्हड तळमळीन आनी निश्ठेन केला. कोंकणी एक स्वतंत्र भास म्हण सिध्द करपाक हो तांचो वावर जैतीवंत जाला. आनी हो वावरय थोडे-थोडको न्ही. उण्या-पुऱ्या साडेचारशीं पांचशी वर्सांचो वावर तो. पुराय योगतायेचो असो. तो वावर कोंकणी भाशेच्या उदरगती संदर्भापुरतो जालो. ताचे पलतडीन वचूंन, कोंकणी समाजाच्या सर्वंगी उदरगतीचे दिकेन तो जालोना. तसो थंय कोणेन साक्षात्कारच घडयलोना. तो दिश्टावो कोणाक घडलो ना. पयलेच फावट तो स्पश्टपणान आनी समर्थपणान शणै गोंयबाबाक घडलो. शणै गोंयबाबाची प्रज्ञा ती ही. हे प्रज्ञेन उप्रांत कोंकणीचो संवसार बदलून उडयलो. नवो इतिहास घडयलो.

कोंकणी-मराठी, गोंय-मराठण हे फाट भुंयेचेर शणै गोंयबाबाक कोंकणी अस्मितायेचो साक्षात्कार घडलो ही गजाल निश्चीत. पूण धरुया ही फाट भूंय

नासली, मराठी-मराठणचें अरिश्ट नासलें, तर शणै-गोंयबाब साक्षात्कारी शणै गोंयबाब म्हूणन मुखार येंवचो नासलो व्हय? मराठी आनी मराठणाचो संदर्भ नासतनाय कोंकणी मनशाचें व्यक्तीमत्व आनी ह्या व्यक्तीमत्त्वाचो विकास, हे विशय शणै गोंयबाबाच्या मिशनाचे विशय जावंक पावचे नासले काय कितें ? परकी अरिश्ट आयलेउप्रांत निजाच्या रक्षणाचो प्रश्न, ताच्या संवर्धनाचो प्रस्न गरजेचो आनी ताकतिकेचो जाता हें खरें. पूण मुळांत निजाचें रक्षण आनी संवर्धन हो एक स्वतंत्र विशय आसा. ह्या विशयाक परकी आक्रमणाचो संदर्भ मेळटकीर तो विशय कार्रेगाद जाता खरो. पूण मुळांत हो विशय स्वतंत्रपणान हाताळपाचो एक स्वतंत्र विशय आसा हें नुवाल जायना. इंग्रजी भाशेचें आक्रमण हो भारतीय भाशांखातीरचो चिंतेचो विशय. पूण हे आक्रमण जावंचे पयलीचें आनी, फाल्यां आक्रमण गेलेउप्रांतचे परिस्थितींनी भारतीय भासांचो विकास करुंक वाव आसचोना अशे जायना. आक्रमणाबगर त्यो परिपूर्ण भासो आसात अशांतली गजाल ना.

शणै गोंयबाबाचे प्रज्ञेचो आशय आनी आवेश पळयल्यार दिसता की मराठी आनी मराठण हे प्रासंगीक वा निमित्तीक संदर्भ. ते ना आयिल्ले तरी आत्मसन्मानाचो विशय हो तांगेल्या मिशनाचो विशय जावन मुखार येतलोच आसलो. धनीपणाचो विशय घेवन तांचे मिशन जल्म घेतलें आसले. धनीपणाचे भावनेंत आनी आत्मसन्मानाचे संकल्पनेंत आत्मो हो मूळ केंद्रस्थानी येता. आनी आत्मो हो चिरंतन विशय. चिरंतन विशयाचो प्रस्न येता तेन्ना तो मुल्यांकीत आसता. निमित्तीक आसना. निमित्तीक संदर्भ प्रसंगानुसार येता आनी वता. विशय चिरंतन उरता. शणै गोयबाबाच्या काळांत निमित्तीक संदर्भ येवंक नासले तरी शणै गोंयबाबाची प्रज्ञा द्रष्टेपणाचो साक्षात्कार घडयतलीच आसली.

मराठणाचो संदर्भ ओपिनिपन पोलान केन्नाच पुसून उडयलो. मराठीचो संदर्भय ल्हव ल्हव करुन क्षीण जायत चल्ला. आनी म्हूण कोंकणीची आमची चळवळ ही चड साधनेची आनी उणी संघर्शाची चळवळ जाल्या. तरीय हे चळवळींत देवपी लोकांचो आंकडो वाडत आसा. ह्या लोकांची प्रेरणा खंयची ? परकी अरिश्टांपासून कोंकणीचें संरक्षण ह्या विशयाची, कांय कोकणी मनशाच्या सर्वंगी विकासाच्या स्वतंत्र विशयाची? कोंकणी ही भास काय बोली हो विशय केन्नाच सोपून गेला.

तरीय कोंकणीची केस उबी रावता ती आतां कोंकणी मनशाची पुरुशार्थाची भास म्हणून. कोंकणी मनशाच्या आत्म्याक बळगें दिवपाचें टॉनीक दिवपी भास म्हूण. आनी हो विशय चिरंतनाचो. सद्याक अस्तित्वांत आशिल्लो उरलो सुरलो कोंकणीचो विरोध सोंपलो तरी हो विशय कोंकणीचे चळवळीचो विशय म्हणून निरंतर उरतलो, उरुंक जाय. कोंकणी समाजाची संजीवनी कशी कोंकणी भास, तिचो विशय चिरंतनाचो विशय जावंक जाय. परकी आक्रमणां येतात तेन्नाय, आनी येना तेन्नाय.

खंयच्याय क्रांतीकाराचें मुल्यमापन करतांना ताणें आपणें जावन कितले फातर परतिले हाचेर जावन उपकारा ना. तर ताणें फातर परतुपी कितले गडे निर्माण केले हाचेर जावंचें आसता. ताचेकडसून दिक्षा घेतिल्ले गडे जो क्रांतीचो वावर करतात त्या वावराचें श्रेय मूळ क्रांतीकाराक वता. वचूंक फावो. हे बाबतींत शणै गोंयबाब एक यशस्वी क्रांतीकारी. ताचो विचार व्रतसाधना कशी मुखार व्हरुन त्या विचारांक फळांची प्राप्ती करुन दिवपी गडे ताका मेळ्ळे. अशे गडे मेळप ही भाग्याची वा योगायोगाची गजाल नासता. ती गजाल आसता क्रांतीकारान दिल्ल्या विचाराच्या सामर्थ्याची. तातुंतल्यान मेळिल्ल्या मंत्राची. मंत्र दिवपी आनी मंत्र घेवपी दोगय समर्थ आसलेबगर खंयचीय चळवळ जाय तो आकार घेना. कोंकणी चळवळींत हो सुमेळ भोवच बरे तरेन सादला. समर्थ गुरुक समर्थ अनुयायी मेळ्ळे आनी दोगांचेय प्रज्ञेच्या संगपांतल्यान कोंकणी अस्मितायेचें विश्व अवतरलें. म्हणून तर अवघ्या वर्सांच्या कालखंडात कोंकणी चळवळीन विक्रमी जोड जोडली. संवसारामुखार एक आदर्श प्रस्थापित केलो. हेर भाशिकांखातीर देख निर्माण करुन दवरली.

भासशास्त्र, साहित्यशास्त्र, संशोधनशास्त्र, इतिहासशास्त्र, समाजशास्त्र अशा साबार मळांचेर शणै गोंयबाबान संचार केलो. त्या त्या मळाक आपलें अशें खाशेलें योगदान दिलें. काळाच्या प्रवासांत तांगेलें हें योगदान आपली सुवात राखून दवरतलेंच म्हणपाची खात्री दिवंक जावंची ना. दिसान दीस त्या शास्त्रांनी प्रगत बदल जायत आसात. ह्या शास्त्रांतल्या खांप्या विद्वांनाचेलेगीत सिध्दांत आउटडेटेड जावंक लागल्यात. पूण एक गजाल निश्चितपणान उरतली. ह्या शास्त्रांच्या आदारान शणै गोंयबाबान दिल्लो स्वत्त्वाचो विचार. एक भाशाशास्त्री, साहित्यकार,

इतिहास संशोधक म्हूण शणै गोंयबाब चालू सहस्त्रकांत फाटी पडत. पूण पुरुशार्थाचो दिश्टावो करपी प्रज्ञावंत म्हणून शणै गोंयबाबाचे नांव अजरामर जालां. तें अजरामर उरतलें. फकत कोंकणी समाजाखातीरच न्हय, आख्खे मनीस कुळयेखातीरय.

स्वाभिमानी कोंकणी मनशाचें दैवत ही शणै गोंयबाबाची वळख अर्दकुटी वळख जाता. शणै गोंयबावान कोंकणी समाजाक उद्देशून आपले विचार मांडिल्ले आसले, तरी त्या विचारांची व्याप्ती कोंकणी समाजापुरती समजप, हें त्या विचारांखातीर अन्यायाचें थरतलें. ते त्या विचारांचें अवमुल्यन जातलें. संवसारांतले सगलेच क्रांतीकारी विचार पयलीं लागींच्यांकच सांगप जाल्यात. ह्या आयकतल्यांची मागीर सांखळ जावन ते विचार संवसारीक जावंक पावल्यात. कांयकडेन तर घरच्यांचेचखातीर सांगिल्ली गजाल आपशींच गांवार पावल्या. थंयसून देशार आनी देशार सावन संवसारार असो तिचो प्रवास जाला. तेदे तांकीचे ते विचार आसले म्हणून हें जावंक पावलें. ज्या विचारांकडेन येदी तांक नासली ते थंयच्या थंय सुकून गेले. शणै गोयबाबाच्या विचारांत आत्मसन्मान जागोवपाची तांक आसा. हो आत्मसन्मान फकत कोंकणी मनशाचो असो समज करुंक फावना. जंय जंय आत्महीणपण पोसप जालां थंय थंय आत्मसन्मानाच्या मंत्राची गरज आसा. आनी आत्महीणपणांतल्यान वयर सरपाक उत्सूक आशिल्लो कोंकणी समाज हो एकमेव समाज न्हय. आनीकय जायते समाज, समाजांतले जायते मनीस, दुसऱ्यांच्या पोशांन उदक पियोवपांत धन्यता मानपी मेळटले. तांकां साक्षात्कारीत करुंक शणै गोयबावांचे विचार आधारभूत जावं येतात. तांतूत तशें तत्त्व आनी सत्त्व मेळटा.

शणै गोंयबाबाचे सवायशतकी जयंते निमतान, शणै गोयबाबाच्या विचारांचें पुनर्मुल्यांकन जावंक जाय. तें करताना शणै गोयबाबाक कोंकणीचो मनीस म्हणून उबो करतना ताची खरेली उंचाय दाखोवन दिवंक जाय. हाचेफुडले कोंकणी चळवळीक चडांत चड वैश्वीक संदर्भ येवंक जाय. आमच्या वावराक तेवटेनची दिका मेळूंक जाय.

शणै गोंयबाबाचो उलो आमच्या कानार सादलो. आमी धन्य जाले. ह्या उल्याची वाट पळोवपी जायते कान आसतले. तांच्या कानार हो उलो आमी सादोवया. सगल्यांकच धन्य करुया. ●

# गोंयकाराचो मुंबैकार : एक अभ्यास

*- माधव बोरकार*

शणै गोंयबाबान चडांत चड गद्य बरप केलें. इतिहास, भासाशास्त्र, कथा, नाटकां अशे वेगवेगळे साहित्य प्रकार मोटे कुशळतायेन केळयले. पूण आपले सुरवातेच्या काळांत तांणी कवितेची रचना केल्ली दिसता. 'गोंयकाराचो मुंबैकार' ही तांची दीर्घ कविता तांणी 1910 वर्सा उजवाडा हाडली आनी आपल्या साहित्य संवसाराचो आरंब केलो. हे भायर तांची 'सुंदर म्हजें गोंय' ही आनीक कविता मेळटा. तशेंच तांच्या कांय गद्य बरपाक कवितेची सया मारता. तातूंत 'मयेंचे तळें' हो तांचो जो निबंद आसा तो गद्य काव्याची अप्रूप अशी पत आसा. ह्या निबंदाची भास कवितेचो रुपकार घेवन आयल्या. हाचोच अर्थ असो की हेर गजालीं बराबर तांचेठांय एक कवीय आशिल्लो.

शणै गोंयबाबाच्या विचारांत गोंय आनी गोंयकार दीस रात वसताले. तांणी केल्लें संशोधन आनी हेर बरप ताची गवाय दिता. 'गोंयकाराचो मुंबैकार' हें दीर्घ कवीत ताका आडवाद ना. हे कवितेचो बारकायेन अभ्यास करुन पळयल्यार गद्याचो आशय तांणी कवितेंत मांडपाचो यत्न केल्लो दिसता.

ही कथा रवळू कामत हाची. हो रवळू कामत मूळ काकोडेचो. साश्टीकार बामण कुळांत जल्माक आयिल्लो. ताचो तंबाखूचो पसरो आशिल्लो. पूण ताका आपल्या व्यवसायाची लज दिसूंक लागली. चडांत चड पैसो जोडून गिरेस्त जावपाचे ताका हुटहुटे लागले. पैशे जोडपाची संद सोदतना ताका ताच्या गांवचें

मुंबयसावन आयिल्लें चिमणेआका दिश्टी पडलें. तिणें मुंबय शाराचें वर्णन करुन रवळूमुखार झगझगीत फुडाराचें चित्र उबें केलें.

मुंबयची खबर आयकून रवळू भुल्लसून वता आनी तो मुंबय वचपाचें थारायता. मुंबय वचपाचें प्रस्थान दवरल्लें तरी प्रवासाखातीर जाय आशिल्लो दुडू ताचे लागीं नासता. ते खातीर तो ताचेकडेन आशिल्लें रुप्याचें काण घाण दवरता आनी आयिल्ले सोळा रुपया किरवटीक लावन आगबोटीन मुंबय वचूंक भायर सरता. मुंबयची लखलख झगझग पळोवन ताची तानभूक न्हिवता आनी ताका ती वयांत आयिल्ली बायल कशी दिसता. मुंबय पावतकच सुरवेक तो चिमण्यागेर कांय दीस रावता. किरवटीक आशिल्ले पैशे सोपत येतात. मागीर तो पोटाखातीर वावर सोदपाक भायर सरता. पूण शिकप नाशिल्ल्यान तो पावला पावलाक आडखळटा. म्हणपासारकेली कसलीच कला ताच्या पदराक नासता. अखेर उपाय नासून तो धोडूभायकडेन रांदपी म्हूण रावता. पूण तेय काम ताका जमना आनी ताका लागून ताची फजीत जाता. इंग्लिश शिकल्यार ताचो उपेग जातलो अशें येवजून तो इंग्लिश शिकपा फाटल्यान लागता. आनी कसोयतरी करुन तो कारकून जाता. हेच बराबर ताचेभितर व्हड बदल जाता. ताचो भेस बदलता. इतलेंच न्हय तर तो रवळूचो रवळेराव जाता आनी रतनबेन हे चलयेकडेन तो लग्न जाता. हेच बराबर तो आपल्याक हेरापरस व्हड लेखून हेर गोंयकारांक हिणसायता. तांचेकडेन तिरकुच्छायेन पळयता. ताचे बायलेक तो सामकी माथ्यार चडयता, तिचे उतरान उतर आपल्या हातात झेलता. परिणाम तो रतनबेनीचो सामको बंदो जाता. रतनबेनीक कसलेंच घरकाम करपाची संवय नासता. दीसभर नटपथटप करपांतूच ती गुल्ल आसता. देखून रांदप बी वावर रवळूक करचो पडटा. ते भायर तिका मौज करपाची सवय. ताका लागून बायलेचो थातोमातो करपांत ताका आयिल्लो पैसो पावना. स्वस्ताय आसुनूय ताचे गांठीक कांय उरना. बायलेची भर करपाक तो मारवाड्याचे रीण काडटा. मुखार रतनबेन पोटाचें दुखणें जावन मरता. रवळू मारवाड्याचे रीण फारीक करूंक शकना. निमाणे रिणकारी कोर्टांत वतात. तो रीण फारीक करुंक पावना आनी आपलें नाक कापून घेता. ताचे इश्ट सोयरे धायरे ताका विचारीनात आनी मदतीचो हात मुखार करिनात. ताका मुंबय शाराचो वीट येता आनी तो गोयां वचपाचो ध्यास घेता. केल्ले करणेचो ताका पश्चाताप जाता. आनी तो मुंबय सोडून बेतीवेऱ्यां पुंडलीक नायकागेर येवन रावता. तागेल्या पसऱ्याचेर वावर करून दीस सारता.

कथनात्मक शैलींत (narrative mode) बरयल्ली ही कविता गोंयकारांक उपदेश करता. तो म्हळयार संवसाराचे फाटीर खंयूय पावलो तरी आपले मायभूंयेक, आपल्या दायजाक केन्नाच विसरचें न्हय. ही कविता गद्याचो आशय पद्याचो रुपकार घेवन आयल्या. शणै गोंयबाबान हांगा आपले विचार मांडपाक गद्याचो आलाशिरो कित्याक घेतलो जायत, ताची नाट मेळना.

हे कवितेक सामाजिक आनी आर्थिक संदर्भ आसात ते लक्षांत घेवंक जाय. गोंयकारानी विंगड विंगड सुवातांनी स्थळांतर केलें ताका आर्थिक संदर्भ आसा. चड करुन नव्यो संदी सोदपाच्या हेतून चडावत गोंयकार मुंबय सारकिल्या शारांनी स्थळांतरीत जाले. रवळू होय तातूंतलोच एकलो गोंयकार. कांय गोंयकार गोंयापासून पयस पावतकच आपलें नीज आनी अस्मिताय विसरतात. ह्या दोशाचेरुय शणै गोंयबाब अचूक बोट दवरता. गद्याची कालेत आशिल्ल्या ह्या आशयाक कवितेचो रुपकार दितना शणै गोंयबाब कांय अलंकार वापरतात. चड करुन उपमांचो वापर चड केल्लो दिसता.

हिरो कसोसो कोंजणांतलो । हांव कुळामदि सोबुं लागलों । चंद्रिम जसो पुनवेकडलो। हांव तसो वाड्ूंक लागलों ।

तशेंच मुंबय शाराचें वर्णन करतना ते म्हणटात

भौचबरी ती मुंबै आमची । लंखा मोटेली रत्नांची । गाडी चलता दिस रातीची । मारग थैं येत्या-वेत्यानी । फुल्लेशे दिस्तात फुलांनी । अशी गच्च तांडी लोकांची । वाट जायना मुळीं मुंयेची ।

दर्यांत उबी आशिल्ल्या तारवांचें' ते अशें वर्णन करतातः पंगत तारवांचेर दिव्यांची। अहा! जशीं कुस्कुरां जरीचीं । पांगुरल्या ती नीळ रंगाची । शाल उंच भौ ही मळबाची । चंद्रीम मदीं तिचेर मोटो । नक्षत्रांचो घेर चोंवटो

अशा वळींनी कवितेचो आशय भरिल्लो आसा. गोंयकार मराठी लेखकांनी अशे तरेच्यो कविता मराठींत रचल्यो. तातूंतलें हें वि. का. प्रियोळ्‌कार हांचें 'देमांदमहात्म्य' आसा. पूण ताची रचना 'गोंयकाराचो मुंबैकारा उप्रांतची. शणै गोंयबाबाली प्रतिभा साहित्याच्या वेगवेगळया प्रकारांक कशी भिडटाली ताची गवाय म्हळयार 'गोंयकाराचो मुंबैकार' ही दीर्घ कविता. ●

# शणै गोंयबाब आनी गोंय राज्य

*- तुकाराम रामा शेट*

**वा**मन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार 23 जून 13877 दिसा दिवचले गांवांत जल्मल्ले गोयचे व्हड सुपूत. 'शणै गोंयबाब' हे नांव धारण करून राजकारण, भासकारण, साहित्य, इतिहास अश्या खुबश्या मळांचेर कर्तृत्व गाजयतें. 'शणै' म्हणजे गुरू. ताणी गोयकारांक गुरूभाशेन गोयचो भूतकाळ, वर्तमान काळ आनी फुडार हांचेविशी मार्गदर्शन केले आनी 'शणै गोयबाब' हे नांव सार्थ केलें.

शणै गोयबाब आधुनीक कोंकणी साहित्याचे शिल्पकार आनी कोंकणी भाशेचे प्रणेते अशे आमी मानतात. तशेंच तांच्या जिविताक कितलीशींच तासां आसली. तातूंतलें एक चकचकीत तास म्हणजे, ते एक खडेगांठ इतिहासकार आसले. ते इतिहासाचे चिकित्सकय आसले. आपले दरएक म्हण्णे ते दाखल्यासयत पटोवन दिताले. गोयच्या इतिहासांत कितें घडलें आनी ताचे बदला किते घडूंक जाय आसलें आनी फुडें कितें घडटलें हाचो दिश्टावो तांकां जाल्लो. ते चिकित्सक इतिहासकार आनी विचारान आनी दूरदिश्टीन राजकारणी आसले.

गोयचेर चडसो काळ भायल्याच राजांचो शेक आसलो. विजयनगरचे राजे, बहामनीचे सुलतान, विजापुरी सुलतान हाणी गोयचेर राज्य केलें. तांच्या उपरान्त आल्बुकेर्कान गोय जिखून पोर्तुगेजांची सत्ता गोयचेर घट केल्ली. हो इतिहास तांच्या दोळयामुखार आसलो आनी ह्या इतिहासाविशीं आपल्या बरपांतल्यान आनी भाशणातल्यान ते परत परत सांगताले. परकी सत्तांनी गोंयचेर राज्य केलें ही खंत शणै गोयबाबाच्या काळजाच्या कुर्कुटांत आसली. 'आल्बुकेर्कान गोंय

कशें जिखलें ?' ह्या तांच्या इतिहासाच्या पुस्तकांत ते बरयतात. '....अशे भाशेन आल्बुकेर्कान जिखिल्लें आमचें गोंय आज एक सारकें चारशीं वर्सां पुर्तुगालच्या शेकातळा आसा!....' (सप्टेंबर 1910)

भारत देशा वांगडा गोंय केन्ना ना तरी केन्ना स्वतंत्र जातलेंच हें तांका खबर आसलें. पूण परतें तें शेजारच्या राज्याचे भकीक पडत, परत गोंयकारांच्या नशीबांत बंदेपण येत म्हूण तांका भिरांत आसली. ते बरयतात. '.......आनी मागीर? ती सत्ता आपणाल्या हातांत घेवन धनीपणान गोंयचो कारभार चलयतले कि दुसऱ्याचे सुवादीन तो करून आपूण तांगेले बंदे जातले' ?

ते बरयतात..

'हिन्दुस्तानाक स्वराज्य मेळटकूच हांगेलो हावेस इतलोच दिसता कि मराठणाक गोंय दसोवन मराठ्यांचें आनी मराठी भाशेंचें चेपण आपणाल्या माथ्यार घेवचें आनी अडेचे 'मराठी' म्हणोवन सासणाची सासणा बंदेपणांत काडचीं! दमणगंगेसाकून मलबार मेरेन सगळो कोंकणदेस हातांत घेवन, हिन्दुस्तानाचे मुखेल सत्तेतळा ताचो कारभार कोंकणी भाशेत खासाखवान चलोवचो आनी आपणाल्या घरां-दारांत आपणे धनीपणान नंदचें, हें हांगेल्या सपनांतूय येना! हांका बंदेपणाचीच रूच! राजकारणांत, भासकारणांत आनी धर्मकारणांत हे फांपरमुठके बंदेच रावतले म्हण्टात! हांका स्वतंत्र कोण करीत!'

भाशीक, साहीत्यीक, इतिहासीक हावेसापरस शणै गोंयबाबाचो राजकीय हावेस चड खर आसलो. तेंच तांचे निमणें साध्य आसलें. कोंकणी भाशा आनी साहित्य हे सगलें ते गजालीक पुरक अशें आसलें. म्हणून तांणी गोंयकाराच्या मनांत धनीपणाची आनी पुरुशार्थाची भावना जागयली. धनीपणाची भावना आसलेले पुरुशार्थी लोकच राज्य करतात हें तांका इतिहासावयल्यान खबर आसलें. राजकारणाक ताणीं वयली सुवात दिल्ली. 'आज आमी राजकारण, धर्मकारण आनी भासकारण हातूंत सुतकी जाल्यात. आमी पेल्यान रावन कोणाक आफडीनात, हेर लोक कितें करता तें मोन्यानी पळयतात आनी तांगेल्या बंदेपणांत वावुरतात.' अशे सांगून ते कोंकणी मनशाक धोंगशिताले.

खंयच्याय राज्याक ताचो आंवाठ आसता, शिमोमेरो आसता. 1927 वर्सा मुंबयच्या सारस्वत ब्राह्मण समाजांत 'ग़ोंयकारांची गोंयां भायली वसणूक' ह्या

विशयाचेर उलयताना गोंयचो विस्तार आनी आंवाठाविशी ते सांगतात '.....तुर्तीक पुर्तुगेजांचे सत्तेतळा कोंकणांतली जितली भूंय आडावल्या तितलेंच गोंय म्हणपाचो समज जाला... 1555 वर्सा आप्रिलाचे 30 वेर, तिसवाडच्या धाकटें गोंयच्या किल्ल्यांत व्हिसरै पेद्र मास्कारेन्जस आनी विजापूरचो आदिलशाहा राजपूत अबदुल्ला हांचे भितर जें लिखीत जालें, तातूंत पंद्राव्या शेकड्याचे अखेरेक, मुसलमानाच्या शेकातळा गोंयचो विस्तार केदो आसलो म्हणपाचो मजकूर आयला. तातूंत म्हळां कि ते मुस्तीत, दक्षिणेक चिताकुल्याचे म्हणचे आतांचे सदाशिवगडालागशिल्ले काळे न्हयेसाकून उत्तरेक आचरेंचे न्हये मेरेन आनी पूर्वेक घाटासाकून पश्चिमेक समुद्रामेरेन सगलें कोंकण गोंयच्या धनीपणातळा आसलें. त्याभायर दाभोळ आनी ताच्या आंवाठांतले मुलूख होय हे शिमे-मेरेन आस्पावतालो....?' सातूय कोंकणांत गोंयची योग्यताय सांगून फुडें बरयतात, '.....पुर्विल्ल्या काळासाकून गोंयचें आनी तातूंतय तेरेखोलासाकून मुडगिरी मेरेनचे सुवातेचे म्हत्त्व, पुराणाचे आनी इतिहासाचे नदरेन मोठें आसलें म्हणपाचें सिध्द जाता आनी हें महत्त्व अजून उणें जावंक ना म्हणपाचें येवजून म्हाका आमचे भुंयेचो मोटो अभिमान दिसता. आमची भूंय आकृतायेन आनी आंवाठान जरी ल्हान आनी मोटवी दिसली तरी हावेसान मोटी आसा. विद्या, लक्ष्मी आनी शक्ती ह्या सुंदर भयणींचें कुळार आसा.' राज्य जावपाक समृध्दी, बळगे तशेच राज्यांतले लोक विद्वान आसचे पडटा म्हणूनच ताणी गोंय हे लक्ष्मी, शक्ती आनी विद्या ह्या सुंदर भयणीचे कुळार आसा हे नोंद केलां.

गोंयकारांक आपूण कोण आनी आपली व्हडवीक केदी म्हणपाची वळख मेळपाखातीर ताणी मुंबय व्याख्यान माळेंत व्याख्यान दिलें आनी तांतुतल्या भाशणांचें 'गोयकारांची गोयाभायली वसणूक' हें पुस्तक उजवाडाक हाडलें. गोंयाभायर गोयकारानी राजकारण, अर्थकारण, वेपार अश्या वेगवेगळ्या मळांचेर पुरुशार्थ दाखोवन नामना जोडल्या हे ताणी नांवासयत आनी तांच्या कर्तृत्वासयत दाखोवन दिले. तशेच वेपारी आनी राजकारणी राम कामती, संमोहन-शास्त्राचे म्हालगडे जाणकार आबे फारीय ह्या व्हड गोयकार व्यक्तीमत्वांचेर पुस्तकां बरोवन गोंयकारांक स्फूर्त आनी उर्बा दिली. गोयकारांचो उज्वल भूतकाळ चित्रायलो.

केन्ना केन्ना शणै गोयबाबान गोयकारांक सुस्त आनी मेंगे म्हणून कुटल्यो मारल्यात. गोंयकार खांब्या-खुऱ्याचे कश्टी लोक जांवचेखातीर तांका आळशी, आयतेखायरे म्हूण धोंगशिल्या. गोयकारांच्या वर्तमान परिस्थितीचेर उजवाड

घातला. चालू वायट दशेतल्यान वयर सरचे खातीर गोंयकारांच्या आत्म्यांक तांणी सादयल्यात.

गोंयकारांमदी आशिल्लें आत्महीणपण वचूंक तशेंच तांच्या मदी आत्मविश्वास आनी अभिमान बळावपाखातीर ताणीं उमेद दिवपी बरप केलें.

गोंयकार हे गोंयचे धनी... गोंयचें राजा अशें सांगून तांच्या पांयांत भुंयेचें बळ दिलें आनी तांच्या दोळयांत फुडाराचीं सपनां दिलीं.. फुडाराक गोंयचें वेगळें राज्य करपाचे हावेस दिलो.

गोंयचे विशी चिंत्ताना आनी बरयताना तांची उर्बा आनी आत्मविसाचीं उतरां 'अमृताचो पावस' जावन येता. 'नवें गोंय पोरण्या गोंयांतसुनूच वयर सल्लां. ताच्या आंगांतलो कस मोटो. तसो हावेसय मोटो. आपूण उपाट सुखी जावन सगळो संवसार उपाट सुखी करचो ही ताची मोटी वान्सा. त्याखातीर तें कसलेंय साहस करीत... जीव म्हळयार गोडाचो बांदो कसो जे लेखिनात, मर्णाक भियेनात, जे संकष्टाची पर्वा करीनात, वेळाकाळार वाग वांसवेलाचे दाडेत हात घालूक जे गणमणनात, आपणाले लागणूकेकडसून जे केसभर फाटी सरनात, जे फुडें घाल्लो पांय फाटी काडिनात, जे कोणाकूच बाडगनात. जे केन्नाच निर्णनात, जे कित्यानूच निर्शेनात, जे परक्यांच्या पोशान उदक पियेनात, जे परक्यांच्या मेंदूत येवजिनात, जे परक्यांल्या तंत्रान चलनात,.... जे आपलेपणाच्या अभिमानान लकलकतात जे व्हडविकेच्या उंच हावेसान फुरफुरतात, जे खाशेले कर्तुत्वदशेन वयर सरूंक सोदतात, जे सह्य पर्वतासारके मनाचे थीर, जे गोमन्त समुद्रासारके बुद्दिचे खोल, असल्याच जुंवान गड्यांची ताका तोखणाय दिसता. असल्याच गड्यांक हातांत धरून आपल्या आनी संवसाराच्या बऱ्याक वावुरचेली ताका मोटी उमेद आसा. ही तांगेली इत्सा तडीक वचून सगळो संवसार सुखान नंदू अशें हांव मागतां.'

भारत देशाचे राष्ट्रगीत गायताना आमच्या मनांत उर्बा येता. देशाविशीच्या अभिमानान हड्डें फुलून येता तशेच गोंयचो गौरव गायन करपी 'म्हजे गोंय' ह्या गितान गोंयकारांची मान अभिमान वयर सरता. शणै गोंयबाबान **गोंय राज्याखातीर वाठार दाखयल्लो, भास सांगली, गोंयकार गोंयचो धनी म्हूण सांगलें तशेच गोंयकाराक स्फूर्त दिवपी, 'गोंय गीत' दिल्लें.**

**म्हजे गोंय**

गोड म्हजे गोंय! सुंदर म्हजें गोंय!

पुर्विल्लें नामनेचे, चड मोट्या भाग्याचें,

उंच माथें कोंकणाचें, हें म्हजें गोंय!

निजाचे अपुरवायेचें, इंद्रनीळ मळवाचें,

भांगराच्या ओताचें, रुप्याच्या चांदन्याचें,

**हें म्हजें गोंय!**

पथीक उदका-वाऱ्याचें, चकचयाळ पिकावळींचें,

सोबीत फुलां-फळांचें शिटूक सावदां-सवण्याचें,

**हे म्हजें गोंय!**

उजळ संस्कृतायेचे, खरेल्या कुळवंतांचें,

उदार मनाच्या लोकांचे, पाटांगड्या विद्वानांचे,

बळिष्ट झुजाऱ्यांचे, बुदवंत राजकर्ण्यांचें

वावराड्या कामवटांचे, कर्तृत्वी मनशाचे

**हें म्हजें गोंय!**

धरतेवयलो सर्ग, हें म्हजें गोंय!

सासणाचे सुख-दिणे, हें म्हजें गोंय!

गोंय वयर काडपाक **गोंयकारांच्या एकवटाक** ताणीं म्हत्व दिलें. हिन्दू-खिस्तांवांक जोडपी कोंकणी भाशेचो ताणी पाखो घेतलो. खिस्तांव लोकांचेर वोगीच केल्ली टिका तांका सोसनासली. कोंकणी भास एकरुपी जावपाक देवनागरीचो हट धरपी शणै गोयबाबानी खिस्तांव लोकांक कोंकणी साहित्य वाचूक मेळचे म्हूण ताणीं रोमी लिपयेतल्यान खुबूच साहित्य बरप केलें. समस्त गोंयकारांच्या एकवटाखातीर ते एका उलोवपांत सांगतात, '..आमी गोयच्या चारुय जातिनी आनी पोटजातिनी एकाच वेळार बामण, क्षत्रिय, वाणी आनी

सुदीर जावंक कित्याक वावुरचें न्हय? वेदांची आनी उपनिषदांची फोडणिशी करपाचें जितले हक आपणाक आसा तितलेच तलवार वावुडपाचें, तागडी धरपाचें, गोरवां राखपाचें, शेतकामत करपाचें आनी सगळया जातींची चाकरी करपाचें हक आपणाक आसा अशें जणएकलो गोंयकार आपल्या मनाची खात्री करून ते भाशेन वावरूंक लागलो जाल्यार आमी आनी आमची भूंय कळाव लागनासतना व्हडविवेक पांव आनी सगळया संवसारांत देख घेंवक फावोशें जांव?' गोंयची भूंय व्हडविकेक पावोवपाक तांका गोंयकारांचो एकवट जाय आसलो. हो एकवट आमकां आजूनय जाय.

शणै गोंयबाब फुडार तेळपी आसले. गोंय स्वतंत्र जातकूच कांय महाराष्ट्रीय आनी कांय गोंयकार मेळून गोंयाक महाराष्ट्रांत विरगळावपाचो यत्न करतले हाची तांका खात्री जाल्ली. कांय गोंयकार आनी महाराष्ट्रीय कोंकणी ही मराठीची बोली अशें सांगून गोंयाक बंदेपणांत घालपाचे यत्न करताले, हेय ताणी अणभवल्लें. ते कोंकणी विरोधा आड रावले. कोंकणी ही स्वतंत्र भास ती मराठी पासून वेगळी हे ताणी पटोवन दिलें. कोंकणी साहित्याची निर्मणी केली. कोंकणी भाशेत सगळे तरेचे बरपावळ करपाची तांक आसा हेय दाखोवन दिलें. **कोंकणी भाशेवरवी गोंयच्या वेगळया स्वतंत्र राज्याचो विचार दिलो आनी त्या विचाराक तर्कसंगत बुनयाद दिली.**

शणै गोंयबाबान गोंयचो इतिहास सांगलो, गोंयकारांमदी धनीपणाची आनी पुरुशार्थाची भावना जागयली. तांच्यात स्वत्वाची कीट फुंकली, एकवट जागयलो, कोंकणी भाशेवरवी आनी संस्कृतायेवरवी अस्मिताय जागयली, गोंयची भुगोलीक तशेच राजकीय जागृताय हाडली, कोंकणी ही मराठीपासून वेगळी, गोंय हें मराठणापासून राजकीय आनी भुगोलीक नदरेन वेगळें हे दाखोवन दिलें. आनी गोंयच्या स्वतंत्रपणाचो धोल वाजयलो. ते धेकान सांगतालें, 'जे घटकेक हिमालयासाकून कन्या-कुमारीमेरेन आनी कराची साकून ब्रह्मदेसामेरेन सगळें भरतखंड स्वतंत्र जायत तेच घटकेक आमचें गोंयूय आपशीच स्वतंत्र जातलें आनी भरतखंडाचें एक इंद्रीय म्हणून ताच्या विशाल कारभारांत स्वतंत्रतायेन आंग घालतलें.... स्वतंत्रताय जोडचेखातीर गोंयांक मराठणाचो कुडको जावपाचे अपेसपण करचें निखालूस कारण ना. गोंय हें मराठणाचो कुडको केन्नाच नासलें,

आतां ना, फुडाराक जांवचेंना आनी जावंक फावना.' **सगळे गोंयकार एक जावन कोंकणी भाशेचे स्वराज्य भोगपाचो ताचो उर्बेभरीत हावेस आसलो.**

भारत स्वतंत्र जांवचें पयलीं 9 एप्रील 1946 दिसा तांची जिणे-ज्योत पालवली, तरी तांच्या बरपावळीतल्यान लेखकांक, पत्रकारांक, कोंकणीभक्तांक, राजकारणी फुडाऱ्यांक, गोंयकारांक स्फूर्त मेळ्ळी. 19 डिसेंबर 1961 दिसा गोंयची सुटका जाल्या उपरान्त शणै गोंयबाबाक दिसतालें तशेंच घडपाक लागलें. कांय राजकारणी महाराष्ट्रीयांनी गोंय महाराष्ट्रांत विर्गळावपाचे यत्न चलयले. तांका गोंयच्या महाराष्ट्रीय धार्जिण्या लोकांचो पालव मेळ्ळो. तशेच बरेच लोक गोंयचें स्वतंत्र अस्तित्व राखपाक सोदताले. गोयचो हो प्रस्न सुटावो करपाखातीर भारत सरकारान 16 जानेर 1967 दिसा लोकांचो ओपिनियन पोल घेतलो. ह्या ओपिनियन पोलांत गोंयच्या लोकांनी कोणाक बाडगनासताना गोंय केंद्रशासित प्रदेश म्हूण स्वतंत्र उरचेखातीर इतिहासीक कौल दिलो. गोय महाराष्ट्रापासून वेगळें उल्लें. गोंय स्वतंत्र उरचें, हो शणै गोयबाबाचो राजकीय हांवेस जो लोकांचो हांवेस जाल्लो तो साध्य जालो.

1977 साल हे शणै गोयबाबाचें जल्मशताब्दी महोत्सवी वर्स अख्ख्या गोयांत मनयलें. तातूंत कोंकणी लेखक, कोंकणी भक्त, वावुरपी, राजकीय फुडारी हांच्या वांगडा लोकांनी वांटो घेतलो. महोत्सवांत शणै गोयबाबाचें जिवित, वावर आनी हावेस हाचे विशीं लोकांक माहीती दिली आनी ताकां उर्बा हाडली.

'गोंय केंद्रशासीत प्रदेश' हे दुसऱ्या पांवड्यावयलें भारतीय नागरीकत्व, लोकांक चड करून शणै गोंयबाबाच्या शिष्यांक आनी बरोवप्यांक मानवनासलें. पूर्ण दर्जाचे भारतीय नागरीकत्व मेळपाखातीर गोंय घटक राज्याची मागणी पोटतिडकेन जाली. भारतांत भाशीक तत्वाचेर राज्यांची आंखणी केल्या. कोकणी भाशेचेर आदारीत गोयाक घटक राज्य मागपाक रजांव आसलें.

गोंयकांराच्यो तीन मुखेल मागण्यो आसल्यो -

1) कोंकणी गोयची राजभास 2) गोय घटक राज्य 3) कोंकणी भाशेचो संविधानाच्या आठव्या परिशिष्ठांत आस्पाव. ह्या तीन मागण्या खातीर 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' ही लोकांची संस्था स्थापन जाली. हे संस्थेन व्हडले आंदोलन उबाल्लें आनी जैतिवंत केलें. लोकांचे इत्सेक मान दिवपाक म्हूण मागीर गोंय

सरकारान 4 फेब्रुवारी 1987 दिसा कोंकणी राजभास करपी विधेयक मानून घेतलें.

उपरान्त 30 मे 1987 दिसा गोंय हें भारताचें 25 वें घटकराज्य म्हूण केंद्र सरकारान थारायलें आनी संसदेची म्होर घेतली. ते उपरांत 1992 ऑगस्टचे 20 तारकेर कोंकणी भाशेक भारतीय संविधानाच्या आठवे वळेरीत आस्पावन घेवपाक भारतीय संसदेन मान्यताय दिली. अशे तरेन गोंय हें राज्य वेगळे उरून कोंकणी भाशेचें घटक राज्य जालें. गोंयकारांच्या भाशेक आनी राज्याक पूर्ण दर्जाचो मान लाभलो. शणै गोंयबाबाचो हो हावेस जो सगळया गोंयकारांचो जाल्लो, तो हावेस रुपकाराक आयलो. हें राज्य चलोवपाक गोंयकारानी लोकशाय पध्दतीन वेंचून दिल्लें सरकार आसा!

शणै गोंयबाबाचें हें सपन पुरायतरेन प्रत्यक्षांत आयला कांय ? ताचे सगळे हावेस पूर्ण जाल्यात कांय ? कोंकणी भाशेंचे स्वराज्य भोगपाचें साध्य जाला कांय ? भाशेच्या तत्वाप्रमाण कोंकणी भाशीक वाठार गोंय राज्याच्या आवाठांत आयला कांय ? हे कांय प्रस्न आजून आसात. गोंय राज्यांत समाविश्ट जावपाक गोंय कुशीकच्या अस्सल कोंकणी वाठाराक 'सैमीक न्याय' मेळपाक जाय. गोंय राज्य हें सगळया गोंयकारांचें. सगळया गोंयकारांनी एकवटान रावन सगळया गोंयकारांखातीर गोंय राज्य धनीपणान आनी पुरुशार्थान चलोवपाक जाय. शणै गोंयबाबान सांगल्याप्रमाण स्वराज्यांत राजकारणाक घटाय हाडूंक वेपार, उद्देग करपाक जाय. कोंकणी भाशेचें स्वराज्य भोगून गोंयचे माथें भारतांत आनी संवसारांत अभिमानान वयर सरपाक जाय तशेच संसाराच्या बऱ्याक उमेदीन वावरूंक मेळपाक जाय.

संदर्भ : 1) गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक

2) आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें ?

3) वज्रलिखणी

4) नव्या घडामोडीत लेखकाचो सहभाग.

# शणै गोंयबाब : भाशेच्या समाजशास्त्राचे नदरेंतल्यान

*- प्रा. माधवी सरदेसाय*

1959 वर्सा चार्ल्ज फर्गुजन हांगेलो डायग्लॉसिया हो सोद-निबंद उजवाडा आयलो आनी भाशेच्या समाजशास्त्रीय अभ्यासाक एक नवे मळ उकतें जालें. डायग्लॉसिया म्हळयार एक विचित्र भाशीक परिस्थिती. डायग्लॉसीक समाजांत लोकांचे जिबेर घोळपी भाशेच्या सभावीक बोलयांचेर लोकांचे जिबेर घोळच नाशिल्ले एके आदले वा समाजा भायले बोलेयेचो शेक चलता. समाज सभावीक बोलयांक 'सकयल्यो' बोलयो लेखता आनी असभावीक बोलयेक 'ऊंच' मानून माथ्यार बसयता फ्रेंच भाशेंत असल्याच अर्थान घोळणुकेंत आशिल्ल्या उतराच्या आधारान फर्गुजनान हें 'डायग्लॉसिया' उतर घडयल्लें. तांगेलो डायग्लॉसियेचो अभ्यास अरबी, ग्रीक, स्विस-जर्मन आनी हायशियन-क्रियोल ह्या चार भाशीक समाजांतले भाशीक परिस्थितीचेर आधारिल्लो आशिल्लो. हांतुंतले अरबी आनी ग्रीक भाशीक समाज आदले - अभिजात बोलयेक ऊंच लेखतात जाल्यार स्विस-जर्मन आनी हायशियन-क्रियोल भाशीक समाज भायले प्रमाण बोलयेक मान दितात. ह्या चारूय समाजां भितर जित्यो जिव्यो जिबेर घोळपी थळाव्यो बोलयो सकयल्या पांवड्याच्यो बोलयो जावन उणेपण घेवन जियेतात.

फर्गुजन डायग्लॉसियेचीं णव खाशेलपणां दितात -

1. डायग्लॉसीक समाजांत 'वयली' बोली आनी 'सकयल्या' बोलयां भितर

कामाची वांटणी जाल्ली आसता. देखीक, इगर्जेंतलीं वा मशिदींतलीं प्रवचनां, सभेमाजार केल्लीं उलोवपां - हांतूंत फकत 'वयले' बोलयेकूच रीग मेळटा. घरांत वा भायर, अनुपचारीक खबरांनी 'सकयल्यो' बोलयो घोळटात. 'प्रतिश्ठीत' साहित्याच्या मळार चडशी 'वयली' बोलीच दिश्टी पडटा. खाजगी पत्रांय 'वयले' बोलयेंत बरयतात. लोकसाहित्य मात 'सकयल्या' बोलयांनी मेळटा. शिक्षणाच्या मळार माध्यम म्हूण वयली बोलीच मिरयता. फर्गुजन बरयतात, कांय अरब राष्ट्रांनी माध्यमीक शाळांनी शिकयतना 'सकयल्या' बोलयांचो वापर करपाचेर कायद्यान बंदी आसतनाय शिकयल्लें सारकें समजावन सांगपा खातीर शिकोवप्याक 'सकयल्या' बोलयांचो आधार घेवचो पडटा.

2. डायग्लॉसीक समाजाचे नदरेन 'वयले' बोलयेकूच प्रतिश्ठा आसता. इतलेंच न्हय, तर जायते फावटीं उलोवप्यांचे नदरेन फकत 'वयले' बोलयेकूच अस्तित्व आसता. फर्गुजनान दिल्ल्योच देखी घेवंया - एक अरबी भाशीक दुसऱ्या खंयच्याय अरबी भाशिकाक 'अरबीच येना' म्हणटा तेन्ना ताचो अर्थ, ताका 'वयली' बोली येना असो आसता. हेच भाशेन, शिकिल्लो सवरिल्लो हायशियन क्रियोल भाशीक आपणाक फ्रँच भाशिकूच लेखता; आपूण सदां फ्रँचूच उलयता अशें तो मानता. 'वयली' बोली सारकी उलोवंक लेगीत नकळ आशिल्ले तिका 'सकयल्या' बोलयां परस अदीक सुंदर, म्हत्त्वाचे विचार मांडपाक अदीक योग्य बी मानतात.

3. 'वयले' बोलयेकडेन लिखीत साहित्याचें गडगंज दायज आसता. समकालीन साहित्याचेर ह्या दायजाचोच धेंक चलता. 'वयलें' बोलयेंतल्या ज्या साहित्या कडेन भाशीक समाज आदारान पळेता तें एक तर आदल्या काळांत निर्माण जाल्लें साहित्य आसता वा, डायग्लॉसीक भाशीक समाजाभायर निर्माण जावपी समकालीन साहित्य आसता. अरबी आनी ग्रीक भाशीक समाजांत आदल्या काळा वयल्या साहित्याची सत्ता चलता जाल्यार स्विस-जर्मन आनी हायशियन-क्रियोल समाजांत, अनुक्रमान, प्रमाण जर्मन आणि प्रमाण फ्रँच बोलयेंत निर्माण जावपी साहित्याचो शेक चलता.

4. 'सकयल्यो' बोलयो भुरगीं घरगुती वातावरणांतल्यान आघले आपूण शिकतात. 'वयली' बोली तांकां उपचारीकपणान शिकची पडटा.

5. 'वयले' बोलयेक व्याकरणीक अभ्यासाचें दायज आसता. तिचें प्रमाणिकरण जाल्लें आसता. 'सकयल्या' बोलयां भितर वेगळेपणाक खूब वाव आसता. ह्या

बोलयांचीं बरयल्लीं व्याकरणांय चडशीं आसनात. आसलींच जाल्यार तीं चडशीं भायल्या जाणकारांनी, भायल्या भासांनी बरयल्लीं आसतात.

6. शेंकड्यांनी वर्सां समाजांत डायग्लॉसिया उरूं येता. फर्गुजन म्हणटात, कांय समाजां भितर डायग्लॉसियेन हजारभर वर्सां हुपल्यांत म्हणपाचें दाखोवं येता.

7. 'वयली' बोली आनी 'सकयल्यो' बोलयो हांचे भितर व्याकरणी बांदावळीचीं खूब वेगळेपणां आसतात.

8. 'वयली' बोली आनी 'सकयल्यो' बोलयो हांचे भितर समान उतरावळ खूब आसता. जांकां 'सकयल्या' बोलयांनी समानअर्थी उतरां मेळनात अशीं फकत 'वयले' बोलयेंत मेळपी कितलिंशी उतरांय वेगळीं काडूं येतात. तशीं, जांकां 'वयले' बोलयेंत समानअर्थी उतरां मेळनात अशीं फकत 'सकयल्या' बोलयांनी मेळपी कितलिंशी उतरांय पेल्यान काडूं येतात. उतरावळीचें हे वेगळेपण भाशेच्या वापराच्या मर्यादांक लागून आयिल्ले वेगळेपण. पूण डायग्लॉसियेत आनीक एक गजाल पळोवंक मेळटा - 'वयले' बोलयेतलीं उतरां आनी 'सकयल्या' बोलयांतलीं उतरां अश्यो कितल्योश्यो समानअर्थी उतरांच्यो जोडयो आमच्यांनी लावं येतात. देखीक 'वयले' ग्रीक बोलयेत 'वायन' म्हळयार Inos 'सकयल्या' ग्रीक बोलयांनी वायनाक Krasi म्हणटात. हॉटेलांतल्या मेनू कार्डार गिरायक Inos वाचता आनी Krasi हाडपाची ऑर्डर दिता.

9. दोनूय तरांच्या बोलयांच्या मुळाक नादांची एकूच बांदावळ आसता. 'सकयले' बोलयेची नादवेवस्ताच मुळावी आसता.

पयसुल्ल्या अरबी, ग्रीक, स्विस-जर्मन आनी हायशियन क्रियोल समाजांच्यो देखी घेवन केल्ली ही डायग्लॉसियेची विसकावणी. हे विसकावणेच्या हारशांत कोंकणी समाजाक, चड करून, गोयकार हिंदू कोंकणी समाजाक आपणालेच आदलें रूप दिश्टी पडले बगर कशें रावतलें?

सवायशें वर्सां फाटीं वचुंया -

ज्या गोंयांत वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार जल्मल्लो तांतूत गोंयकार

हिन्दू मनशाची दिसपट्टी भाशीक जीण 'प्रमाण मराठी' आनी 'कोंकणी बोली' ह्या दोन भाशीक रुपांनी वांटून गेल्ली.

प्रमाण मराठी 'वय़लीं' भाशीक मळां आडावन बशिल्ली, कोंकणी 'सकयल्या' मळांचेर घोळटाली. घरांत तशे भायर लोक एकामेकांकडेन कोंकणींतल्यान उलयताले. पूण सभेमाजार वा माचये वयल्यान उलोवचें जाल्यार मराठींतल्यान उलोवंक लागताले - कोंकणी खबरांची, चकाटांची 'बोली' आशिल्ली, मराठी भाशणांची, माचये वयल्यान सुचोवण्यो बी दिवपाची 'भास' आशिल्ली. बरोवपाची भासूय मराठीच आशिल्ली. शणै गोंयबाबान दिल्लीच एक देख दिवची जाल्यार, गोंयकार हिंदू पसरकारा कडेन 'गोड' विकतें मागतालो आनी पसरकार ताका तें 'गोड' म्हणुनच दितालो. पूण आपणाले हिशेबाचे पटयेर मात 'गूळ' बरयतालो (*कोंकणी भाशेचें जैत* 1930 : 39) खाजगी पत्रांय मराठींत बरयताले, व्हांवळीक पत्रां, आमंत्रण पत्रां मराठींत छापताले. कोंकणींत लोकवेद आशिल्लो. पूण कथा, कविता, नाटकां, निबंद बी 'प्रतिष्ठित' बरयल्लें साहित्य मराठींत आसतालें. हांतूंत कोंकणी आयलीय जाल्यार ती भाशेंत थळावे रंग भरपाक, चड करून नाटकां, नाटकुल्यांनी पात्राच्या तोंडांतल्यान येताली. खबरेपत्रां, नेमाळीं मराठींत आसतालीं. हांतूंत कोंकणींतल्यान जायरात दिली जाल्यार ती छापपाक संपादप्यांक धीर जायनाशिल्लो. (हो उल्लेख '*मोगाचें लग्न*' पुस्तकाक बरयल्ल्या संपादप्यांल्या 'सुरवेच्या उतरां'तलोः *मोगाचें लग्न* (तिसरी उजवाडावणी 1989 : 5-10).

आदल्या 'हिंदू गोंया'त मराठीक प्रतिष्ठा आशिल्ली जाल्यार कोंकणीक 'हेंगाडी' लेखताले. '*मोगाचें लग्ना*' तलो बाबगो ह्या गोंयचो एक प्रतिनिधी. तो म्हणटा, 'हळद लागली तुमचे ते भाशेक. हेंगाडी भास खैंची. तिका भास हें उतर सोबता गा तरी? म्हाका जाल्यार ते भाशेचो दोळे फोडून राग येता. पणून आसूं. भँगू म्हणून हांव ती उलैतां...' (*मोगाचें लग्नः* 49, 50) हिंदू कोंकणी उलयताले. पूण आपणाक मराठी भाशीक मानताले. तांगेले जिबेर दिसपट्टी घोळपी कोंकणी 'भासू'च नाशिल्ली. ती मराठीची 'बोली' आशिल्ली, वा, 'अशुद्ध मराठी' आशिल्ली. त्या वेळावयलो हिंदू गोंयकार गोंयच्या थळांच्या नांवांचें आनी गोंयकारांल्या कुळनांवांचेंय बरपांत मराठीकण करतालो. पानवेल, ताळगांव, बांदोडें, शिरोडें, दिंवचल, व्हडलें गोंय, बारदेस, साश्ट हीं नांवां बरपांत पनवेल, तळेगांव, बांदिवडे, शिरवडें, डिचोली, थोरलें गोवें, बारदेश, साशष्टी जातालीं. तशीं जोयशी, तेलिंग,

परोब, देस परोब, म्हांबरे बी कुळनांवां बरपांत जोशी, तेलंग, प्रभु, देशप्रभु, महांबरे जातालीं. गांवा वयल्या आडनांवांतलें *कार* वचून थंय *कर* येतालें, शणै शेणवी जातालो. (ह्यो सगळयो देखी शणै गोंयबाबांल्योचः कोंकणी *भाशेचें जैतः* 47 कांय प्रमाणांत अजून गोंयांत हें अशें घडटा...) आनी, मजा म्हळयार, हीं मराठी रुपांच गोंयकारांक आपणाल्या नांवांचीं 'खरेलीं' रुपां दिसतालीं! मुंबय सारकेल्या शारांत दोग हिंदू गोंयकार एकामेकांक मेळटाले तेन्ना चार चवगांत कोंकणी उलोवपाचीय खंय तांकां लज दिसताली आनी ते मराठींतल्यान उलोवंक लागताले. (होय उल्लेख *मोगाचें लग्न* पुस्तकाच्या 'सुरवेच्या उतरां'नी आयला.) मराठी सारकी उलोवंक लेगीत नकळ आशिल्ले तिका आपणाली 'आवयभास' मानताले. कोकणी परस तांकां ती अदीक सुंदरूय दिसताली. ह्या गोंयांत मराठी सगळयांक सारकी समज नाशिल्ली तरी सगळीं तिका तोखेतालीं आनी, कोंकणी सगळयांक सारकी समजताली. पूण कोणाकूच तिची तोखणाय नाशिल्ली!

मराठीकडेन बरपांतल्या साहित्याचे गडगंज दायज आशिल्लें. तिचे कडेन ज्ञानेश्वर, तुकाराम, समर्थ रामदास, मोरोपंत बी आशिल्ले. कोंकणीचीं बोल्सां तशी रितींच आशिल्लीं.

कोंकणी भुरग्यांक घरगुती वातावरणांतल्यान शिकयले बगर येताली. मराठी तांकां मुद्दाम यत्न करून शिकची पडटाली. शणै गोयबाबांच्या उतरांनी, 'इंग्रजी सरादीतले मराठी शिकिल्ले लोक गोंयां मास्तरकी करूंक' येताले तांचे कडल्यान गोयकार मराठी शिकताले. (*कोंकणी भाशचें जैतः* 2)

मराठीक व्याकरणीक अभ्यासाचें दायज आशिल्लें. तिचें प्रमाणिकरणूय जाल्लें. कोकणीची व्याकरणां जायती आशिल्ली पूण तीं कोकणी मनशांनी कोंकणी मनशांच्या वापरा खातीर कोकणीतल्यान बरोंवक नाशिल्लीं. तीं चडशीं भायल्या जाणकारांनी एका खाशेल्या हेतान भायल्या भासांनी बरयल्लीं. कोंकणी कोशांचीय हीच तरा. उपचारीक मळांचेर घोळपाची संदूच मेळूंक नाशिल्ल्यान प्रमाणिकरणाचे नदरेनूय कोंकणी फाटीं उरिल्ली.

शेकड्यांनी वर्सां सावन हिंदू गोंय हे तरेन आपणाली भाशीक जीण मराठी-'वयली' भास आनी कोकणी - 'सकयली' बोली ह्या दोन कुडक्यांनी वांटून घालून जियेत आयिल्लें.

मराठी आनी कोंकणी भितर व्याकरणी बांदावळीचीं वेगळेपणां खूब आशिल्लीं. *कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ* "(1949) पुस्तकांत शणै गोंयबाबूच तीं आमकां दाखोवन दितात.

कोंकणी मराठी भितर फर्गुजन दाखयतात तसलें उतरावळीचें वेगळेपणय खूब आशिल्लें.

गोंयकार हिंदू मराठी उलयतालो तेन्ना सामान्यतायेन ताचे मराठीक 'कोंकणी सुवाद' येतालो. म्हळ्यार, दोनूय भाशीक रुपांच्या मुळाक नादांची एकूच बांदावळ आशिल्ली.

ही परिस्थिती कशी, कित्याक लागून जल्मा आयली ह्या प्रस्नाची जापूय आमकां फर्गुजनांच्या निबंदांत मेळटा-

1. साहित्यीक नदरेन मराठी गिरेस्त - प्रस्थापीत भास आशिल्ली. धार्मीक आनी सांस्कृतीक कारणांक लागून गोंयाचो हिंदू समाज ह्या साहित्याकडेन आपलेपणान पळेतालो. तो ताचे कडेन Identify जाल्लो. कोंकणींतलें साहित्य चडशें क्रिस्तांव धर्मा कडेन आनी संस्कृतायेकडेन जोडिल्लें आशिल्लें. तें 'भायले' - रोमी लिपयेंतूय बरयल्लें आशिल्लें. देखून, *'वनवाळयांचो मळो'*, 'सांत आंतोनीचीं अचर्यां' सारकेलें बरप 'आपले' भाशेंत आसुनूय हिंदूंक 'परकें' दिसतालें. आनी 'ज्ञानेश्वरी' 'अमृतानुभव', 'दासबोध' बी साहित्य 'परके' भाशेंत आसुनूय तांकां 'आपलें) दिसतालें. ह्या आपलेपणाक लागून 'परकी' भासूच तांची 'आपली' भास जाल्ली.

2. आदल्या काळार गोंयकार हिंदू मदलो एक ल्हान वर्गूच बरपाक्षरी आशिल्लो. हेरांक वाचूंक बरोवंक येना आशिल्लें.

3. 1 आनी 2 वयल्यान शतमानांचीं शतमानां उलगल्लीं. दोन कुडक्यांची भाशीक जीण जियेतल्या समाजाक ती विचित्रूय दिसनाशिल्ली आनी तिचे पसून त्रासूय जायनाशिल्ले. 'गोड' मागतल्याक तें 'गोड' म्हणून दिवप आनी हिशेबाचे पटयेर मात 'गूळ' बरोवप, बसका सुरू जावचे पयलीं आपसांत कोंकणींतल्यान खबरी मारप आनी मागीर त्याच लोकांमुखार 'बंधू भगिनींनो' म्हणून मराठींतल्यान मोठ्या कश्टान उलोवप करप हाची समाजाक संवंय जाल्ली.

डायग्लॉसिया हिंदू गोंयची परंपराच आशिल्ली.

चार चवगां वरी वालावलीकारूय मराठीक गोंयची थळावी भास लेखताले. मराठी-पुर्तुगेज शाळांनी वापरपा खातीर तांणी O Mestre Portuguez म्हूण पुस्तक बरयल्लें. ह्या पुस्तकाचे पुर्तुगेज प्रस्तावनेंत तांणी मराठीक Lingua Vernacula म्हळयार, थळावी भास म्हणिल्ली. तॉमस मैरांव हो पुर्तुगेज मनीस गोंयच्या शाळांचो इन्स्पेक्टर आशिल्लो, ताणें शणै गोंयबाबांक म्हळें, 'गोंयची थळावी भास कोंकणी. ती मराठी कशी जातली?' वालावलीकारांक तेन्ना सट्ट जालें. तांकां आपली चूक कळून आयली (*कोंकणी भाशेचें जैत* 21) आनी कोंकणीचो दिश्टावो जालो. ह्या दिश्टाव्यान वालावलीकाराक 'शणै गोंयबाब' केलो. तेन्ना सावन ते निमाणे मेरेन शणै गोंयबाब आपणाल्या समाजाक डायग्लॉसियेंतल्यान मेकळो करपा खातीर वावुरले. मुंबयच्या सारस्वत ब्राह्मण समाजाचे सभेंत तें गोंयच्या इतिहासाचेर कोंकणींतल्यान उलयले. कोंकणींतल्यान ते बरोवंकूय लागले. मराठीच नाटकां पळोवपाची आनी माचयेर हाडपाची संवंय आशिल्ली तांकां तांणी *'मोगाचे लग्न'*, *'पोवनांचे तपले'* आनी *'झिलबा राणो'* हीं कोंकणी नाटकां दिलीं. भगवदगीताय तांणी कोंकणींत हाडली. आनी अशे तरेन कोंकणीच्या वापराची मळां रुंदावपाचो वावर तांणी सुरू केलो.

शणै गोंयबावां आदीं कोंकणी-मराठीचो वाद आशिल्लोच जाल्यार तो फकत भाशीक वाद आशिल्लो - व्याकरणीक नदरेन कोंकणी मराठीची बोली काय स्वतंत्र भास, ह्या मुद्द्याचेर केंद्रीत जाल्लो विद्वानां मजगतच्या मतभेदाचो तो एक विशय आशिल्लो. शणै गोंयबाब हे तरेचे, कोंकणीचो पाखो घेवपी, व्याकरणीक नदरेन ती एक स्वतंत्र भास म्हूण सिद्ध करून दाखोवपी निखटे विद्वान नाशिल्ले. विदवत्ते वांगडा तांच्या विचारांत एक क्रांतिकारी समाजसुधारकूय आशिल्लो. तांगेलो कोंकणीचो दिश्टाचो फकत व्याकरणीक सत्याचो एक अणभव नाशिल्लो. तो सांस्कृतिक बंदेपणाच्यो सरपळयो तोडून उडोवपी, समाजाक मानसीक गुलामपणांतल्यान मेकळो करपी दिश्टावो अशिल्लो. शेकड्यांनी वर्सां सावन जो समाज अजाणपणान (शणै गोंयबाबांलेच उतर) आपणाक मराठी लेखतालो ताका शणै गोंयबाबान हालोवन उडयल्लो आनी ह्या समाजाक एके नवे कोंकणी Iden-tity चो मंत्र दिल्लो.

शणै गोंयबाबांली क्रांती तांगेल्याच समाजांतल्यान - 'हिंदू गोंया' सावन,

इतलेंच न्हय तर हिंदू बामणां सावन सुरू जाताली. पूण ती थंयच सोंप नाशिल्ली. हिंदू गोंयाचे तुळेन 'क्रिस्तांव गोंयांत' कोंकणीचो कांय प्रतिश्ठीत मळांचेर, मुखेलपणान इगर्जेंत - वापर जातालो खरो. पूण हांगाय एके तरेची डायग्लॉसियाच आशिल्ली. 'आबे फारीय' पुस्तकांत शणै गोंयबाब बरयतात - 'हिन्दूंक मराठी लोक आनी तांगेली भास व्हडलीं दिसतात आनी क्रिस्तांवांक पुर्तुगेज लोक आनी तांगेली भास व्हडलीं दिसतात.... दोगूय परक्यांच्या नादांत आनी बडवाचारांत गुल्ल जाल्यात. (*आबे फारीयः वज्रलिखणी* 1977 : 205.) ह्या दोगांकूय 'आपल्या खासा मेंदून येवजुपाचो' (पा. 206) संदेश ते दितात आनी तांच्या हातांत कोंकणीची - नव्या समाजाच्या एकवटाची घुडी दितात. 'ऐन वेळार ह्या बरपांत ते बरयतात 'आमगेले वाणी, चाड्डे आनी बामण हिंदू तशे क्रिस्तांव हांणी गावडे आनी हेर सुदीर लेखिल्ल्या भावांक आपणाल्या उंच पांवड्यार चडोवन सगळयांनी मेळून कोंकण, कोंकणे आनी कोंकणी भास ह्या भौच सोबीत तिर्कुटाची भांगरा घुडी संवसारांत जयजयकारान फडफडावची' (*येवकार अध्यक्षांले उलोवप* 1945) नव्या एकवटीत कोंकणी समाजाच्या ह्या सपनाक ते सांतेर आनी आंकवार मोरी - दोगांयचो आशिर्वाद मागतात.

फर्गुजन बरयतात तशें, काळ बदलूंक लागता तेन्ना डायग्लॉसियेची भाशीक समाजाक आडखळ जावंक लागता... ह्या नव्या काळाची सुलूस शणै गोंयबाबांक लागिल्ली. 'हिंदू गोंय' आनी 'क्रिस्तांव गोंय' ह्या गोंयच्या दोन वांट्यां मदली वेर सांदोवंक, तेच प्रमाण, वयलो बरपाक्षरी समाज आनी सकयलो निरक्षर समाज हांचे मदलें उंच-उणाकपण ना करूंक, स्वतंत्र हिंदुस्तानांत एक खाशेली Identity आशिल्लें नवें राज्य घडोवंक कोंकणी बगर दुसरो मार्ग ना म्हणपाचें तांका दिश्टी पडिल्लें. डायग्लॉसियेंत कोंकणी समाजाक मेकळो करपाचें सपन तांणी पळेल्लें.

हे कोंकणी घुडयेक लागून गोंय गोंय उरलें, घटकराज्य जालें. कोंकणी 'साहित्य अकादेमीं'त पावली, राजभास जाली. आठवे वेळेरेंतूय गेली. आयज ती 'रांदचे कुडींतली भास' उरूंक ना. तिका 'क्रियादांची भास' म्हणून हिणसांवंकूय कोण वचना. तरी पूण, कोंकणी मनशांचो-आमचो-भाशीक वेव्हार पळेल्यार प्रस्न पडटा, कोंकणी भाशीक समाज डायग्लॉसियेंतल्यान भायर आयला व्हय?

●

# शणै गोंयबाब :
# कोंकणी अस्मितायेचो हुंकार..

***- प्रा. भूषण भावे***

शणै गोंयबाब हांची 125 वी जयंती मनयतास्तनाच, ह्या 125 वर्सांत कितें घडयलें, किते जोडलें, हाचो नियाळ जावंक जाय. तशें पळोवंक गेल्यार आधुनीक कोकणी साहित्याची सुरवात शणै गोयबाबानीच केली. ह्या 125 वर्सांत (खरेपणान फाटल्या 50 वर्सांत) कोकणी साहित्यांत कथा, कविता, कादंबरी, नाटक, वैचारीक साहित्य हे प्रकार निर्माण जाले आनी तांचे मदल्या दरेकाचें एक स्वतंत्र दालन लेगीत तयार जालें. हे साहित्यप्रकार कविता, कथा, कादंबरी, नाटक, वैचारीक ह्या देवत्या क्रमान तयार जाले. हाचोच अर्थ वैचारीक आनी सिध्दांतीक साहित्य आमचेकडे साप्प उण्या प्रमाणांत निर्माण जालें. कोकणी अस्मितायेची बाजू मांडपाक 'विचार' उणो पडटा काय 'विचारवंत' हो प्रस्न आमीच आमच्या मनाक विचारचो पडटलो. म्हज्या मतान कोकणी संस्कृतायेचो सातत्यान अभ्यास आशिल्लो मनीस (लेखक) आमचेकडे नाशिल्ल्यान वा आसात तांणी गंभीरतायेन ह्या प्रस्नाकडे पळोवंक नाशिल्ल्यान आमची 'वैचारीक' बाजू दुबळी पडटा. जेन्ना-जेन्ना कोकणी अस्मितायेमुखार आव्हानां उबी जातात, तेन्ना तेन्ना जितले बेगीन आमी 'रस्त्यार' येतात/येवंक शकतात, तितले बेगीन आमी 'कागदार' येवंक शकनात. फाटल्या 60-70 वर्सांत कोंकणीखातीर आंदोलनां करपी 'मनीस' आमी जोडले, पूण वैचारीक आंदोलन घडोवपी 'लेखक' (आनी

वाचक लेगीत) निर्माण करूंक उणे पडले. शणै गोंयबाब हांचे खाशेलेपण म्हळयार तें 'रस्त्यापरस' 'कागदार' चड प्रकट जाले.

ललित साहित्यांत आमी फकत संख्यात्मक नदरेन वाडले नात, तर गुणात्मक नदरेन लेगीत साहित्याचो विकास जालो. सुमार 500 कवी, 100 कथाकार, 50 कादंबरीकार आनी 25 नाटककार हो संवसार उबो करतनाच आयज साहित्यातले ग्रामीण-नागरी, प्रादेशिक-वैश्वीक, पारंपरीक-आधुनीक हे साबार प्रवाह कोंकणी साहित्यांत खंयचेय हेर भारतीय भाशे इतलेच वा तिचेपरस कांकणभर चड लेगीत आसतले. तातुंत ही किमया फाटल्या 50 वर्सांतच जाल्या हें विशेश. तातुनूय चार राज्यांनी आनी चार लिपींनी शिंपडिल्लो समाज आसतनाय हें घडूंक पावलां, हें आनीक एक विशेश. पूण त्यामानान कोंकणी साहित्याचो 'वाचपी' (वाचक) मात वाडूंक ना, ही एक खंत आसा. वाचकवर्ग वाडपाचें/ वाडोवपाचें एक प्रभावी माध्यम म्हळयार शिक्षण. महाविद्यालयीन पावंड्यावेल्या कोंकणी शिक्षणाचो (जें फकत गोंयातल्याच कोंकणी भाशिकांक मेळटा) हे नदरेन विचार जावपाची गरज आसा. दुसरें प्रभावी माध्यम म्हळयार पत्रकारिता. मंगळुरांत ती कित्याक बरे स्थितींत आसा आनी गोंयात कित्याक ना, हे विशीं अभ्यास जावपाक जाय.

## हो खटाटोप कित्याखातीर ?

कृष्णदास शामा हांणे 16व्या शेंकड्यांत कोंकणीतल्यान कथा रचून कोंकणी साहित्याच्या संवसाराक सुरुवात केली. उपरांत वेगळो हेतू दोळयांमुखार दवरून पोर्तुगेज पाद्रींनी कोंकणीच्या ह्या संवसाराक आपणालें योगदान दिलें. ताचेउपरान्त कुन्य रिवार ह्या पोर्तुगेज अधिकाऱ्यान कोंकणीची वैचारीक बाजू मांडपी प्रबंध बरयलो. पूण खऱ्या अर्थान कोंकणीच्या संवसाराक सुरुवात जाली ती शणै गोंयबाब हांका लागून. देखून तांचें 125 वें जयंतीवर्स मनयतना कित्याखातीर ताणी वेगळो संवसार मांडलो? हो खटाटोप तांणी कित्याक केलो? तांच्या साहित्यांत एकेतरेचो अट्टाहास दिश्टी पडटा तो कित्याखातीर? हाचोय विचार जावंक जाय. प्रसिध्दी, धनप्राप्ती,... हीं आनी अशेतरेचीं साहित्य-निर्मणेची खंयचींय प्रयोजनां साध्य जावपाची कसलीच सुतराम शक्यताय नासतना तांणी कोंकणीत साहित्य रचलें तें कित्याक? फकत आत्मसुखाक लागून ?

ह्या प्रस्नाची जाप निश्चितपणान 'ना' अशी दिवंची पडटली. शणै गोंयबाब हांणी गोंय पळयिल्लें. उपरांत तांणी मुंबय वतकीच मुंबय पळयलीच पूण त्याभायर गोंय सोडून उर्वरीत कोंकणातल्यान आयिल्लो 'कोंकणी' मनीस लेगीत पळयलो. देडदमडे खातीर आपलें घर- दार, कुळागर-शेत सोडून चार-बाय-चार चे कुडींत रावन लाचारीची जीण जगपी 'कोंकणी' तांणी पळयलो. यंत्रावरी काम करून एक भावनाशून्य यंत्रच जाल्लो हो कोंकणी मनीस पळयतकीच तांका प्रस्न पडलो :- ह्या कोंकणी मनशाक संस्कृती ना ? परंपरा-दायज ना ? ह्या प्रस्नाची जाप तांका मेळ्ळी ती चवथ आयली काय कसोय करुन कोंकणात-आपल्या घरा घालून घेवपाच्या कोकणी मनशाच्या सबावांतल्यान.

इतिहासान 'कोंकणी मनशाक' केन्ना समजून घेतलो ना. अत्यंत भावूक अशा आनी एकदां थारायतकीच आपणाक त्या गजालीखातीर घालून घेवपी 'कोंकणी मनीस' इतिहासान 'मागास' थारायलो. मुंबयचे संस्कृतायेन ताचेकडेन फकत 'सवाय मेळपी कामगार/वावराडो/मानाय' (रामागडी) म्हण पळयले. 'आळशी', 'कामचुकार' म्हणून ताची केन्ना फकाणां केलीं, अपमान/निर्भत्सना केली वा ताचेकडेन आडनदर केली, चडांत चड ताची काकळूट केली. पूण ताचेकडेन मनीसपणाचे भावनेन पळयले ना. हे यांत्रिक-संस्कृतायेन ताची फकाणां केलींच, त्या वांगडाच ताचे भाशेची लेगीत 'हेगांडी' भास म्हण भगलां केली.

हे स्थितीक मुंबय-पुण्याकडल्या मनशाभाशेन 'कोकणी मनीस' लेगीत जवाबदार आशिल्लो. ताणे लाचारीपूर्वक फकत 'यंत्र/माकन' जावपांतूच धन्यताय मानली. कांय थोड्या कोंकणी मनशांनी हे स्थितीचेर मात करपाचो यत्न केलो. पूण तांकां 'प्रादेशिक' अशे संबोधून एक मर्यादा घातली. मुंबय-पुण्यांत निर्मिल्लें साहित्य 'विश्वात्मक' आनी कोकणची फाटभूंय, जीवनानुभव घेवन आयिल्लें साहित्य मात 'प्रादेशिक' असो नकारात्मक अर्थ सुरवेक त्या 'प्रादेशिक' उतराक आसलो. खरें म्हळयार कोकणी मनशान भारताची संस्कृती-राजकारण-स्वातंत्र्यझूंज-साहित्य-समाजकारण - आदी मळांक दिल्ल्या योगदानाचे स्वतंत्र मूल्यमापन जावपाची गरज आसा.

कोंकणी मनशाची जीण 'प्रादेशिक' इतलेच म्हणून काम भागचें ना. तिचेभितरल्या दरेका घटकाचो अभ्यास करतकीच मतींत येता ते तिचें गिरेस्तपण. विविधताय हो भारतीय संस्कृतायेचो जीव-प्राण. विविधताय फकत सैमीक

गजालींची न्हय तर मनशाची लेगीत. विविधताय हे भारताचे विकासाचे प्रक्रियेंयतलें आडमेळें केन्नाच जालें ना. विविधताय हें भारताचें वैभव. जल-वेवस्था, कृषी-वेवस्था, ग्रामवेवस्था, अन्नसंस्कृती, निसर्गश्रध्दा आनी साहचर्य ह्या दरेका घटकातली कोंकणातली विविधताय तिगोवन दवरच्या बदलाक, जिणेचें प्रमाणीकरण (Standardisation) करपाच्या हावेसान मुंबयचे सैमीक-संस्कृतायेन तिका हीण लेखली आनी चिड्डिली. कोंकणचे सैमीक जिणेकडेन तांणी 'सुखासमादानाचे जिणेचे मंत्र' म्हण पळयनासतना तांणी तिचेकडेन 'चार दीस मुदासाक वचपाचें' साधन म्हण पळयलें. हांगाचे लोकजिणेंत आयजच्या संवसारा मुखावयल्या प्रदूशण, पर्यावरण-इबाड, भलायकी-इबाड, मानसीक दुबळेंपण, नैराश्य, बेकारी, अर्थीक-विशमताय अशा साबार प्रस्नांक जाप दिवपाचें आनी निरामय जीण जगपाचो मंत्र दिवपाचें सामर्थ्य आसा, हें 'आधुनीक' म्हणयतल्या मुंबयच्या मनशान वळखूंक ना. जिणेभशेन साहित्याकडेन लेगीत 'पाश्चात्य' नदरेंतल्यान पळोवपी आनी तातूंत अस्तित्ववाद, रोमेंटिसिजम आदी 'नवे' प्रवाह सोदपी 'मुंबय' कारांनी कोंकणच्या साहित्यांत आशिल्लो 'निसर्ग' वाद, सैम आनी मनीस हांचे नातेसंबंद केन्ना तपासून पळयले नात, तांची दखल घेतली ना. हे स्थितीत मुंबय-पुण्याकडल्या मनशाभशेन 'कोंकणी मनीस' लेगीत जापसाल आशिल्लो. कांय अपवादात्मक 'कोंकणी' लेखकांनी ही स्थिती बदलपाचो यत्न केलो. पूण ते तांणी 'मुंबय-पुण्याकडले' मराठी भाशेंतूच आनी त्योच प्रतिमा आनी साहित्यांचे तेच 'पाश्चात्य' (वा तथाकथित 'आधुनिक') निकश दोळयांमुखार दवरून केलें, देखून त्या साहित्याक 'प्रादेशीक' ही संकल्पना मेळ्ळी - ताचेभायर आनीक कांयच घडलें ना. (सुरवेक ह्या 'प्रादेशिक' संबोधनात लेगीत 'विश्वात्मक' अशें मानिल्ल्या मुंबय-पुण्याकडल्या साहित्यापरस वेगळें कितेंतरी असो न्हयकारी सूर आशिल्लो. ते प्रादेशिकतायेंत लेगीत भारतीयत्वाचीं - पर्यायान विश्वात्मकतायेचीं सूत्रां आसात हें पटोवन दिवपाक कोंकणी लेखक असमर्थ थारलो.)

देखून शणै गोंयबाबान कोंकणी अस्मितायेचो नवो संवसार मांडलो. तोय बी लोकांचेच भाशेंतल्यान 'कोंकणीतल्यान' तांणी मांडलो. देखून तांणी 'गोंयकाराचो मुंबैकार' जावं नाकात अशें आवाहन केलें. कोंकणी संस्कृतायेकडेन दुर्लक्ष म्हळयार फकत कोंकणी मनशाचें न्हय तर पुराय देसाचें नुकसान जावन आसा. हें करतना कोंकणीकडेन पळोवपाचे महाराष्ट्राचे आनी मराठी वृत्ती विशींची

तिडक ताणी उक्तायल्या. तांच्या साहित्यांतल्यान बरोवप्यांचे आयलां ते कोंकणचे संस्कृतायेचें गिरेस्त दर्शन. देखून पुराय कोंकणाचे अस्मितायेच्या अभ्यासाचो एक मुखेल वाटचिरो म्हण तांच्या साहित्याकडेन पळोवंक जाय.

तांणी बरोवपाक सुरुवात केली तेन्ना कोंकणी भाशेक 'साहित्यीक' परंपरा नाशिल्ली. देखून 'साहित्याची' कोंकणी भास घडोवन तांणी आपल्या वावराक सुरुवात केली. शणै गोंयबाब पिंडान कवी/कथाकार/नाटककार/कादंबरीकार / इतिहासकार / व्याकरणकार/भासशास्त्री बी कोणूच नाशिल्ले. तरीय तांणी त्या-त्या मळांचेर दोळयांत भरसारको वावर केला. ताचेफाटली तळमळ, मनस्वीताय, अट्टाहास आनी मुखेल म्हळयार हेतू समजप, अभ्यासप गरजेचें. त्या-त्या मळाचेर तांणी दिल्ले तपशील, मांडिल्ले मुद्दे, परगटायिल्लीं मतां कायकडेन चुकल्यात जायत. पूण ताचेफाटली तांची साधना, तकालस पळयतकीच तांचो पिंड बी थारोवपाचोच जालो जाल्यार तो एका संशोधकाचो अशेंच म्हणचें पडटलें.

सोपी, सुटसुटीत पूण उतरावळीत गिरेस्तस, अर्थाचीं बारीक-बारीक तासां-कुसां लेगीत उक्तावपी अशी रसरशीत कोंकणी भास तांणी घडयली आनी वापरली. भास म्हळयार संस्कृतायेचो एक कपचो, दिफळी. तांचे हे भाशेतल्यान कोंकणी-संस्कृताय उप्पाट भरिल्ली दिश्टी पडटा. सर्वसादारणपणान गद्य साहित्यांत, भास हें एक 'साधन' मानतात. पूण शणै गोंयबाबांच्या पुराय साहित्यांत 'भास' साधन म्हण न्हय तर 'माध्यम' म्हण तांणी वापरली. जायतेफावटी अभ्यास करतकीच अशें दिसता, तांच्या साहित्याचे विशय साप्प सादे. देखीक एका आवयच्या मर्णाक लागून पुताक जाल्लें दुख्ख, अतीअहिंसा वा अतीहिंसा.... आदी. पूण तांचे भाशेक लागून तें - तें साहित्य सामकें रसरशीत जालां. अशेरीतीन जायतेफावटीं 'आशय-विशय' साधनरुप पूण भाशेच्या माध्यमांतल्यान 'साध्य' मात वेगळेच अशें चित्र दिसता. देखीक 'खर्णवीर' वा पितुबावालो तांब्यापटो' ह्यो कथा. तसेंच आशयाकडेन / कथानकाकडेन संबंद नासतना लेगीत 'कोंकणीचो-मांयभाशेचो' ताचेकडेन संबंद जोडप, अतिताय, काल्पनिकताय अशे 'गूण' (कांय दोश). तांच्या साहित्यांत पळोवंक मेळटात. काल्पनीक गजाली लेगीत आतांच दोळयांमुखार घडटात अशें दाखोवपाची आभासात्मक तांक तांचे भाशेंत आसा.

ताचे कांय नमुने पळोवंया :-

भूगोलीक संदर्भाविशींचो हो उतारो पळयात :-

"म्हजे इत्सेन कितेंय जायसारकें आशिल्लें जाल्यार, हांव केन्नाच मनशाभशेन, तेरेखोलच्चे न्हंयेसाकून मुडगिरीमेरेन आनी दुदसागरासाकून मुरगांवच्या कोटामेरेन, सगलें गोंय म्हज्या पांयांतळा घालतलीं आसलीं. भाटकेभाशेन फांत्यापारा उठून सूर्यमामाक येवकार दिवंक चंद्रनाथ-सिद्धनाथ पर्वतांच्या उंच तेमकांवैर मळबामेरेन हांव उट्‌टलीं आसलीं. नागणीभाशेन लामगांवचे होंवरेंत रिगून रिवणचे होंवरेंतसून भायर सरतलीं आसलीं आनी शेंवटाळेभाशेन मांडवी न्हयेंत शेंपडी दाखौन जुंवारी न्हंयेंत शेंष्टी वैर काड्टलीं आसलीं. परंत हें म्हजे इत्सेर आधारून ना" (पान 9, गोमन्तोपनिषत् पयलें खंड)

शणै गोंयबाबांचे भाशेची, वर्णनाची तांक दाखोवपी हो चालीरितींविशींचो उतारो पळयात.

"कार्तिक पुनव जावन जो पैलोच सोमार येता त्याच दिसा हो देवाचे पालखेचो मोटे नामनेचो उत्सव जाता. कितें सांगतलो ह्या उत्सवाची तोखणाय? भितल्ले पेठेंतलो तो अशीर मार्ग आनी ताचे दोंय कुशींनी माळयो नाशिल्ल्या मोट्या घरांच्यो त्यो लांबूच लांब माळो आदींच सोबीत दिसतात. तातूंत तांकां केळिच्या धव्या-फुल्ल, तकतकीत गब्यांचीं सुंदर मखरां करून तरेकतरां रंगीत कागदांचीं कमळां लायलीं, आर्कां वळ्ळीं, खंदलां उमकळायलीं, निक्त्याच वियेल्ल्या केळिचे घडुल्या सैत देठे केले, आंब्याच्या ताळयांची तोर्णां बांदलीं आनी रातिचो काळो पड्डो पट्‌टकूच, घरांच्या पांवळयांक तेंकून पण्टयाच्यो घणघणीत दिपरदना पेटैल्यो म्हणटकूच सर्त-शीम नाशिल्लो जो देखाव दिश्टी पड्डा ताची वर्णनां कोण करीत?" (पान 14 गोमन्तपनिषत्, पयलें खंड)

संस्कृत उतरांक सोपे कोंकणी पर्यायी शब्द दिवपाची तांची भास पळयात.

"काळोख - तामिस्त्र, काळोख-गुपाट - अंधतामिस्त्र,
सुण्या-होळम - रौख, मएदोरी - कालसूत्र,
म्हारकावलो - काकोल, घागीमाती - पूतिमृलिका,
तिख्या-रांपो - लोहशंकू, तळचें सतेल - ऋचीष,
कांटेरी सांवर - कंटकशाल्मली, तरवारीऱ्रान - असिपत्रवन,

लोखणा-वाळो - लोहचारक"

(पान 83 गोमन्तोपनिषत् - पयलें खंड)

तशेंच अन्नसंस्कृतीचें वर्णन करपी हो उतारो :-

ताच्या फुड्यांत भांगराची आगोतेची शिर्ती मांडून तिचे कडेक भांगराचे दोणे दवलले, तातूंत पोळयो, वडे, बुंदिचे लाडू, खाजिचे लाडू, साकरलाडू, मतलाडू, बेसनलाडू, बियांचे लाडू, नेवऱ्यो, चवडे, पुडे, शिपे, साळकां, फुलां, कापां, कुस्कुरां, म्हानां, जिरे-कोथमिरीचो हालवो, गुळऱ्यो, फेंडोऱ्यो, सांजोऱ्यो, दुदफेंडे, हालउंडे, सुकूरउंडे, हेलापे, सांदनां, हींट, मुटवे, मोदक, खिचडी, खाणटोळी, धोणस, पातोळी, तवसळी, कायलोळी, मनगणे, सोजी, दुदाचो पायस, शेवयांची खीर, कणग्यांची खीर, पोळयांचो रोस, सांदनाचो रोस, गुळाणी, काकय बी सगळे गोडगोड परखन्न वाडलें.

(पान 92, गोमन्तोपनिषत् - पयलें खंड)

आनी निमाणेकडे 'वज्रलिखणीतलो' सैमचित्रणाचो हो देखाव पळयात :-

उप्रांत सातां दिसांनी, देवाचे आज्ञेन पावस-रायाली सुंवारी भायर सल्ली. तडयो, उत्रण, गावर, सुरमुजी, सोसो, सातवस मेळून आठांय दिशांचे वाव सैल सुटले. अनर्थांचो घडघड आनी तट्टट जावन विजो जोगलांवक लागल्यो. देवान मळबाच्यो मानसो उक्त्यो केल्यो आनी समुद्राच्यो सगळयो झरी उमळायल्यो. म्हण्टकूच, एकसारको हरंधारीनी पावस ओतूंक लागलो. दडकेर दडक आयली. मळब कोसळून पट्टाशे जालें. त्या वेळार मनशांचेर आनी मोनजातिचेर जो आकान्त आयलो तो ह्या समानांतलो न्हय.

अशे रीतीन कसलींच अर्विल्लीं साधनां, संशोधनाची मानसिकताय, अर्थीक फाटबळ आनी समाजाचो तोको नासतना लेगीत जी उच्च पावंड्याची भास शणै गोंयबाब हांणी घडयली तिचो अभिमान दिसूंक फावो. आयज कोकणीक सगले तरेचे मानाचे, मान्यतायेचे आनी हक्काचे पाट मेळळयात देखून संस्कृतायेचें व्हडपण संवसाराक पटोवन दिवपाची नैतीक जापसालदारकी आमचेर येवन पडल्यो तशेतरेचो संकल्प आमी करूंया.

●

# साहित्यकार शणै गोंयबाब

*- प्रा. प्रकाश रमाकांत वजरीकार*

"एदो व्हडलो लखलखीत सूर्या म्हज्या घरा दारार दिसपट्टो उजवाड घालता आनी हांव दुबळो कसो? हांव काळोखांत जळपुंचो न्हय म्हूण चंद्रीम दिवटेभशेन दारांत पेट्टा आनी हांव दुबळो कसो ? न्हंय म्हजे गांवांचे शिमेमदसून व्हांवता आनी हांव दुबळो कसो? म्हाका परमळ मेळचो म्हूण रानांत फुलां, साळकां फुलतात आनी हांव दुबळो कसो?"

अशा उतरांनी शणै गोंयबाबान आपल्या सत्वाचो सोद घेवपाचो यत्न जेन्ना केलो तेन्ना तांकां ह्या सैंबानूच जगपाची आनी जगोवापाची प्रेरणा वा स्फूर्त दिली आनी ही स्फूर्त दितना तांकां आपल्या आत्मस्तराचो दिश्टावो घडयलो. आवय, आवयभास आनी आवयभूंय ह्या तीन तत्वांकडेन एकनिश्ठ रावन समाजमन आनी समाजमत घडोवपापासत शणै गोंयबाब हांणी आपलें जिवीत ओंपिल्लें आसा.

23 जून 1877 वर्सा दिवचले जल्मल्ल्या ह्या भुंयपुतान आपल्या 69 वर्सांच्या अर्थपूर्ण जिणेच्या माध्यमांतल्यान आपल्या कर्तृत्वांतल्यान आनी साहित्यांतल्यान कितें दिलें आसत जाल्यार निश्ठा, प्रामाणिकपणा, स्वभाशेचो स्वाभिमान आनी जगपाचो विश्वास. घाम काडून श्रमजीवन जगपी हो अक्षरवाटेवयलो प्रवासी. आपले जीवनरुपी कर्तृत्वाचें झाड वाडयतना तांणी आमचे मदीं कसलो संदेश दिला तर वाडपी झाडांकूच येवपी वाऱ्याची दिशा पयलीं कळटा हो संदेश; ही दिशा झुडपाक वा झोपांक कळना.

नागरीतं सुमार 22 पुस्तकांचो अक्षरधनी आशिल्ल्या शणै गोंयबाबांची तरेकवार

तासां पळयतना आमकां दिसता तो निबंदकार शणै गोंयबाब, चरित्रकार शणै गोंयबाब, नाटककार शणै गोंयबाब, कथाकार वा काणयेकार शणै गोंयबाब, नवलकाणीबरोवपी शणै गोंयबाब. भुरग्यां साहित्य रचपी इतिहास धवळपी आनी फुडाराची वाट दाखोवपी शणै गोंयबाब एक साहित्यीक म्हूणन तांच्या साहित्याचें आकलन, आस्वादन आनी मुल्यमापन करताना शणै गोंयबाब हांच्या विगड विंगड गुणांचेर नदर पडटा आनी दिसता की तत्कालीन परिस्थितींत येदो व्हडलो हो यज्ञ मांडपी मनशाक केदें मळबपिशे लागिल्लें कांय म्हूण.

संवसारांच्या इतिहासांत इतलो खर आनी प्रदीर्घ वसाहतवाद, जुलूम भोगपी गोंयकारांमदीं गोंयकारपणाचो मंत्र, कुदळीचो मंत्र जागोवपी शणै गोयबाब हांची प्रेरणा, उर्बा आशिल्ली ती म्हणल्यार कुन्य रिवार ह्या भायल्या पोर्तुगीज अधिकाऱ्यान गोंयांत सरकारी अधिकारी म्हुणून वावर करतना हांगासरल्या तरनाट्यांक कोंकणी भाशेच्या फुडारापासत उबे रावपाचो उलो दिल्लो. ती उर्बा घेवन मो. दाल्गाद, शणै गोयबाब सारके युगपुरुस तयार जाले. आनी अर्विल्ल्या कोकणी साहित्याची बुन्याद घालपी शणै गोयबाबांक जाग आयली ती 'आमी बाबत कुळां न्हय' हे जाणविकायेन. ती तांणी आपल्या घरांतल्यान सुरू केल्या. 'कोंकणी पयलें पुस्तक' तांणीं रचले ते आपल्या भुरग्यांक शिकोवपापासत. (गोंयमुक्ती उपरान्त मडगांवां कोकणी भाशा मंडळाची कोकणी शाळा सुरु जाल्ली तेन्ना उदय भेंब्रे हांचो पूत हो ते शाळेतलो पयलो आनी एकलोच विद्यार्थी. आत्मसत्याची चळवळ ही आपले पासून सुरु करची पडटा. आनी कोणे तरी एकल्यान सुरु करची पडटा). ल्हान भुरग्यांखातीर तांणी बरयिल्लीं भुरग्यांलो इश्ट (1935), कोंकणी 1ले पुस्तक (1939), भुरग्यालें व्याकरण (1941), कोकणी मुळावे पुस्तक, जादूचो जुंवो ही कोंकणी पुस्तकां शणै गोयबाब भायर पडले उपरान्त उजवाडाक आयल्यांत. 'भुरग्यांलो इश्ट' ह्या पुस्तकांत ल्हान निबंद, काणयो असो 26 पाठांचो आस्पाव जाता. 'जादूचो जुंवो' हे येरोपी काणयेचे भाशांतर. ल्हान भुरग्यांचेर संस्कार करपाचे नदरेतल्यान ही पुस्तकां म्हत्त्वाचीं. बाल साहित्याची निर्मणी हें एक आव्हान तांणी स्विकारिल्ले.

चरित्रकार शणै गोंयबाब अशें जेन्ना आमी म्हण्टात तेन्ना आमच्या दोळयांमुखार रावतात ती तांची दोन मुखेल बरपां. पुण्यात्मो राम कामतीं आनी आबे फारीय. राम कामती मुंबयच्या सामाजीक, राजकीय, अर्थीक जिणेंतलो एक म्हत्त्वाचो घटक आशिल्लो. मूळ गोंयकार आशिल्ल्या ह्या व्हड मनशाच्या कर्तृत्वाचो पाठ

तो वाचता. इंग्रजाच्या राजदरबारांत गोऱ्या सायबांक बुध्द दिवपी ह्या बुध्दीजीवी मनशांचें चरित्र शणे गोंयबाबान पितारलां. राजदरबारांत राम कामतीक 'पयले तिकलेचो मान' आसलो. हाचे वयल्यान आमचे गोंयचे बुध्दीची तांक मेळटा. हें आयच्या संदर्भात जांणी आपली बुध्द घाणाक दवरल्या त्या कपल फुटल्यांक कळपाची गरज आसा.

इंग्रजांचे न्याय सभेंत वयल्या पांवड्यांचो जुवीज, धर्मीक (सर्वसमावेशक) वृत्तीचो दानत आशिल्लो मनीस. जांणी देवळां बांदली ती एकवटांची, खरे श्रध्देची एक सेनाधिपती म्हणून तांचे कर्तूब आनी जिणेंत निमाणेंकडेन तांचे जाल्ले भोगणार (कादयेंत भोयो भोयो जावन गेलो) ताचेर पडमूर जाल्ले बेईमान लोक. ह्या सगल्यांची म्हायती दिवपी शणै गोंयबाबाक ही सगळी म्हायती पुंजावपाक बरेच कश्ट पडल्यात.

भूल विद्येचो शास्त्रज्ञ म्हणुनू संवसारभर पाविल्लो 'आबे फारीय' हांचें जिवीत चित्रण शणै गोंयबाबांनी आपल्या पुस्तकांत केलां. 31 मे 1776 वर्सा जल्मल्या पाद्री जुजे कुस्तोदिय दे फारीय हांकां फ्रांस आनी इटाली सारकीं राष्ट्रां व्हड मानान वळखतात.

आबे फारीय बापायवांगडा मागीर गोंयांभायर वता. रोमांक वचून 'देवविद्येचो शास्त्री' ही पदवी जोडटा आनी बापायसरी लिज्बोवा पावता. 1780 त तो 'देवविद्येचो आनी तत्वविद्येचो शास्त्री' ही पदवी मेळयता. ताणें जो निबंद बरयल्लो 'देंवाचें आसप, ताचें एकलेंपण आनी ताची सासाय हाचे संबंधाचे सिध्दान्त'. लिज्बोवांत तांचे पयलें वयलें वाचन आशिल्लें. थंय तो आबूज जालो. तेदेवेळार ताच्या बापायन ताका कोंकणींत सांगलें 'क़ातर रे भाजी'. बुध्दीवंताक, प्रज्ञावंताक आनी युगपुरशांक जें दुःख भोगचें पडलां तातुंल्यान आबे फारीय सुटले नात. 1819 वर्सा ताणें तशें पुस्तक बरयलें ताकाच फुडे मॅचेस्टरचो इंग्लेज सुरजांव जेम्स ब्रेड हांणी 1841 वर्सा हे विद्येक हिप्नोतिझम हें नांव दिलें. सोद वावराखातीर ताका खूब सोंसचे पडले. कातोलीक धर्माचे मुखेल अधिकारी ताचे फाटीक लागले. सत्य सोदपी सगल्यांच्या फाटल्यान अशे कांय जाण लागतात. होवूय एक मुद्‌दो ह्या संदर्भात मतींत दवरचो.

तांच्या गोमन्तोपनिषद (पयलें खंड) हांतूंत पांच कथा आयल्यात. म्हजी बा खंय गेली ? वासू शणैली पोपाय, बाबुमामालो पणस, पितुबाबालो तांब्यापटो, आनी खर्णवीर. ह्या कथांतल्यान कोंकणीत आधुनीक भारतीय कथेचो प्रवाह

सुरु जाल्लो. तांतून बाल-मानसशास्त्र, - (child psychology,) अंहिंसा Ahimsa. ह्या सारकिल्ले विशय "कथांनी हाताळ्ळयात" "म्हजी बा खैं गेली?" हे कथेंत बाबुल्यान आपले सर्गार गेल्ले आवयचो घेतिल्लो ध्यास, ताचो कळवळो हाचें दुःखेस्त चित्रण वाचूंक मेळटा. ल्हान (सान) भुरग्याचें जिवीतावेलें भाश्य. ताचे भाव संवाद उत्कटतायेन कथाकारान चित्रायल्यात. बाबुमामालो पणस सारकिल्ले कथेंतल्यान, पणसाच्या माध्यमांतल्यान अहिंसेचें तत्वगिन्नान सांगिल्लें आसां. हे कथेंतले वातावरण पात्रां, प्रसंग, घडणुको, कोंकणी समाजांतल्यो, कोंकणी मातयेंतल्यो. हांगासलें बुध्द तत्वगिन्नान आमच्या 'भोळीगाय आनी दुभो' सारकिल्ले लोक कथेतल्यान कोंकणी समाजात पयलींसावन आसलें. शणै गोंयबाबान अक्षर साहित्याच्या रुपान तें कोंकणीत हाडलें. डॉ किरण बुडकुले म्हण्टात शणै गोंयबाबाचे कथेचें खाशेले योगदान म्हळयार तांगेली ही 'काणी'. कोंकणी अस्मितायेक खेरीत दिश्टावो दिवन वता. शणै गोयबाब हांणी सगल्या धर्माचो अभ्यास केल्लो. बरें लागता म्हुण तांणी ते घेवंक ना तांणी जशे आपले विचार आमकां बुध्दीचे साणीर घासून पळयल्ले उपरान्त खरे आसल्यारुच घेयात अशे सांगलां तशें ताणीच बायबल, कुराण आनी हेर धर्मतत्वां पचोवन ताचो आपरोस मांडपाचो यत्न केला.

तांचें गोमन्तोपनिषत् खंड दुसरे (1933) हें आधुनीक कोंकणी नवलकाणयेचे मुळावण घालपी अशें बरप. मनशान संवसारांत जल्माक येवन आपली पवित्र भूंय आपल्या पापांनी वायट कर्तुबांनी नश्ट केली. आनी तांचे पिकासांव जावन देवान हे धर्तरेर बुट्टी हाडली. पुराय सृष्टीचेर उबगून ती काबार करची ह्या हेतून हाडिल्ले संवसार बुडटेन जे जिवात्मे बोबो मारीत मार्गांत चलतात. तातुंतल्या वेचीक बारा आत्म्यांचे आत्मकथन करताना तांचे प्रवृत्तीदर्शन आमकां हे नवलकाणयेत घडटा. देवदुताकडेन जाल्ली ह्या आत्म्यांची भासाभास म्हळयार अर्थशून्य 'प्रतिवाद' न्हय. ते एक तत्वगिन्नान. समाजाचे प्रतिक रुपातलें दर्शन पाळण्यांतल्या भुरग्याक म्हालखूमधरुन ते हुनीरमाम, वेपाऱ्याचो कारभारी, दिसावडेकार, मानायाचो पोर जो राजाचो जांवय, म्हालो, शेट, जोतिशी, मडवळ आनी निमाणो बामण, अशा विंगड विंगड जात, धर्म, अवस्था, रानटी वृत्ती-प्रवृत्तीचें चित्रण हे नवलकाणयेत वाचूंक मेळटा. आयचे भशेन धर्मकोल्लाच्यो पालख्यो नाचोवपी धर्मकोल्ली राजाचेय रुपडे थंय ते नवलकाणयेत पळोवंक मेळटा. सगळे जाण आपआपल्यो मांडण्यो देवदुतांकडेन केले उपरान्त बामण जे

प्रदीर्घ उलोवप करता, तांतुतल्यान जिवीतांतलें वास्तव सत्य आनी संवसारांतल्यो भ्रामक कल्पना हांचें स्पश्टीकरण जाता. मेल्या उपरान्तचो सर्ग, नरक, देव आदी कल्पनांचें वास्तव चित्रण हे नवलिकेत शणै गोंयबाबान मांडलां. तो सार संवसार बुद्दीत मांडून बामण आत्मो जें सांगता तें खासा शणै गोंयबाबूच. अशें म्हळयार अतिताय जांव न्हजो

'मोगाचें लग्न' 'पोवनाचें तपलें' आनी 'झिलबा राणो' हीं नाटकां शणै गोंयबाब हांणी रचल्यांत.

'झिलबा राणो' हें नाटकूय 1933 तलें. 60 पानांचें हें पुस्तक अबू हसनच्या अरेबियन नायट्सतल्या चे काणयेचेर जरी आदारुन बरयलां तरी पुराय वातावरण गोंयचें. ह्या नाटकाचो काळ शणै गोंयबाबान दिला तो 1124 गोवापुरी (व्हडलें गोंय). राजपाटण तांतूंत 12 मुखेल पात्रां आनी कांय गौण पात्रां आसात. ह्या पात्रांचें कोंकणीकरण करताना कोंकणचो राजा, देवकी, भगत, घाडी हीं कोंकणी पात्रां आसात. गोवापुरीतलो एक भाटकार झिलबा राणो हाणी दुसरो जयकेशीदेव जो कोंकणचो राजा आसता. (जो बनवसीचो सावकार) ताका राज्यांत कितें कितें घडटा ताची वळेरीच दिता. तातूंन तो सांगता की आमच्या कोंकणात आमच्या उदारपणाचो फायदो घेवन हरदास, पुराणीक, पिंगळी, मेडेजोयशी, ब्रह्मचारी आनी बाबा सारकिल्लो लोक आमकां नाड्टा. तांकां गोंयात हाडपाक आमचे गोंयकार बामणूच कारणीभूत आसात अशे ते म्हण्टात. तांकां आपलेपणाचो अभिमान निखालूस ना. ह्या नाटकांत मागीर राजा ताका न्हिदेतल्यान व्हरुन एकादिसाची राजा गादी दिता. थंय 'झिलबा' राजा कसो वागता. परतून दुसऱ्या दिसा घरा आयलो उपरान्तचो घोळ. झिलबाक निरंकार लागलां म्हणून घाडी हाडटात. मारबडय करतात. नाटकाचे अखेरेक जुंव्या वयलो झिलबा राणो कोंकणच्या राजाकडल्यान आशिर्वाद मागता, तो कोंकणी समाजाचें बरें कर म्हुण ह्या नाटकांत जयकेशी देव कोंकणचो राजा तथास्तू म्हूण आशिर्वाद दिता. इतिहासीक नदरेंतल्यान हो आशीर्वाद तपासून पळोवप गरजेचें. हांगासारली गौण पात्रां देवकी, सुन्दरें, इलो, कामणें, फटो खांपू हीं प्रवृत्ती दर्शक आसात. तीच गत तांच्या 'मोगाचें लग्न' ह्या नाटकाचे बाबतींत जाल्या. मोलिएरच्या 'फ्रेंच' च्या नाटकांचें कोंकणी रुपांतर शणै गोंयबाबान केलां. हांवें जी प्रत वाचल्या ती तिसरी आवृत्ती. पुस्तकांत काशिनाथ श्रीधर नायक हांणी आपली कोंकणीविशींची भूमिका स्पश्ट केल्या. मुंबयंत तेदेवेळार रावपी हिन्दू समाज

आनी पर्यायान सारस्वत समाजाचो कोंकणीकडेन पळोवपाचो दृष्टीकोण सकारात्मक नदरेंतल्यान कसो बदलत चल्ला हें दाखयला. नाटकाक धरुन रामचंद्र शंकर नायक हांणी 11 पानांची व्हॉवळीक दिल्या. आनी मोगाच्या लग्नाची सविस्तर खबर सांगल्या (30 वयर नाटकांचो बरोवपी) मोलिएरची जीण आणी बरप मांडून तातुंतलो सत संघर्श दाखयला. ते फार्सिकल पध्दतीन मूळ नाटकाचो रुपकार करतना पात्रांचें तांच्या (Character) चें कोकणीकरण करतना बरोवप्यान हातचलाखी वापरल्या. पात्रांच्या तोंडांतली म्हूण प्रमाण स्वरुपाची भास संहितेक थोडें मोटवेंपण हाडटा. 'मोगाचें लग्न' नाटकांत वेंकटरमण नांवांच्या धन्याक जाणट्या मनशाकडेन धाकटेलपणाक लग्न करपाक मुखार सरता आनी लग्नादिसा 'मोगा' ची वाचा धरता. ताचो मोग घारुदादाच्या भाच्याचेर सुब्रमणीचेर आसता. जो शिकिल्लो सवरिल्लो आसलो तरीय पैशांच्या लोभान घारुदाद मोगाचें लग्न इत्सेआड वेंकटरमणाकडेन थरयता. आनी मागीर आबगो, बाबगो, म्हालखूम, सुब्रमणी, मोगा सगलीं जाणां एक जावन घारुदादाक सत्याची जाणविकाय करुन दिताना मोगाचेय लग्न सुब्रमणीकडेन करून दितात. ज्या सुब्रमणीक (Administrador) ची नोकरी मेळटा असो सुखांत शेवट दाखयताना ह्या नाटकांत नदरेंत भरतात ती म्हालखूम आनी बाबगो. तांचो हेगाडी सभाव, तांची तोडाची भास, तांची उतरां-झुजां. ह्या नाटकांत पुर्तुगेज कायदयाचे संदर्भ येता. इश्टेटींचे वाटणे संबंदान आनी त्या कायद्यांचो फायदो घेवपी भायलो वेंकटरमण कसो सुवार्थी प्रवृत्तीचो आसा हे दाखयलां. वाचा बशिल्ल्या मोगाक वैजपण करुंक तयार जाल्लो बाबगो, तांचो शिश्य जावन मोगागेर गेल्लो सुब्रमणी, थंयचो घुस्पागोंदळ बरोवप्यान फिशालकायेन दाखयला. बेबदो बाबगो ह्या नाटकांत 'गीत' म्हण्टना शणै गोंयबाबान दाखयला. सोऱ्याचे समर्थन करपी गीत गायतना म्हण्टा (समुद्रमंथनाच्या संदर्भातल्यान सुरू करुन शेवटाक)

"वर्णनां अशीं ह्या सोऱ्याची पाठ सदी म्हणचीं
मागीर बरी कट्टी भरची घुटूघुटू करची !"

शणै गोंयबाबान नाटकां रचल्यांत तो तांचे निश्टेचो प्रस्न. कोकणी भाशेची निश्ठा म्हुण 'झिलबा राणो' जांव 'मोगाचे लग्न' जांव पात्रांच्या तोडांतल्यान कोंकणी भाशेचो पुरस्कार करताना तत्कालीन समाजांतली भाशीक मानसिकताय मांडपाचो यत्न करताना ते एक गजाल करतात, ती म्हळयार बामणांक जाग हाडटात. ताची देख पान 15 आनी 50 चेर दिल्या. 'झिलबाराणो' ह्या नाटकांत

तर कोंकणीचे बरें जावं म्हूण आशिर्वाद मागतना भायल्या हरदासांनी गोंयकारांक 'देवळांनी रावन' 'गाढव, धुकर, म्हशीचे घोव आनी हिजडे' म्हूण हिणसायल्यात. अशें झिलबा सांगता. शणै गोंयबाब हीं उतरां अवतरण चिन्नां घालून नाटकांत बरयता. दोनूय नाटकांनी हो विशय आयला. थोडीशी पुनरुक्ती जाता. नाट्य संहितेक मोटवेंपण येता, पूण ते आडनदर करपा सारकें. शणै गोंयबाबान इतिहासीक संगीत आनी सामाजीक आशय आशिल्लें, भास-संपन्न नाटक कोंकणीक दितना एका बुदवंत मनशाची नदरुय दिल्या, खरें समाज प्रबोधन केलां.

निंबदकार म्हूण तांचो अभ्यास करताना तांचे मदलो तत्ववेत्तो जितलो अमृताच्या पावसांत दिसता तितलो भाव कवी 'मयेंच्या तळयार' सारकिल्ल्या निबंदात दिसता. दिसता की हो निबंद ज्या सुत्रान सुरु जाला तो फुडें वचपाकूच जाय. तळयाच्या सरभोवतणचो उबो केल्लो सैब आयचे घडकेक मयेंच्या तळयार वतकूच सोदचो पडटा, हें दुर्दैव!

शणै गोंयबाबाचे कवितेंतल्यान गोंयचो सैंब आनी धर्म जगपाचो धर्म उक्तो जाल्लो आसा. गोंयबाबाक जें गोंय दिशिल्लें तें, गोड आनी सुंदर नामनेंचें आनी भाग्यांचें, निजाचे अपुरबायेचें पथीक उदका वाऱ्याचें, शिटूक सावदां सवण्यांचें, उजळ संस्कृतायेचें, विद्वानांचें, झुजाऱ्यांचें, बुदवंत राजकर्ण्यांचें, वावराड्या कामवटांले. शणै गोंयबाबान म्हजें गोंय म्हूण जे कवितेंत 17 वळींनी आनी 5 कडव्यांनी सांगला तें तांणी आपल्या सगल्या गदय साहित्यांतल्यान सिध्द करुन दाखयलां. देखी दिल्यात. त्या अर्थान शणै गोंयबाबांचें जिवीत आनी कवीत एक जाल्लें. तो यमक्या वामन न्हय. तो मुक्त जीण जगपी वामनावतार. आयज होच श्रमजीवनाचो मंत्र तांचे घरवडींतलेत शांताराम वर्दे वालावलीकार मुखार व्हरतना दिसतात. ते वंय बी आपल्या गितांनी म्हण्टांत 'आमच्या गांवचो वावराडी कितले कश्ट उस्तीता' आमचे भुंयेची वळख समेस्तांक करुन दिवपापासत शणै गोंयबाब हांका मळबपिशें लागिल्लें. मळबाचो ध्यास घेतना तांणी मातयेकडली नाळ तोडूंक ना. आमीबाबात कुळां न्हय हाचो दिश्टावो दिसना. ते एकेकडेन एक देख दितात. तो संदर्भ 'आमची भूंय विद्येंत फाटीं आसा ?' ह्या बरपांत आयल्या फिर्गींभास आनी मराठी भास बरो उलयता तो विद्वान अशीं समजूत आशिल्ल्या तेदेंवेळावेल्या गोयांत. श्री गणेशा नकळो आशिल्लो पूण निजाचो विद्या जाणा आशिल्लो गावडो. तांच्या मतान विद्वान जायना ही खंत उकतावन गावड्याची निजाचे कोंकणी आवय भाशेचो संदर्भ दिवन ते भाशेंत तो आपले गिन्यान उक्तायतना ह्या दोगूय

विद्वानांपरस तो उजू थारता अशें शणै गोंयबाब म्हण्टात. आनी ताचो पुरावोय दितात.

शणै गोंयबाब हांचे साहित्य निर्मणेच्या मुळाक एक दुख आसलें. दुख कोंकणी भाशेची अवहेलना, कोंकणी समाजांतलो घालयल्लो आत्मसम्मान हे निर्मणेच्या तळाक एक तिडकूय आशिल्ली. तिडक, धर्म, संस्कृतायेच्या नावान, भाशेच्या नावान नीज गोंयकारांची नाळ तोडूंक सोदपी मनशांची, प्रवृत्तींची आनी हे निर्मणेच्या फाटल्यान एक हेतू आशिल्लो. स्वाभिमान जागृत करपाचो. भास, साहित्य, संस्कृताय आनी समाज घडोवपाचो. ते खातीर ते भोवले. खूब भोंवले. आनी अक्षरयात्रा घडयली. भोवंतना वसू कशे भोवूंक नात. सांगाताक असल्याय मनशाक घेवन भोंवले जांका कांय लोक मराठी अस्मितेचे जनक म्हण्टात. ते पांडुरंग पिसुर्लेकारांक घेवन गोयांत म्हान गोयकारांच्या घरांनी भोंवले. व्हड व्हड मनशांच्यो वण्टीक लायिल्यो डिग्र्यो दाखोवन ह्या डिग्र्यांवाल्यांनी कोंकणी खातीरगोयंचे भुयेखातीर तशें कांयच केलें ना. तांच्यानी आपल्या गिन्यानाचो उपेग कोकणी समाजाखातीर करूंक ना, हे दाखोवपाचो यत्न केला. शणै गोंयबाबान. अ. का. प्रियोळकार हांकां सोद वावराची नदर दिल्या. अ. का. बावान तशें सांगला. शणै गोयबाबाच्या मर्णा उपरान्तचे शोक सभेत ते उलयल्यात. जो मनीस दिवचलचे भितरले पेठेत 23 जून 1877 वर्सा जल्मलो तो भितरलो पेठेतूच रावलो ना. तांणी कोकणी पेठ वसयली, उतरांची!, अमृताच्या पावसाची!. तांणी नवे गोंय (नेमाळें) तीन वर्सां चलयलां. The Goa Hindu Association, कोकणी परिषद, सारस्वत समाज मुंबयतले नीज गोय, बुध्दवंत प्रज्ञावंत तशेच सामान्यांच्या सांगातान वावर करपाक तांची 69 वर्सांचो जीण पुरी पडली ना. मुंबयंत तांणी 'गोमन्ताश्रम' घर बांदताना घराभोवतणी वय केलींना. थंय गोंयचे रुख लायले. अस्मिय जागी दवरली. तांचेच प्रेरणेन आयज आखातांत आशिल्लो गोंयकार आपले गोय, कोंकणी गोय उबे करता. आपली अस्मिताय जगयता, जागयता अशे म्हळयार अतिताय जावं नजो. शणै गोयबाबाच्या साहित्यांत खुबशेकडेन 'बामण' 'हांव बामण' 'आमी बामण', फारीय बामण, संवसार बुटटीतलो बारावो आत्मो बामण, मोगाचे लग्न नाटकांत बाबगो आपले बायलेक म्हालखुमेक बामणाची बायलां आमका घोवांक 'तुमी' अशे पाचारतात अशें म्हण्टा. अशे जायते संदर्भ आसात. ह्या संदर्भावांगडाच बामणांनी भायल्या लोकांचे संगतीन कोंकणीचें पाड घालपाक मराठी हरदासांक गोयांत हाडल्यात अशें उल्लेख बी

मेळटात. आपले जातीची जाण दवरुनय शणै गोंयबाबान तेदेवेळावेली समाज वेवस्था, प्रबोधन यूग आनी सामाजीक बांधिलकी मानत्वी शणै गोंयबाब ह्या लेखकाची नैतिकता ते नदरेंतल्या नदरेंतल्यान अभ्यासप गरजेचें. आपूण कोंकणी, गोंयकार, हिन्दू, बामण हो ताच्या स्वाभिमानाचोय, नैतिकतेचोय भाग आसा हें मतींत घेंवचें, देवळांतल्या कलावंताच्या सामाजिक प्रस्नांचो उल्लेख करुन शणै गोंयबाब कलवंत-भावणी वेवस्थेचे कुड्डें समर्थन करतात असो एक विचार आयच्या काळांतूय लावपाचो प्रयत्न जाता. महाराष्ट्रांत ना. नधो. कर्वेन जो ह्या संबदान विचार मांडला तोय बी जोखून घेवपाचो आसा. कर्वे हे अशेतरेच्या तत्सम वेवस्थेक समाजाची एक गरजूय हे नदरेतल्यान तत्कालीन समाजवेवस्थेक धरुन पळयतात. शणै गोंयबाबाचे बाबतींत आमी हो मुद्दो मतींत घेवंचो. अर्थात हो वादाचो आनी चर्चेचोय विशय. पूण शणै गोंयबाबान अैन वेळार जी गजाल सांगल्या ती त्या वेळारुच सांगल्या. शिवाजी कितलीं लग्नां जाल्लो, तो लग्न जाल्यो व्हंकलो बाल विवाह प्रथेत मोडटा काय नात हो विचार आमी शिवाजीचें मुल्य मापन करताना करनात. आमी ताका 'जाणता राजा' म्हणून वळखतात. 'निश्चयाचा महामेरु बहुत जनांसी आधारु' अशेच महाराष्ट्रीय संत म्हण्टात.

शणै गोंयबाब हांची शैली म्हळयार एक यूग शैली. तो उतरांचो पाडेली न्हय आनी भाटाचो भागेलीय न्हय. तो खऱ्या अर्थान कुळवाडी. कोंकणीचें आर्विल्लें कूळ वसोवपी कुळवडी. कोंकणीचें कुळार वसयतना हे मातयेच्या आत्मस्वराकडेन नातें आशिल्ल्यान आनी आपले जीव जिवात्रळीची पुराय खबर आशिल्ल्यान कोंकणीच्या रुजपी रुखाक 'बामणकिडो' लागचो ना हाची जतनाय ते घेतात. हे मातयेंत जल्मल्ल्या निजाच्या आंकऱ्यांचेर परकी साऱ्यांचो परिणाम जाता हें तांकां खबर आशिल्लेंच. देखून ते 08-10-1940 वर्सा गोमताश्रमांतल्यान भौ. नरसिंह बाब नायकांक बरयल्ल्या पत्रांत ते बरयतात. "भौ. काशिनाथ बाबा भशेन तुमीय आवै भाशेचे सेवेक तन मन धन खर्चून पोट तिडकेन वावुरतात. हें पळोवन तिचे भाग्याचे दीस लागी पावल्यांत अशें म्हुणूंक पर्वा ना. तुर्ताक जे कोण गोंयकार कोंकणी आड बोवाळ करतात, ते अजाणपणान करतात देखून तांची अपुर्बुध करुं नये. तांकां आपणालें खरेलें हीत समजतकूच तेय कोंकणी भाशेचे सेवेक आपशींच लागतले. तांणी कोंकणी आड चलैल्या राजकर्णाची खबर हांगा जायत्या जाणांक आसा.." (संदर्भ-मुठय- पुंडलीक नारायण नायक. सेवा समिती प्र. 1977 मडगांव) नाटककार, कथाकार, निबंदकार, ह्या विंगड

विंगड तासांनी शणै गोयंबाबाकडेन पळयतना तांचे मदलो 'काणयेकार' सदांच दिसता. श्री. भगवंताचें गीत आमचे मेरेन पावोवपी. तांचे मदलो शास्त्री दिसता. विज्ञानीक परिभाशीक उतरावळ कितें, शणै गोंयबाबान सगलीच घडयल्या अशें म्हणूं नजो. ती ताणी लोकभाशेंतल्यान घेतल्या. लोक जिणेंतल्यान घेतल्या. हाचो अर्थ आमच्या समाजाक विज्ञानीक दृश्टीकोन आशिल्लो. सृश्टी सौंदर्यशास्त्राचो अभ्यास आशिल्लो. शणै गोंयबाबान ही उतरावळ साहित्यांत वापरल्या. तातूंत लोक म्हणी आसात.

"पार्वतीन दिलो म्हादेवाक विडो आनी सोऱ्याच्या बल्लांत बाबगो जालो किडो"

अशी वृत्तीक धरुन खोचक नांव घेता तीच म्हालखूम मागीर खोशयेन म्हण्टा.

'वज्रांच्या घराक कँपांचे नळे आनी बाबग्याच्या गळयांत मोगरेचे कळे."

ह्या वेळार आनीक एके गजालीचो उल्लेख गरजेचो आसा. तो स. शांताबाय वामनबाब वर्दे वालावलीकार हांचो. जाग जानेवारी 1978 च्या अंकात शांताबायन संकल्पीत केल्ली 'इंदिरेच्यो शिरवळयो' ही लोककथा आयल्या. कोंकणी लोककथा संकलन करपाची शणैगोंयबाबाची खूब इत्सा आशिल्ली जावंक जाय. अशे 'जागाचे' संपादक म्हणटात. हो अस्मितायेचो लामण दिवो पेटत दवरपाक जयंती नायक, पांडुरंग फळदेसाय कमला देवी (ताई), कमलाकर म्हाळशी सारके अभ्यासक वावर करतात ही स्फूर्त शणै गोयबाब न्हय? ही अस्मितायेची वार ! कोंकणी अस्मिताय सांबाळपाचो हावेस आयज दिश्टी पडटा तो ह्याच लामण दिव्याक लागून.

डॉ. तानाजी हळर्णकार हांणी 'आमी म्हळयार कोण तें ह्या कोंकणीच्या लामण दिव्यांच्या उजवाडाक येवन जांणी उजवाड स्तोत्रां घडयल्यांत' तांचो दिश्टावो दिला. 'उसरां येवपी पावसांत लेगीत तुफानाचें बळगें आसता' हें पुंडलीक नायकान आमकां सांगलां. कोंकणी भाशेचें पूर्ण स्वराज्य भोगतना अस्मितायेचे राखणेचो वावर करपी आमी राखणदार. आमचे मातयेंत धेंक चलता तो बांगर बैलांचो. अडेची मुस्तायकी फाटकुळेर उडोवन आनी शिंगा रंगोवन पुजा करुन घेवपी घणसाबैलांचो न्हय!

●

# शणै गोंयबाब - एक इतिहासकार

***- प्रा. प्रजल साखरदांडे***

कोंकणी भास आनी कोंकणी साहित्याच्या पुनरुत्थानाचे जनक वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार म्हळ्यार शणै गोंयबाब हांचे 125 वे जयंती निमतान ताच्या इतिहासाचा सोद घेवपी वावराचेर नदर मारतना, एक गजाल नदरेज भरता ती म्हळ्ळा शणै गोंयबाब हांच्या साहित्यीक सरस कलाकृती रचपाफाटलो आत्मो, तांची आनी आमच्या समेस्त गोंयकार भावा-भयणांची मायभास कोंकणी. खरें सांगपाचें जाल्यार म्हजेखातीर ते कोंकणी भाशेक मानाच्या पाटार बसोवपाक तळमळपी एक खरे नायक. एक म्हालगडे.

इतिहास हो म्हजो आवडीचो विशय. आमच्या माणकुल्या सोबित गोंयांक एक व्हड इतिहास आसा. हांवें पळयलां की गोंयचो इतिहास जाणून घेवपाक आमचे मोगाळ गोंयकार भाव-भयणीं सदांच उत्सूक आसतात. गोंयचेर सगळयाच लोकांनी प्रेम केलें. देशी-विदेशी भोंवणेकार तर गोंयचेर जीव ओततात. पूण जेन्ना आमचे कांय भाव आपल्याच आवयभाशेचो दुस्वास करतात. आनी गोंयांत रावून, गोंयांत जल्म घेवन आनी स्वता गोंयकार आसून मराठी आपली आवयभास म्हणापचो प्रयत्न करतात तेन्ना मन खिन्न जाता, मन पेटून उठटा. अशें कित्याक घडटा?

तर एक कारण म्हणजे तांचे गोंयच्या इतिहासाबद्दलचे अज्ञान. जो मनीस आपल्या मायभूंयेचो इतिहास विसरता तो केन्नाच आपल्या आवयभाशेकडेन प्रमाणिक रावूंकूच शकना.

कोंकणी भाशेक केदो व्हड इतिहास आसा हें पयलें आमकां पटोवन दिवपी शणै गोंयबाब एक व्हड इतिहासकार आसले. ताणी गोंयच्या कोंकणी दायजाची, गोंयच्या इतिहासाची लोकांमदी जागृतकाय जांवची म्हण मोलादीक अशें काम केलें. शणै गोंयबाब म्हणजेच गोंयच्या इतिहासान भांगरा अक्षरांनी बरोवपा सारकें एक पान. तांची इतिहासाचेर केल्ली बरपां गोंयच्या पुर्विल्ल्या इतिहासाची मोलादीक जाणविकाय आनी जागरुकताय घडोवन हाडटा. म्हाका शणै गोंयबाब हो एक इतिहासकार म्हण चड भावता. ताचें कारण म्हणजे गोंयच्या इतिहासाचो सोद घेवप आनी गोंयच्या दायजाची लोकांमदी जागृतकाय हाडप हें हांव म्हज्या जिणेचो हावेस म्हण समजता. गोयच्या इतिहासांचो आनी दायजांचो सोद घेतनाच म्हाकां गोयच्या ह्या म्हान इतिहासकाराचें दर्शन घडटा. शणै गोंयबाब आपल्या इतिहासाच्या पुस्तकांवरवी आमकां सांगतात की गोयची अस्मिताय ही कोंकणी. जेन्ना आमी शणै गोयबाबांची इतिहासावेलीं पुस्तकां वाचतात तेन्ना एक गजाल आमकां परत परत जाणवता ती म्हणजे मराठी भाशेक गोंयकारांची आवयभास म्हणप ही एक व्हड मुर्खपणाची गजाल. मराठी आमची भास केन्नाच नाशिल्ली आनी कितलोय जर कोणेय यत्न केलो जाल्यार मराठीक गोंयकाराच्या इतिहासान, अस्मितायेन आवयभास म्हण केन्नाच स्थान नाशिल्लें, जर हें फट तर तांणीं शणै गोयबाबांचे 'गोयकाराली गोयांभायली वसणूक'' मुद्दाम वाचचें. मराठीवाद्यांनी तर ते अवश्य वाचचेंच.

गोंयांत पुर्तुगेज येवच्या पयलीय व्हड असो गोयकाराचो इतिहास आसा अशें सांगपी आमचो शणै गोयबाब. हो गोंयच्या इतिहासाचो आनी अस्मितायेचो झगझगतो दिवो म्हळयार अतिताय जांवचीना. ताणी आमकां आल्बुकेर्कान गोय कशे जिखले तेवूय सांगलां.

### शणै गोंयबाबांली इतिहासावेलीं इतिहास घडोवपी पुस्तकां

शणै गोयबाबांन गोयचो इतिहास हो विशय मोठ्या उमेदीन एका सूक्ष्म अशा संशोधकाच्या दृष्टीन हाताळ्ळा. तांच्या पुस्तकांची नांवांय तशीच सोबित. 'गोयकाराली गोयांभायली वसणूक', 'आल्बुकेर्कान गोय कशे जिखले?', 'वलिपत्तनाचो सोद', हीं शणै गोयबाबांची गाजिल्लीं पुस्तकां. हांव 'आबे फारीय' आनी 'पुण्यात्मो रामा कामती' ही सुद्दां चरित्रात्मक पुस्तकां इतिहासीक पुरुशांचेर आसात म्हणतकीच ती तांच्यो इतिहासाच्योच कृती म्हणू येता. कारण आबे फारियाक तर गोंयच्या इतिहासांत एक व्हड स्थान आनी म्हत्त्व आसा. 'हिप्नोटिझम'

हो विशय हाताळपी ते संवसारांतले पयले आनी गोंयकार म्हण तर आमकां तांचो अभिमान आनी तोखणाय दिसता. शणै गोंयबाबांक आपल्या गोंयकार भावा-भयणांची व्हडव्हीक भोगली आनी ताणीं ही चरित्रां रचलीं. त्या काळांत इतिहासाचेर संशोधन करप हें कठीण काम आशिल्लें तें ताणीं केलें. तें संशोधन करता आसतना तांणी इतिहासान आमी मोलादीक मानतात, सोद घेवपाचो अश्या तांब्यापट्यांचो वावर केलो. गोंयांत सांपडिल्ल्या पुर्तुगेज येवपा पुर्विल्ल्या तांब्यापट्यांचो शणै गोंयबाबान मन लावन अभ्यास केलो आनी त्याच आधारार ताणीं 'वलिपत्तिनाचो सोद' घेतलो. ह्या तांच्या संशोधक दृष्टीचो आमकां अभिमान आसूंक जाय. तांचें कार्य सोपें नाशिल्लें. हें करता आसतना ते तान-भूक सगळे विसरताले. शणै गोंयबाबांचे इतिहासीक संशोधन हें आमचें दायज तें आमी विसरुंक शकना.

**शणै गोंयबाब - एक संशोधक**

शणै गोंयबाबाभितरलो इतिहासकार आनी संशोधकाचो पिंड आमची भोंवडी गोंयच्या इतिहासीक सोदावरवी बलिपत्तनाच्या राजपाटणात व्हरता. ताणी खोलायेन चौकशी करून बलिपतन हें शिलाहार राजवटीतलें गोंयचें राजपाटण. हें दुसरें तिसरें खंयचेंच नासून तें आमचें बलिपतन म्हळयार अर्विल्लो केपे म्हालांतलो बाळ्ळी गांव असो सोद ताणी 'बलिपत्तनाचो सोद' ह्या पुस्तकांत मांडलो. आपल्या मुद्दयाक घटपण हाडपाखातीर तांणी क्रि. स. 988 ल्या शिलाहार राज्याच्या एका तांब्यापट्यांत धम्मियर राजान बलिपत्तन थळ समुद्राचे वेळेपर्यंत वाडोवन सोबित केलें अशें सांगलां.

तांणी साश्ट म्हालांतल्या वेळ्ळी आनी केपें म्हालांतल्या बाळ्ळी ह्या दोनूय गांवांची तुळा केली आनी दोनूय गांवाचे घडणेचो, थळाचे विशेशतायेचो अभ्यास करुन असो तर्कशुध्द विचार मांडलो की वेलीं वा वेळ्ळी म्हळयार शिलाहारांची राजधानी बलिपत्तन न्हय तर बलिपत्तन म्हळयार बाळ्ळी अशें मत तांणी दाखल्यावरवीं पटोवन दिलें.

गोंयांत कदंब येवचे पयली दक्षिण कोंकण शिलाहार राज्य करताले. ताका गोवा शिलाहार अशें म्हणताले. शणांफुल्ल हो त्या शिलाहार म्हणजे दाक्षिणात्य कोंकण शिलाहार ह्या राजांचो संस्थापक. शणै गोंयबाबांच्या 'बलिपत्तनाचो सोद' ह्या पुस्तकान गोंय शिलाहार राजांची आमकां नांवां सांपडतात.

गोंयांचेर साबार अशा राज्यांनी घूरी केली. मौर्य, सातवाहन, छुट्टु शत्रप, आभिर, त्रैकुठ, नाग, भोज, कैकय, कोंकण मौर्य, गुप्त (?) सेंद्रक बादामी, चालुक्य, राष्ट्कुठ, दाक्षिणात्य कोंकण शिलाहार, कदंब, यादव, होयसाळ, कल्याणी, चालुक्य, मुसलमानांच्यो घूरी-कफूर, तुघलक, बाहमनी, विजयनगर, परत बाहमनी, आदिलशाही आनी मागीर पुर्तुगेज अशा साबार राजांनी गोंयचेर राज्य केलें.

'गोंयकारांली गोंयाभायली वसणूक' ह्या पुस्तकांत तर गोंयचो पुर्तुगेजांच्या पयलींचो जितो-जागतो इतिहास शणै गोंयबाबांन आमच्या मुखार दवरला. ते म्हणतात. राष्ट्रकुट सम्राट हे मुदलचे गोयचे साश्टींतले लोटलेचे. लोटले म्हणजे लत्तलपुर आनी ताणीं लत्तलपुराचो असो इतिहासीक सोद लायलो. तें महाराष्ट्रातलें तातूतही आसूंये अशें म्हकां दिसता.

ह्या पुस्तकान ते पयल्या सुवातेर गोंयचो विस्तार, आवांठ, योग्यताय आनी म्हत्व आमकां आपल्या पयल्या उलोवपांत पटोवन दितात. शणै गोंयबाब आमकां सांगतात की गोमन्त देसाचे दुसरे नांव म्हणजे सुनापरान्त.

गोंयांतूय बौध्द धर्म फुललो आनी फळलो हे शणै गोंयबाब अहत पुण्याची खबर सांगून आनी आमकां बौध्द धर्माच्यो कुर्वो दाखोवन पटोवन दितात. शणै गोयबाबान प्रत्यक्ष रिवण, हरवळे, लामगांव आनी आकेच्यो बौध्द होवऱ्यो पळयल्ल्यो. ताणी हरवळेच्या होवऱ्यांतले एके कुडींत लिंगावरी मानिल्ल्या काळात्री पाशाणाचेर क्रिस्ताच्या सुमार पयल्या शेकड्यांतली ब्राह्मी बरपाच्या आठ अक्षरांची वळ पळयल्ली. हाचेवेल्यान त्यो हरवळेच्यो होवऱ्यो दोन हजार वर्सां इतल्यो पोन्र्यो आसात हातून दुबाव ना अशे शणै गोयबाब म्हणटात.

गोंयचेर राज्य करपी कदंब, विजयनगर, मुसलमान राज्यांचो इतिहास ते आमकां सांगतात. आलबुकेर्कान गोय अशें जिखलें? हो जो आमच्या मुखार प्रश्न रावता ताजें उत्तर ते आमकां 'आल्बुकेर्कान गोय कशे जिखले?' ह्या तांच्या पुस्तकांत दितात.

1510 वर्सा आमचें गोय आफोस द आल्बुकेर्काच्या शेकातळा आयलें. गोंयबाबांनी खोलायेन म्हायती काडून गोय आफोस द आलबुकेर्काच्या हातांत कशे पडले ताचेंविशी सांगलां. अशे तरेन गोंय जिखेचो जितो-जिवो असो सुटसुटीत

नियाळ तांणी ह्या पुस्तकांत मांडला.

शणै गोंयबाब हे एक खांपे व्युत्पत्तीकार अशें हांव तांकां मानतां ते तांच्या इतिहासिक निबंदांनी गोंयच्या इतिहास आनी दायजाविशी बारीकसाण आशिल्ल्या म्हजेसारक्या विद्यार्थ्याक गोंयच्या गांवांच्या व्युत्पत्तींनी घुस्पल्ल्या गोंयच्या इतिंहासाची गोडी लायतात. बलिपत्तन, चंद्रपूर लत्तलपूर ही गांवांचीं नांवां आमी घेवं येतात.

'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें?' ह्या तांच्या पुस्तकान ते आमकां गोंय म्हणजे ओल्ड गोवा वा एला ह्या नामनेच्या व्यापार केंद्राची भोंवणी घडयतात. मांडवी न्हंय गोमतीवेल्यान मांडवी कशी जाली ते सांगतात. थंय कसल्यातरेचीं तारवां येताली तें सांगतात. विजयनगर साम्राज्याचो काळ, बाहमनीचो काळ, विजयनगर-बाहमनी राज्यांची झूजां, गोंयचेर महमूद गवानाची म्हणजे बाहमनीच्या प्रधानमंत्र्यांची घुरी, मागीर बाहमनी राज्याचे जाल्ले फांटे, तांतूतल्यानूंच आदिलशाही राज्याची स्थापना, कशी जाली, कोणे केली हो सगळो ज्वलंत असो आमच्या गोंयचो इतिहास शणै गोंयबाब आमकां सांगतात.

युसूफ आदिलखान म्हणजे आदिलशाही मुसलमान राज्याचो संस्थापक. हाच्या बद्दल खूब आनी गरजेची अशी इतिहासीक म्हायती ते आमकां सांगतात. युसूफ आदिलखान भारतांत कशे आयले, शेंकड्याच्या शेवटाच्या काळाची म्हायती शणै गोंयबाब सांगतात.

पोर्तुगीज गोयांतच न्हय तर भारतान पयले कालीकताक (केरळांत) कशे पावले तेंय आमकां सांगतात. व्हास्कु द गामा हो पोर्तुगिझ 1498 ह्या वर्सा दर्यामार्ग सोदून भारतान व्यापार करपाक पावलो. तो कालीकताच्या राजाक म्हणजे झामोरीनाक मेळ्ळो. ताचेकडे व्यापारासंबंधान उलयलो. मागीरचो काळ म्हणजे 1498 ते 1510 ह्या वर्सा मदलो काळ आनी मागीर आफोस द आल्बुकेर्काचो काळ, गोंयची सोळाव्या शेंकड्यांतली परिस्थिती आदिलशाहचें राज्य, गोंयकारांक नायत्यांचो जाल्लो त्रास, तिमय्याची आल्बुकेर्काक गोंय घेवपाक जाल्ली मदत, आल्बुकेर्काची मार्च 1510 तली पयली घुरी आनी 25 नोव्हेंबरची दुसरी घुरी हाजी अभ्यासपूर्ण इतिहासिक म्हायती शणै गोंयबाब आमकां दितात.

आल्बुकेर्काच्या गोंयच्या कारभाराची म्हायती आमकां शणै गोंयबाब

सांगतात. तशेंच शणै गोंयबाब आमकां म्हाळू पै वेर्णेकार ह्या भाटकाराची, सरदेसायाची म्हायती दितात. ते सांगतात की साश्ट म्हालांत, वेरणे गांवात म्हाळ पै नांवाचो एक सरदेसाय आसलो. तो नायत्यां आड उठलो. नायते म्हणजे अरबांचे वंशज. जे मुसलमान आसले आनी गोंया (ओल्ड गोवा) रावून थंयच्या हिंदू लोकांक पिडटाले. पूण म्हाळ पैचे कांय चलना जालें. हे पळोवन ताणें तिमय्याकडेन संदान बांदून आल्बुकेर्काक गोंया हाडलो. शणै गोंयबाब म्हणटात की आल्बुकेर्काच्या पालवान मुसलमानाक धावडावन थंय हिंदूचे राज्य करचें अशे म्हाळ पैच्या मनात आसलें. परंतू तें सादलें ना. उरफाटें पुर्तुगेजांच्या धर्मकोल्ली अच्छेवाक लागून म्हाळ पैकूच गोंय सोडून कोचीक वचचे पडले.

शणै गोंयबावान आल्बुकेर्काक गोंय घेवपाखातीर जी दोन झुजां करचीं पडलीं ती विस्तारान सांगल्यांत. 25 नोव्हेंबर 1510 ह्या दिसा आफोंस द आल्बुकेर्कान जें दुसरे खेपो गोय जिखले आनी ज्या दारांतल्यान तो गोयांत भितर सरलो तें म्हणजे पोरणे गोय, थंय पुर्तुगर्जीत आशिल्लो फातरफटो शणै गोयबावान सांता कात्रिनची कपेलांत पळोवन घेवन वाचलो तो असो -

"Aqui neste logar estava a porta porque entrou Governador Afonso de Albuquerque e tomou esta cideade aos mouros em dia de Santa Catharina anno 1510, em cujo louvor e memoria o Governador. Jorge Cabral, mandou fazer esta casa anno 1550 a custa de S. A."

मागीर शणै गोयबाब ह्या सांता कात्रिनाच्या कपॅलाच्या वणटीर आशिल्ल्या बरपाचो म्हणजे फांतरपट्याचो कोकणीत अणकार दितात तो असो - 1510 वर्सा सांत कात्रिनाच्या दिसा, गोवेर्नादोर, आफोंस द आल्बुकेर्क ज्या दारांतसून भितर सल्लो आनी मुसलमानाकडसून हे शार घेतले, ते दार हांगा ह्या जाग्यार आसले. 1550 त जोर्ज काब्राल गोवेर्नादोरान सांत कात्रिनाच्या तुस्ती खातीर आनी उगडासाखातीर हे घर राजाच्या खर्चान बांदूक लायले. म्हणजेच हे गोयचे पयले कपेल सांता कात्रिनाचे जोर्ज काब्रालान परत बांदून काडिल्लें. ते पयली आल्बुकेर्कान बांदिल्ले. अशे तरेन आल्बुकेर्कान गोय कशे जिखले ते शणै गोयबाब आमकां उजवाडायतात.

•

# नाटककार शणै गोंयबाब

- *प्रा. भालचंद्र गांवकार*

शणै गोंयबाबान हेर साहित्यप्रकारांवरीच आर्विल्लें नाटकूय कोंकणी भाशेंत पयलें-वयलें हाडलें. कोंकणीतल्या तियात्र ह्या नाट्यप्रकाराची सुरुवात 1892 वर्सा जाल्ली. पूण 'तियात्र' हो नाट्यप्रकार आसलो तरीय नाटकाची सुवात घेवप तियात्राक शक्य नाशिल्लें. कित्याक तर तियात्राचो गुणधर्मच वेगळो आशिल्लो. त्या भायर तियात्राक साहित्यीक बसका नाशिल्ली. हाकाच लागून नाटक कोंकणीत येवपाची गरज आशिल्ली.

शणै गोंयबाबान स्वतंत्र नाटकां बरयलीं नांत. पूण तीन बरीं नाटकां रुपांतरीत करुन ताणें कोंकणीत हाडलीं. तीं नाटकां म्हळयार 'मोगाचें लग्न' (1913), 'पोवनांचें तपलें' (1926) आनी 'झिलबा राणो' (1933).

'मोगाचें लग्न' हें नाटक शणै गोंयबाबान मूळ फ्रांसेज बरोवपी मोलिएर हाच्या 'Le Medicin Malgre Lui' ह्या खेळाच्या आदारान बरयलां. तांतूत ताणें मूळ खेळाची धांटणी तशीच दवरुन गोंयच्या वातावरणाकडेन तें एकरुप करपाचो यत्न केला. शणै गोंयबाबाचो हो यत्न पुरायेन सुफळ जाला. इतलें ह्या नाटकान थळावे मातयेकडेन जुळोवन घेतलां. थळावी पात्रां, थळाव्यो चाली रीती, थळावें वातावरण हाका लागून हें नाटक चड आकर्शक जालां.

'पोवनांचें तपलें' हें नाटक शणै गोंयबाबान फ्रांसेज बरोवपी मोलिएर हांच्याच 'L'avere' ह्या खेळाच्या आदारान बरयलां. ह्या नाटकाचें रुपांतर लेगीत 'मोगाचें लग्न' ह्या नाटक इतलेंच सुफळ जालां. हें नाटक शणै गोंयबाबान 'तातुबाब'

नावांच्या एका हिमट्या आनी चामट्या मनशाचेर आदारून बरयलां. आपणाली धन-दौलत सुगूर उरची म्हूण तो जायती जतनाय घेता. पूण तातुबाबाच्या चामटेपणाक लागून ताच्या घरच्यांसयत ताचे चाकरमाने आनी शेजारी-पाजारी लेगीत ताचेर बेजार आसतात. निमाणेकडेन ताचो स्वताचो पूत, सांवळयाच्या आदारान तपलें फारायतकीच 'तातुबाब' कशेतरेन पिशांतूर जाता तें मोटे फिशालकायेन दाखयलां.

'झिलबा राणो' हे नाटक 'अरेबियन नाइट' सांतले अबू हसनाचे काणयेच्या आदारान बरयलां. जयकेशींदेव हो कोंकणाचो राजा भेस बदलून राज्यांत भोंवतना झिलबा राण्यागेर पावता. तो थंय पावतकीत झिलबाची तो कशी फजीती करता तें आमकां ह्या नाटकांत पळोव मेळटा.

**शणै गोंयबाबाल्या नाटकांचें उद्दिश्ट**

शणै गोंयबाबान फक्त नाटकांखातीर नाटकां बरयलीं नांत. तागेल्या नाटकांचें उद्दिश्ट वेगळेच आशिल्ले. एक म्हळयार कोंकणी भाशेंत नाटकां नाशिल्लीं. आशिल्लो तो तियात्र. मराठींत त्या काळार नाटक मूळ धरपाक लागिल्लें. अण्णासाहेब किर्लोसकारांचीं नाटकां गाजतालीं. कोंकणी भाशेच्यो बकच्छायो करपी गोयकार कोंकणी भाशेंत नाटकां खंय आसात? असो प्रश्न करताले. पूण कोंकणी भाशेंत नाटकां तयार जांवचीं ह्या खातीर मात यत्न जायनाशिल्लो. कोंकणी भाशेतल्यांत बरीं नाटकां जांव येतात हे कोंकणी समाजाक दाखोवन दिवपाक शणै गोंयबाबान कोंकणी नाटकां बरयलीं.

सुरवातेक शणै गोयबाबान 'रामराज्याभिषेक' नांवांचे एक मराठी नाटक बरयल्लें. ताणें तें नाटक अण्णासाहेब किर्लोसकारांक दाखयले. तेन्ना किर्लोसकारान तें वाचून पळयलें. ताणी तांकां सांगले, 'नाटक बरें आसा पूण भितरले संवाद पुस्तकी दिसतात'. संवाद बरे जातले जाल्यार लोकांली उलोवपाची भास कळपाक जाय हाचो दिश्टावो शणै गोयबाबाक जालो. तेन्नाच ताणें मराठी नाटकां बरोवपाचो नाद सोडून दिलो. हाकाच लागून शणै गोंयबाब कोंकणी नाटकां बरोंवक पावलो.

शणै गोंयबाब खूब स्वाभिमानी आशिल्ले. कोंकणी मनशाचो स्वाभिमान सुगूर उतरलो जाल्यार कोंकणी भाशेबगर ताका आनीक पर्याय ना हें ताका

खबर आशिल्लें. देखून ताची बरपावळ बरोवपापुरती मर्यादीत उर नाशिल्ली. ती कोंकणी खातीर आसताली. हाकाच लागून ताच्या नाटकांनीं लेगीत कोंकणी भाशेचो प्रचार पळोवंक मेळटा. देखीक 'झिलबा राणो' नाटकांत सावकाराच्या भेसांत आयिल्ल्या जयकेशीक झिलबा पोकेशणै विशीं सांगता आसताना म्हण्टा 'तो आपणाले खासा आवै-भाशेक विट्टा आनी भायल्या पिंगळयांले भाशेक आवंडे गिळटा. आपणाली आवै-भास मातयेच्या बुडकुल्याभशेन खैं! आनी पिंगळयांली भास लोखणाचे मडकेभाशेन खैं! बुडकुलो केन्नाय मडकेचेर आपटून फुट्टलो खंय! असली ताची अुंवाळिल्ली वान्सा.' तेन्ना सावकाराचो भेस करून आयिल्लो जयकेशीदेव झिलबाक सांगता' 'राण्यांनू, तुमकां तुमगेले भुंयेचो, भाशेचो आनी लोकांचे पोटतिडकेचो अभिमान आशिल्लो पळोवन, म्हाका तुमची तोखणाय दिसली. आपलो जांव ना जाल्यार परको जांव; ताची नश्टी चलणूक आळाबंदा हाडचेलो तुमकां जो किंवाटो येता तो वायट न्हय.' हातूंत जयकेशीच्या तोंडान शणै गोंयबाब उलयता हें वेगळें सांगपाची गरज पडना.

'मोगाचें लग्न' नाटकांत घारुदाद म्हण्टा- 'तर म्हजी बा कशी उलैनासली ती (मराठी) भास? आनी म्हजो बाप्पाय उलैनासलो तो? आनी म्हाकाय उलौंक येना ती ? हांव खरेपणान सांगतां, कोणाच गोंयकाराचो आवैबापूय ती भास उलैना. अशें आसताना, मराठी भाशेक मात्रभास म्हणटात तें कितें गा?' उपरांत बाबगो म्हणटा - 'अगा, आसनवाटिकेसून दीपकन्येक गेलो आनी थैंची जलशाक घेवन सुवर्णकाच्या रथार बसून शृंखळापुराक गेलो' अशें म्हळयार बरें दिसता की अस्नोड्यासून दिंवचले गेलो आनी थैंचे नुस्तें घेवन सोनक्याची गाडी करून सांकळे गेलो' अशें म्हळयार बरें दिसता?' अशे तरेन नाटकांच्या माध्यमांतल्यान शणै गोंयबाबान कोंकणी भाशेचो प्रचार केला. हाका लागून ताच्या नाटकांचें उद्दिश्ट नाटकांखातीर कोंकणी नासून कोंकणीखातीर नाटकां अशें आशिल्लें हे स्पश्टपणान जाणवता.

**शणै गोंयबाबाल्या नाटकांतले संवाद :**

शणै गोंयबाबालीं पात्रां पुस्तकी भास उलयतात असो आरोप जाता. हातूंत जायतें तथ्य आसा. शणै गोंयबाबाल्या नाटकांतलीं पुराय पात्रां एकेच मोडीची भास उलयतात. खरें म्हळयार 'घारूदाद आनी बाबगो' जांव 'सावकार (जयकेशी)

आनी झिलबा' हांचेमदलें उलोवप हें मात्शें वेगळेतरेन वा वेगळया हेळांनीं दाखोंव येतालें. पूण तशें जांयना. घारूदाद उलयता तीच भास बाबगो उलयता आनी सावकार (जयकेशी) उलयता तश्शी भास झिलबा उलयात. "पोवनाचें तपलें" नाटकांत तातुबाब आनी म्हाळूभट हांचें उलोवप वेगळे मोडीन दाखोवपाक खूब वाव आशिल्लो. पूण शणै गोंयबाब ती तकालस घेना. हाका लागून ताच्या नाटकांतली सगलीं पात्रां शणै गोंयबाबाचीच भास उलयतात

नाटकांतले संवाद ल्हान आनी सुटसुटीत आसत तितलें बरें. शणै गोंयबाबाल्या नाटकांत ल्हान-ल्हान सुटसुटीत संवाद कांय प्रसंगांनी पळोंवक मेळटात जाल्यार कांय प्रसंगांनीं स्वगताभशेन व्हडले-व्हडले संवाद आसात. देखीक 'पोवनाचें तपलें' नाटकांतले तातुबाब आनी नोनेबाब हांचे मदले संवाद कितले सुटसुटीत बरे जाल्यात ते पळोवया.

तातुबाब : कोण रे तो? नोन्या, थैं रे किते करता तूं ?

**नोनेबाब : कांय ना बाप्पा**

तातुबाब : तुका थैं येवन कितलोसो वेळ जालो ?

नोनेबाब : चेः, हो निक्तोच येतां

तातुबाब : म्हजे अुलौप तुवें आयकले ना मू ?

**नोनेबाब : कसलें अुलौप ?**

तातुबाब : कसले न्हय रे नोन्या, हर्शी विचाल्ले

**नोनेबाब : हर्शी म्हळयार ?**

तातुबाब : हयवय तुवें आयकलें शे दिसता. खऱ्यानीच सांग ना म्हणून.

नोनेबाब : खऱ्यानीच तर ह्या दोंय दोळयांच्यान हांवें आयकूंक ना.

शणै गोयबाबाल्या पुराय साहित्याचो अभ्यास करता आसताना एक गजाल मतींत येता. ती म्हळयार शणै गोयबाबाले साहित्य हें निखटें साहित्याखातीर आसना. तीच गजाल नाटकाची. नाटक ही एकाच वगतार चड लोकांमुखार पावपी कला. देखून नाटकांच्या माध्यमांतल्यांन एखादी गजाल जितल्या सोपेपणान

सांगपाक जाता तितली ती हेर माध्यमांतल्यांन सांगपाक जांयना. देखून शणै गोंयबाब नाटकाच्या कथानका वांगडाच आनीक जायत्यो गजाली लोकांक पटोवन दिवपाचो यत्न करता. तातूंत बरें कितें वायट कितें ? खरें कितें फट कितें ? हें तर तो सांगताच. पूण तेच वांगडा समाजांतल्यो वायट चालीरीती, मनशाच्या मनीसपणाक बादा हाडपी गजाली हांचेरूय तो बडी मारता. देखीक 'मोगाचें लग्न'तलो बाबगो घुडघुडी ओडटा आनी घारुदादाल्या घरांत जमनीचेर पच्च करून थुकता. तेन्ना घारुदाद ताका घरांत कित्याक थुकता काय विचारता. तेन्ना बाबगो घारुदाद पानां खावन पिची पिची करुन वंटिचेर थुकता ताचो घारुदादाक उगडास करुन दिता. त्या भायर सगलो लोक पानां खावन आपणाल्या घरांतल्यो वण्टी कशेतरेन रंगयतात ताचो उगडास करुन दिता. हे गजालींतल्यांन शणै गोंयबाब पानां खावन घरांत थुकप ही वायट चाल म्हूण दाखोवन दिवपाचो यत्न करता. असल्यो गजाली संवांदातल्यांन शणै गोंयबाब सहजतायेन मांडटा.

नाटकांत संवाद फक्कत कथानकाची वाड करपाखातीर आसनांत. जाल्यार कथानकावांगडाच ते वातावरणूय तयार करतात. अशें वातावरण तयार करपाक शणै गोंयबाबान संवादांचो आनी स्वगतांचो बरे तरेन वापर केला. देखीक 'पोवनांचें तपलें' नाटकांतलें सुरवातीचें स्वगत हें फक्कत वातावरण तयार करपाक घातलां. ह्या स्वगताक लागून तातुबाबाची पुराय वळख. ताचो सभाव. लोकांवांगडचो ताचो संबंद. लोकांविशींची ताची समजूत, ताची चामटेपणां, तागेली गिरेस्तकाय आनी आस्पत, कोंकणांतलें अर्थकारण ह्यो सगल्यो गजाली कळटात. असल्या स्वगतांतल्यांन आनी संवादांतल्यांन शणै गोंयबाबान जायत्यो गजाली मोटे फिशालकायेन मांडल्यात.

शणै गोंयबाबान आपणाल्या नाटकांनीं संवादांखातीर पुस्तकी भास वा बामणी भास कित्याक वापरली? ताका हेर मोडी खबर नाशिल्ल्यो? अशे जायते प्रस्न उप्रासतात. पूण एक गजाल नदरे आड करूंक जांवचीना. ती म्हळयार शणै गोंयबाबान आपणाल्या पुराय साहित्यांतल्यांन कोंकणी भाशेची गिरेस्तकाय दाखोवपाचो यत्न केला. तो साहित्यांतल्यांन भास वेगळायना आनी भाशेंतल्यान साहित्य वेगळायना. कोंकणी भास संवसारांतल्या हेर भासांइतलीच गिरेस्त आसून खंयचीय गजाल आनी केदेंय व्हडलें तत्वगिन्यान ते भाशेंतल्यांन मांडपाक

मेळटा हें ताका पुराय संवसाराक दाखोवन दिवपाचें आशिल्लें. त्या भायर कोंकणी भाशेच्यो भगल्यो करपी लोक निमिताक रावताले. देखून नाटकांतले संवाद बोली कोंकणीतल्यान बरयले जाल्यार कोकणीच्यो भगल्यो करपी लोकांक आयतोच विशय मेळटलो अशेंय घड्चे शणै गोयबाबान येवजिलें आसूंये. कोंकणीचें 'नादशास्त्र' बरोवपी शणै गोंयबाबाक संवाद रचणुकेचें धंगण नाशिल्लें अशें म्हणप समा जांवचेंना. त्या खातीर शणै गोंयबाबामुखार खंयच्यो आडखळी आशिल्लो हेंय समजून घेवप तितलेंच गरजेचें.

**शणै गोंयबाबाल्या नाटकांतलो संघर्ष :**

संघर्ष हो नाटकाचो आत्मो. संघर्ष नासताना नाटक जांयना. शणै गोंयबाबाल्या नाटकांतूय हो संघर्ष पळोवक मेळटा. ताचीं तीनूय नाटकां विनोदी आसात. 'मोगाचें लग्न' नाटकांत गिरेस्तकाय आनी गरीबी हाचे मदलो संघर्ष आसा. घारुदाद हो गिरेस्त बामण. पूण ताचो भाचो सुब्रमणी हो गरीब. देखून घारूदाद आपणाली धूव मोगा लग्न करुन ताका दिवपाक तयार जांयना. होच ह्या नाटकाचो मुखेल संघर्ष. ह्या संघर्षांतल्यांन पुराय नाटक आकाराक येता. सुब्रमणी आनी मोगाचो एकामेकाचेर मोग आसता. पूण जेन्ना घारुदाद मोगाचें लग्न वेंकटरमण ह्या गिरेस्त पूण जाण्ट्या मनशावांगडा करपाचें थारायता तेन्ना मोगा वाचा धरिल्ल्याचें नाटक करता. तेन्ना घारुदादाचेर मोटो आकांत येता. अपुरबायेची एकटीत धूव आशिल्ल्यान घारुदाद सगल्या वैजांलो ताका उपाय करता. पूण मोगा बरे जांयना. निमाणे सुब्रमणी वैजावांगडा तागेल्या शिश्याचो भेस करून येता आनी मोगाचो हात हातांत घेता तेन्ना मोगा उलयता. तेन्ना सगलीं धोगां उक्तीं जातात. अशे तरेन मुखेल संघर्षा वांगडाच ल्हान-ल्हान संघर्ष ह्या नाटकांत आसात.

'पोवनांचें तपलें' नाटकांतलो संघर्ष वेगळे तरेचो आसा. तातुबाब हो एक गिरेस्त वेपारी. ताणें जायतो दुडू जोडला. पूण कोणाकूच तो दमडी दिना आनी पातयेना. नोनेबाब हो ताचो चलो. पूण तो ताकाय दुडू पातयेना. मंजुळे ही तातुबाबाची एकलीच चली. पूण वरदक्षणा दिवन तो तिका लग्न करपाक तयार ना. वरदक्षणा मागनाशिल्लो न्हवरो तो सोदता. तातुबाबाचो चामटो सभावूच ह्या नाटकांतल्या संघर्षाक कारण जाता. तातुबाबाचो चलोच नोनेबाब सावळयाच्या

आदारान एकदीस तातुबाबाची आस्पत सुतलायता आनी तातुबाब पिशांतूर जाता.

**कोंकणी समाजाचें पडबिंब**

शणै गोंयबाबाच्या नाटकांतल्यान कोंकणी समाजाचें पडबिंब पळोवंक मेळटा. एका काळावेलो कोंकणी समाज, तांचें लोकमन, तांचीं खाणांजेवणां, तांच्यो चालीरीती, तांची संस्कृताय ह्या सगल्याचें दर्शन शणै गोंयबाबाच्या नाटकांतल्यांन घडटा. 'मोगाचें लग्न' हें नाटक 1913 वर्सा उजवाडाक आयलें. ताचे पयलीं तें बरोवन जाल्लें. म्हळयार ह्या नाटकाक सुमार शंबर वर्सांचो इतिहास आसा. हाचेवेल्यान शंबर वर्सां पयलींच्या कोंकणी समाजाचें पडबिंब ह्या नाटकांतल्यांन आमकां पळोवंक मेळटा.

'मोगाचें लग्न' ह्या नाटकांतल्या पात्रांचीं नांवां बाबगो, म्हालखूम, घारुदाद, मोगा, बोंबबाब, शिवलो, फुलगें, सुब्रमणी, आवगो, रागलो, नागलो, तिमलो अशीं आसात. जाल्यार 'झिलबा राणो' ह्या 1933 वर्सा बरयल्ल्या नाटकांतल्या पात्रांचीं नांवां जयकेशी, झिलबा, देवकी, सुन्दरें, लक्षुमण, रत्नें, कामणें, फटो, खांपू अशीं आसात. हाचेवेल्यान काळाप्रमाण कोंकणी लोकांचीं नांवां कशी बदलल्यांत तें पळोवंक मेळटा.

शणै गोंयबाबाचीं नाटकां रुपांतरीत आसलीं तरीय ती रुपांतरां कशी दिसनात. कित्याक तर हांगासल्ले मातयेकडेन ताणीं नातें जोडलां. उतराकणकणी गोंयचो संवसार ह्या नाटकांतल्यान प्रगट जाता. खासा शणै गोंयबाबान हीं नाटकां रुपांतरीत म्हूण सांगूक नाशिल्लीं जाल्यार लोक तांकां स्वतंत्र नाटकांच मानपाचें. शणै गोंयबाबान मूळ नाटकांचो फक्कत नांवापुरतोच आदार घेतला. भितल्ल्यो चडश्यो सगल्यो घडणुको खासा शणै गोंयबाबान रचल्यात. एका तेंपार बायल घोवाक नांवान पाचारींनाशिल्ली. पूण तांचेमदीं वाद जालो जाल्यार तांगेलो एकचार घडोवन हाडपावेळार बायलेकडल्यान घोवाचें नांव पाचारून घेताले. बाबगो आनी म्हालखूमीचें नांव घेवपाचें प्रकरण खासा शणै गोंयबाबान रचलां. त्या भायर 'लाडफेंचीं आनी मयेंचीं भरेकारां' जांव 'आपाराण्याचें पाळ' वा 'रुमडावेलो गावडो' असलीं गांवठी वखदां, दुर्बाटचे खारवी, जुवेंची शाक, म्हापशेंचो फोग ह्यो सगल्यो गजाली ह्या नाटकांक कोंकणी समाजाकडेन बांदून दवरतात.

नाटकांच्या माध्यमांतल्यांन शणै गोंयबाबान जायत्यो गजाली साध्य केल्यात. पयलीं तेंपार सावन भायले लोक गोंयकारांक बाबत कुळां समजताले. गोंयकाराच्या भावार्तीपणाचो ते फायदो घेताले. गोंयकाराच्या सभावाक लागून ताका नाडप सोपें आशिल्लें. शणै गोंयबाबाक गोयकाराक नाडपी लोकांचो किंवाटो आशिल्लो. ताच्या नाटकांचें एक खाशेलपण म्हळयार तातूंत शणै गोयबाब आमकां परतो परतो दिसता. देखीक 'झिलबा राणो' नाटकांत दण्णायकाक झिलबा सांगता (पान-19) "तागेलें (हरदासालें) मुस्कट आतां रंगोवंक जाय. आमगेल्या राज्यांत येवन, आमगेलों भूस मारून, आमगेलो दुडू घेवन, आमगेल्या लोकांक गाळी? ताका दाखैतां आतां. हे भायले भूसमारे आपूण मोटे जाणवायेकार समजतात. आमगेले प्रजेक ते सामकी बाबात कुळां कशीं लेखतात. आमगेली प्रजा तांचे परस हजार वाट्यांनी फुडे आसा ते ते नकळत. ती दुसऱ्यांक नागैना आनी बळयांच दुसऱ्यांच्या आंगार पडना, म्हणून तिचो पावंडो सकैलो जायना. दण्णायकांनू, तुमी कळाव लायनासतना, आत्तांचे आत्तां पासान तागेले हात फाटीवसल्यान चरांटून बांदात" हाचेवेल्यान शणै गोयबाबाक गोयकारांक फटोवपी आनी तांचो अपमान करपी लोकांचो कितलो राग आशिल्लो तें कळटा. गरीबांचोय ताका काकूट आशिल्ली. देखून झिलबा राजा जातकूच आपणाले आवयक, देवकेक रोख पांच हजार निष्क व्हरून दिवपाक सांगता. असल्या जायत्या गजालीतल्यांन खासा शणै गोयबाब ह्या नाटकातल्यांन प्रगट जाला.

शणै गोंयबाबाल्या नाटकांतल्यांन कोकणी भाशेची गिरेस्तकाय आनी गिरेस्त उतरावळ पळोवक मेळटा. देखीक गोयकारांल्या खावपाच्या जिनसांची नांवां सांगपाक लागलो जाल्यार सगल्या तरेच्या खाणां-जिनसाची वळेरीच आमकां पळोवंक मेळटा. त्या भायर शणै गोयबाबाची धांटणी वर्णनात्मक आशिल्ल्यान नाटकाचें वातावरण दोळयांमुखार रावता. देखीक बाबगो-शिवल्याक सांगता (मोगाचे लग्न-45) "तूं जाणा किते? तुवें पळेलां किते ? आमचे व्हडले व्हडले शाणे सुर्ते म्हाजन घराच्या बलकावार, देवळाच्या सोड्यार, समरद्नेच्या पानार, वापोराच्या बांकार, व्हड्याचे साट्येर ना जाल्यार पनेळाचे आड्येर बसून चकाटां मारूंक लागतकूच गणेसपुजेक कसली गजाल काडटात म्हणून समजला तूं ?"

नाटकांत खरे म्हळयार संवादांक म्हत्त्व आशिल्ल्यान संवाद सुटसुटीत

आसपाक जाय. पूण शणै गोंयबाबाच्या नाटकांनीं तशें जांयना. एक देख सांगपाची आसल्यार तो चार देखी सांगता. शणै गोंयबाबान तयार केल्ल्या खासा वातावरणाक लागून ताच्या नाटकांतल्यांन गोंयचो समाज आनी कोंकणी मनशाचें पडबिंब मात बरेतरेन उठून दिसता.

शणै गोंयबाबाची नाटकां म्हळ्यार कोंकणीतलें सांस्कृतीक दायज. ह्या नाटकांनीं कितें ना तें पळोवचे परस तातूंत कितें आसा तें पळयल्यार जायतें आमच्या हाताक लागता. ह्या नाटकांचो वेगळे तरेन अभ्यास जावपाची गरज आसा. गोंयच्या इतिहासाचे नदरेन 'झिलबा राणो' हे नाटक खूब म्हत्त्वाचें मानचें पडटलें. एक इतिहासीक दस्ताऐवज म्हणून लेगीत त्या नाटकाचो खेरीत अभ्यास जांव येता. तशेंच 'मोगाचें लग्न' आनी 'पोवताचें तपलें' ह्या नाटकांचो समाजशास्त्रीय नदरेन अभ्यास जावपाची गरज आसा. त्या काळावेलो कोंकणी समाज आनी आयच्या काळावेलो कोंकणी समाज हांचो तुलनात्मक अभ्यास करपाक ह्या नाटकांचो खूब आदार जांव येता. त्या भायर आदल्या काळावेल्यो आमगेल्यो म्हणी, ओपारी, वाक्प्रचार, गांवठी वखदां, आदल्यो चाली रीती ह्यो सगल्यो गजाली ह्या नाटकांचो सारखो बरो अभ्यास केल्यार उस्तून काडूं येता.

शणै गोंयबाबालीं नाटकां एकूच परिमाण लावन जोखूंक मेळचीनांत. तांची खरी मोलावणी जातली जाल्यार तांकां वेगवेगळीं परिमाणां लावन पळोवचीं पडटलीं. त्या खातीर तें करतल्याक संशोधनात्मक नदर आसप खूब गरजेचें. थंय फक्कत समीक्षकाची नदर उपकरची ना. एके खेरीत नदरेन शणै गोंयबाबाच्या नाटकांचो अभ्यास जालो जाल्यार तातूंतल्यांन खणखणीत 'पोवनां' झडटलीं हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

●

# शणै गोंयबाब :
# कोंकणीतले आद्य पत्रकार

*- प्रा. प्रियदर्शनी सु. तडकोडकार*

इंग्लीशींतलें 'Journalism' हे उत्तर कोंकणीत आमी पत्रकारितेक आपणायतात तेन्ना म्हाका -

1. "The collection and editing of material and current interest for presentation through news media."

2. The Editirial or business management of an agency engaged in the collection and dissemination of news."

3. An academic study concerned with the collection and editing news or the management of a news medium." अशे तरेचे अर्थ मेळटात.

वेबस्टर शद्बकोशांतल्या ह्या अर्थांचो आपरोस काडल्यार अशें दिसता की, बातम्यांच्या माध्यमांतल्यान चालंत विशयाचेर बरप संकलित जाता तार्चे संपादन म्हळयार पत्रकारिता. हें वृत्त-संपादन विशिश्ट धोरणान केल्लें आसता. देखून ताचे मुखार एक मोख आसता. त्या मोखीक आनी धोरणांक धरून पत्रकार आपणाल्यो बातम्यो पयलीं एकठांय करता आनी मागीर त्यो बातम्यो वृत्तपत्राच्या माध्यमावरवी प्रसारित करता.

देखून सगळ्याच वृत्तपत्रांनी साबार तरेच्या विशयांक, बातम्यांक आनी

विचारांक वा मताक अग्रक्रम दिल्ले आसताच अशें ना. आपणाल्या वृत्तपत्राच्या वा नेमाळयाच्या संपादकीय धोरणाप्रमाण तें तें वृत्तपत्र वा नेमाळें हें ते तेविशय उणे-अदीक म्हत्त्व दिवन मांडटा. वृत्तपत्रांफाटल्यान ही सर्वसादारण वृत्ती आसली जाल्यारय ह्याच माध्यमावरवीं समाजांतल्या एका व्हड वर्गाक आनी तांतूंतल्या साबार तरेच्या बैध्दिक तांकीच्या वाचप्यांक सारक्याच आवडीप्रमाण मजकूर पुरवण करप हें पत्रकारांचें पयलें कर्तव्य थारता. लोकशिक्षण आनी जनजागृताय करपाचें हें एक आधुनिक काळांतलें प्रभावी साधन. भौसाचें शिक्षण करतना तांच्या अभिरुचीक वळण आनी देख दिवप हें त्या माध्यमांवरवीं बरेतरेन सादपाक येता. देखूनच हाचें स्वरूप तत्कालीक आनी सनसनाटी आसलें जाल्यारूय ह्या अशेतरेच्या ताच्या स्वरुपांतल्यानच साहित्याच्या वाडीकय ह्याच माध्यमाचो व्हड आदार जाता अशें दिसता.

कोंकणी पत्रकारितेचो इतिहास हो फक्त फाटल्या 100 वर्सांचो. तशें आसूनय खरी पत्रकारिता सुरु जाली ती 20च्या शतमानातल्या 3ऱ्या वा 4थ्या दशकांतच. हाचें एक कारण म्हळ्यार आमचेर आशिल्लो परकी शेक. राजवटीचो आनी धर्माचो.

गोंयांत युरोपी धर्मप्रसारकांनी धर्मप्रसार करपाखातीर कोंकणी भास जशी आपणायली तशी हेर वाठारातय थंयची थळावी भास तांणी आपणायली. आनी तांतूंतल्यान धार्मीक तत्त्वां सांगपी साहित्य निर्मणी केली. सांगतान थंयच्या भाशेची व्याकरणां आनी शद्बकोश तशेंच अणकारीत साहित्याची निर्मणी केली. तांणीच भारतांतलो पयलो छापखानो गोंयांत हाडलो. आनी हीं पुस्तकां छापून तांचो प्रसार करपाक सुरवात केली. पुण तांची कोंकणी भास ही तांच्या आवयभाशेच्या प्रभावाखाल आशिल्ल्यान ती नीज गोंयकारापरस वेगळी आनी अडेची तशीच कृत्रिम दिसताली. देखून कोंकणी भाशेच्या उदरगतीक तांचो आदार फावो तितलो जालो ना. पुण ते भाशेच्या आदारान मागीर, कोंकणी उलोवपी, हेर वाठारांत जायतीं नेमाळीं उजवाडाक आयलीं तीं चडशीं क्रिस्तांव समाजाचीं मुखपत्रां जावन आशिल्लीं. आपल्या धर्माच्या पंगडांत वा त्या वाठारांत घडपी धर्मीक घडणुकींची खबर हेरांक दिवपाच्या उद्देशान ती भायर सरतालीं. देखून तांची भास ही साहित्यिक नासली. तेच तरेन तातूंन वस्तुनिश्ठताय नासली. हाचो परिणाम म्हुण भाशेक उदरगतीक हाडपाखातीर ठांय बसणूक आसची पडटा ती मेळ्ळी ना.

ह्याच काळांत हेर भासांकडेन नदर भोंवडायल्यार अशें दिसता की, थंय ब्रिटीश राजवटीच्या सांगातान जायत्यो नव्यो गजाली आयल्यो. तांतूत नेमाळी वा पत्रकारिताय आशिल्ली. पण फिस्टनान महाराष्ट्रात नवें भौशिक शिक्षणाचे धोरण आपणायना कांय निश्चित अधिष्ठांना दवरिल्लीं, तांच्या आदारान नवशिक्षित महाराष्ट्रीयनांनी नेमाळयांच्या वरवीं लोक जागृतायेचें काम केलें. तेखातीर जे तरेचे निबंद वा लेख, अग्रलेख तेन्नाच्या नेमाळयांनी येताले तांणी भाशेक एक सुंदर रुपडें दिलें. नव्या काळांतल्या नव्या गिन्यानाची वळख भौसाक करून दिवपाचें व्हड आनी मुळावें काम हि नेमाळीं करतालीं. हेर वेव्हारोपयोगी शास्त्रां आनी विद्या हांची वळख आनी दिग्दर्शन भौसाक करप हें तांचे मुळावें काम आशिल्लें. शिवाय आपणाल्या देशांतल्योच गजाली लोकांक कळनात तेन्ना भायल्यो कशो कळटल्यो ह्या विचारान ह्या सावार गजालींची वळख आनी हेर देशांतल्या चालीरीतींचीबी वळख करून दिवपाचें काम ह्या नेमाळयांवरवी जातालें. तशेंच राजकारणी लोकांक भौसाच्यो प्रतिक्रिया कळोवपाकय हांचो आदार जातालो. ही अशेतरेची जाणविकाय तेन्नाच्या समकालीन कोंकणी नेमाळयांक आशिल्ली अशें दिसना.

मात ह्या वेळावेल्या कोंकणी नेमाळयांवरवी नव्या बरोवप्यांक उर्बा मेळ्ळी. धार्मीक उद्दिश्टां मुखार दवरून उजवाडाक येतल्या ह्या नेमाळयांत ललित साहित्य उजवाडाक येतालें. इतलेंच न्हय तर ताचे वेगळावं नजो अशें आंग जावन आशिल्लें. पुण हेवरवी साहित्यिक गुणांक वाव मेळचो हो उद्देस तांच्या संपादप्याचो नाशिल्लो, जाल्यार ताका लागून अशे तरेची बरपावळ वाचपी चड लोक ह्यांचे कडेन ओडून येतात आनी तांचो खप वाडटा हो आशिल्लो. खिस्तीनी-वांट्यानी -येवपी नवल-काणयोय एके विशिश्ट तरेन (form) छापून येताल्यो. त्यो कापून एकठांय करतकच तांचें पुस्तक जांवं येतालें. ताका राखपी लोकांक आपशीच धार्मिक घडणुको कळटाल्यो, आनी ते निमतान तांचें प्रबोधनय जांवचे आनी चडांत चड लोक ह्या 'धर्मावटेन ओडचे असो मुखेल हेत ताचे फाटल्यान आशिल्लो, अशें दिसता. देखून कोंकणीतल्यान सुर्वेच्या काळार भायर सरिल्लीं कितलीशीच नेमाळीं काळाच्या साणीर आयज तिगून उरली नात.

धार्मिक मोख मुखार दवरून येवपी ह्या नेमाळयांनी आपली भास आनी मांडावळ हांचेकडेनय फावोतशें लक्ष दिलें ना अशें दिसता. तांणी चड लक्ष दिलें तें तांच्या भायल्याच रुपाचेर. त्या कारणान कोंकणीच्या गद्यशैलीक वळण

लागपाक हांचो व्हडलोसो आदार जालो ना. तेचपरी ह्या धर्मभायल्या लोकांक आपणाकडे वोडून घेवपय तांकां जमलें ना. तांतूंतल्या धार्मिक लेखांसांगातान सामाजिक मळावेले विशय वा आनीक चालंत गजाली घेवन लेख येताले. तांचो बाज गंभीर आसूनय ते रचनेच्या आनी चिंतन, मननाच्या नदरेंतल्यान फावशी गंभीरताय आनी खोलाय गाठूंक शकले नात. निबंद लेखनाची वा विचारिक बसकेची बुनयाद घालपाचो वावर केन्ना केल्लोच दिसना. भाशेची आकर्शकताय वाडोवपाची जशी हांगां गरज आशिल्ली तेचवरी ह्या माध्यमाच्या आनी तांतूतल्यान येवपी ललित साहित्य प्रकाराच्या तंत्रांची जाणविकाय दवरून प्रामाणिकपणान लेखन जावपाक जाय आशिल्ले. तांकां कोंकणी भाशेचो मोग आशिल्लो, कळवळो आशिल्लो, हें सत् आसूनय भाशेच्या तांकीची आनी तिचे सुंदरकायेची जाणविकाय नाशिल्ली अशें दिसता. विचार आनी मत्तां मांडपाखातीर परखड भास लागना तशीच जी नकसूद आलंकारिक शैलीची पुण सादी सहज वाक्यरचना आशिल्ली आनी वस्तुनिश्ठ नदर आशिल्लीय आसची पडटा. समाजाचें मनोधैर्य वाडोवपाखातीर, नितिमत्ता उंचावपाखातीर तिका तेजिश्ट आनी बळिश्ट जांवचीच पडटा. नव्या गिन्यानाची नवी उतरावळ घडोवपाची तांक तिच्यांत आसची पडटा. हांचो अभाव ह्या नेमाळयांतल्यान दिसता. तेच तरेन वयर उल्लेख केल्लीं पत्रकारितेची कांय उद्दिश्टां आनी ध्येयां तांचेमुखार स्पश्टतायेन उबी आशिल्ली म्हणापाचीय जाणविकाय जायना. मात थंय दिसता ती काळजाची कळकळणी. ह्या खातीर उदेंतीचें साळीक (1889) ह्या कोंकणीतल्या पयल्या नेमाळयाच्या पयल्या अग्रलेखांतले कांय वाटे देखीक पळोवंक येतात

"जशें एका आरशासारख्या तळयामाजार एक बरें साळक फुलता आनी आपले सभोवती दमदम घालता तशें आमच्या लोकामदें आज उगवता हें उदेंतेचें साळक. ही खबर दुबावविणें आमकां जांवक जाय व्हडा संतोसाची. कोण सांगून दीत कितल्या उपकाराक पडत तें वो ह्या उदेंतेच्या साळकाचो खूंय परमळ पावत तो जर तर आमच्या हाता आसा तें करून ताका मजत दींव जाल्यार 'सांगाता विणें मनशाच्यान वचूं नजो, एकोटाविणें एक सांगात फुडें सरू नजो - पुण जांव सांगाता, जांव एकोट भासेवाचून कदींच वचूं नजो. भासेवरवीं एक आवय आपले ऊंटयेतल्या भुरग्याच्या काळजांत आपलो मोग शिरयता, एक भयण आपल्या पांयण्यांतल्या भावाच्या, एक भाव आपल्या खेळाच्या सांगात्याच्या. आनी हो मोग वचूं खूंय, तुजें पोट वो तुजी खोसी व्हरत भूंय कदी कोणाच्यान काडूं नजो.

भासेवरवीं एक बऱ्या उतराचो प्रोगादोर आपणाक आयकतल्यांची काळजां सोपेंपणी जिखता, आनी एक मनीस जितली भास बरी उलयता, तितलेंच चड तो आपणाक इश्ट जोडटा, एका मुमक्या मनशाक आमीग थोंडे.

पुण हें सगळें घडटा त्यां मनशांभितर जांची भास एक आनी जे एकठांय रावतात, वो जायते पावट एकठांय जातात."

19 व्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांत आनी 20व्या शतमानाच्या पयल्या दोन दशकांत अशे तरेची भास घेवन उजवाडा येवपी नेमाळेयांकडे पळयतकच कांय गजाली ठळकपणान दिसतात.

हीं साबार नेमाळीं गोंयांभायर वचून वसणूक केल्ल्या क्रिस्तांव गोंयकारानी कानडी आनी रोमी लिपयेंतल्यान उजवाडाक हाडलीं. तांचे संपादपी हे क्रिस्ताव धर्माचे आशिल्ले देखून धार्मिक खबरेपत्रां अशेच तांचे स्वरुप आशिल्लें. तांचो वाचकय हेच धर्माचो आशिल्लो. ललित साहित्याची वाड जांवची ह्या हेतून कथा, नवलकथा येनाशिल्यो जाल्यार त्यो आयिल्ल्यान क्रिस्तांव समाजातले प्रबोधन जावपाक हातभार लागता तो तसो लागचो हो ताचो मुखेल हेत आशिल्लो. धर्मप्रचारकच संपादक आशिल्ल्यान तांच्या भाशेचो प्रभाव ह्या तेपावेल्या नेमाळयाच्या भाशेचेरय दिसतालो. तांची चडशी बांदावळ ही 'अस्तमती रीतीचे भंगिल्ले शैलीचो आशिल्ली असो उल्लेखय ह्या भाशेसबंदान मेळटा.

हे फाटभूंयेचेर 'नवे गोय' हे तेदेवेळचे कोकणीतले एकूच नेमाळे हे पत्रकारितेची उद्दिश्टां आनी ध्येयां प्रमाणित दवरून मुळावे आनी म्हत्त्वाचे काम करतालें. कोंकणीतल्यान पयलेच फावटी संवसारीक मळावेल्या घडणुकांची तशेंच देशांत आनी थळाव्या वाठारांत चलतल्या गजालींची म्हायतीं हे नेमाळे दितालें 'नवे गोंय' भायर सल्लें तेन्ना तांतूंत येवपी लेखांच्या, कथा आनी नवलिकांच्या, कविताच्या स्वरुपाविशीं एक गजाल स्पश्टतायेन दिसता, ती म्हळयार हिचे फाटल्यान आशिल्लो. शणै गोंयबाबाचो आदार आनी 'नवे गोंय'च्या धोरणाविशीं तशेंच कोंकणी भाशेविशीची दुरदिश्ट. देखून ताची भास आनी ताची धोरणां निश्चित आशिल्लीं. कोंकणीतलें पयलें प्रागतिक विचारांचे आनी ताका फाव ती भास आशिल्लें हें पयलेंच नेमाळें. ह्याच नेमाळयाचो आदर्श मागीर मुखावेली पिळगी चलयतना दिसता. एके तरेन शणै गोंयबाबांचो कोंकणी पत्रकारितेचेर पडिल्लो हो प्रभावच म्हणूं येता. तांणी 'नवे गोंया'तल्यान वेगळी वेगळी सदरा

सुरु केल्ली. गोंयकारांच्या अस्मितायेक जागोवपी आनी तांकां भाशेची व्हडविकाय सांगपी लेख, म्हायती तांणी थंय उजवाडाक हाडले. कोंकणी भास आनी गोंयकार हांच्या वेगळया अस्तित्वाची जाणविकाय करून दिवपाखातीर शणै गोंयबाबान उबारलेल्या लिखणेंचें पडबिंब ह्या नेमाळयांत पडिल्लें दिसता.

इ.स. 1910 ते 1946 मेरेन पुराय 36 वर्सा शणैं गोंयबाब कोंकणीतल्यान एकसारके बरयत रावले. 'भुरग्यांलो इश्ट' जावन तांकां फावो तशे विशय, तांच्याच कल्पनाशक्तीक पोसवण दीत अशें तरेन मांडले. तेखातीर 'कोंकणी पयलें पुस्तक' बरोवन तांकां मुळाव्या अक्षरांची वळख करून दिल्या. तें तांणी आपणाल्या पैल्यावैल्या भुरग्याक शिकोवपाखातीर तांणी बरयिल्लें. इतिहास सोदपी, भाशा पंडित जावन ते लोकांमुखार आयले. खांपो तत्त्वगिन्यानी तशेंच साहित्यिक म्हणूनय तांणी नामना जोडली. ती निजाच्या स्वार्थाखातीर न्हय तर कोंकणी मनशाचें आत्महीणपण घालोवन 'आपूण येवजूं तें करूं अशी मनाची भावना' जागयतलो जाल्यार तांची आवयभास वयर काडूंक जाय हे भावनेन. ही भास निखटीच भाशेखातीर वयर आशिल्ली तांका नाका आशिल्ली, जाल्यार तें वरवी समाजाच्या साबार पांवड्याची उदरगत जावंची हो तांचो हेत आशिल्लो.

'गावड्यांक पंडित करूंया आनी सगळेच पंडित जांवया' ही तांची येवजण आनी मोख आशिल्ली. तेखातीर तांणी गोंयची आवैभास' खंयची तें देखीसयत पटोवन दिलें. ते म्हणटाले, 'म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवे तुमकां नाका जाल्ल्यो फटासी सांगूक नात. म्हजी दर एकली म्हणणी तुमी तुमचे बुध्दिचे साणीर घासून पळयात आनी कसाक लागल्यार घेयात.''

भुरग्यांसावन जाणट्यांमेरेन समजुंचे खातीर जी तरेकतरां पुस्तकां तांणी बरयली तांतूतल्यान कोंकणी भाशेची प्रमाणबद्द बांदावळ जावपाक मजत जाली. 'क़ोंकणी पयलें पुस्तक', कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ वा कोंकणी नादशास्त्र 'हे तरेची शास्त्रीक पुस्तकां बरोवन अर्विल्ले कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ तांणी स्वता नादशास्त्र सोदून आनी थारावन केली. तरेकतरा विशयावेलीं आनी वेगवेगळया मोडीतलीं 29 पुस्तकां तांणी बरयली. कठीण विशयलेगीत सोपेपणान बरोवंक येता हें 'गोमंतोपनिषदा'न दाखयलेंच पुण गीतेचो अणकारय सहजतायेन कोंकणींत देंवयलो. तेखातीर खासा कोंकणी बरपावळय घडयली. आयजवेगवेगळया मळांचेर खासा उतरावळ जावपाची गरज जी उप्रासल्या, ती पुराय करपाचें काम वेगवेगळया

पांवड्यावेल्यान ते चलता, आनी ते खातीर कोंकणी नेमाळींय ती गरज पुराय करपाचें काम कांय प्रमाणांत करतात ताचे फाटली प्रेरक शक्त म्हळयार गोंयबाबांचो हो तेदेवेळचो वावरूच आसूंक जाय. आबे फारीय, राम कामती असल्यांच्यो देखी दिवन आत्मविश्वासाचें तेज गोंयकारांमदीं हाडपाचो यत्न तांणी केलोच आनी तेवरवीं राजकारणांत भासकारणांत स्वतंत्रताय जोडपाची तांची इत्सा आशिल्ली. फुडार पारखूपी तांच्या नदरेन जो वावर साहित्यीक आनी साबार मळार केलो ताचो प्रभाव जायत्या नव्या पत्रकारांची बुनयाद घटकरूंक उपेगी पडलोच. आयजच्या कोंकणी पत्रकारितेची ही फाटभूंय आनी बुनयाद म्हळयार शणै गोंयबाबाची ही भाशेखातीर केल्ली धडपड म्हळयार जाता.

आयज देखून गोंयांत चडशीं नेमाळीं आसात अशे दिसना. पुण जी आसात तांचेमदीं जी संशोधकी वृत्ती मेळटा वा मेकळयामनान नवे गिन्यान आपणावन ते लोकांमुखार हाडपाची वृत्ती मेळटा. तिची मुळां ही शणै गोय बाबांच्या प्रेरणेंच्या मेळटात. ह्या वृत्तपत्रांक प्रचारकी थाट आयिल्लो दिसना हांचे कारण शणै गोंयबाब हो आदर्श तांणी धरला आसूंक जाय अशें म्हाका दिसता. भाशेक प्रतिश्टा दिवपाच्या शणै गोयबाबाच्या वावरान ती प्रमाणीकरणाकडेन वळ्ळी. तांची प्रत्येक बरपावळ ही विशिश्ट उद्दिश्टां दोळयांमुखार दवरून केल्ल्यान तांचो प्रत्येक विचार आनी मत हें त्या विशयाच्या मुळामेरेन वचून सोदून काडून मांडिल्लें आसतालें. हाची देख म्हुण 'आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें ? गोंयकारांली गोंयाभारली वसणूक, वा वलिपत्तनाचो सोद' ही पुस्तकांय 'नवे गोंयां'तल्या तांच्या कांय सदरां सांगातान घेंव येतात. आपणाल्या प्रत्येक विधानाक वा मत्ताक घेतिल्ल्या आदारची नोंद ते प्रामाणिकपणान करताले. ताका सबळ शास्त्रीय पुरावे दिताले. तेचवरी अमुक एक मत थारयतना आपणाक खंयचें गजालीचो उपेग जालो वा खंयचे असामीन ही गजाल सांगली हाची नोद तांणी आपणाल्या बरपावळींत दवरल्या. हाचे वेल्यान तांच्या सभावांतलो प्रामाणिकपणा आनी तळमळ दिसता.

शणै गोंयबाब जिते आसतना जे सन्मान आंवडेताले ते सगळेच तेन्ना कोंकणीक फाव जाले नात. पुण तांचे आवंडे आनी तेखातीर तांणी घालून दिल्लो ओनामा चिरपाचो प्रयत्न ताचे उप्रांतचे चडशे पत्रकार करत आयल्यात. हाचोच अर्थ शणै गोंयबाबाचो प्रभाव हो निखट्या भाशेचेरच नाशिल्लो जाल्यार ते काळावेल्या सबंद पिळगेच्या विचारांचेर आशिल्लो. देखून तांच्याच ध्यासाची आनी विचारांची फाट ह्या तेपावेल्या कोंकणी नेमाळयांनी घेतिल्ली. आनी ह्या

विशयाचेर लोकांची भेरेल्ली मनां जागोवपाचें अखंड काम ताणी केल्लें अशें दिसता. तेदेवेळच्या पिळगेचेर शणै गोंयबाबांच्या विचारांचो प्रभाव दिश्टी पडटा तो गोंयच्यान उप्रांत उजवाडाक येतालों त्या नेमाळयांचेर देखीक 'सत, दिवटी, राष्ट्रमत, सोमार'बी

पुण सद्याच्या स्थितीतल्या कोंकणी नेमाळयांच्या मळार नदर भोंवडायल्यार शणै गोंयबाब ह्या प्रज्ञावंताकडेन आशिल्ली संशोधकी वृत्ती, प्रामाणिकतायेन पुण शास्त्रीक नदरेन नवी घडयिल्ली उतरावळ, आदार दिवपाची पध्दत, भाशेक खोलाय आनी बळगें दिवपाफाटल्यान आशिल्ली भावना, विचारांची ठांय बसणूक आनी आपणाल्या ध्येयाविशीं समाजाकडेन आशिल्ली लागणूक ह्या गजालींचो फाव तितल्या गंभीरतायेन विचार जातना दिसना. म्हज्या ह्या मत्ताक बळगें दिवपाखातीर शणै गोंयबाबाल्याच कांय उतरांचो आदार घेंवया, आनी हें विशीं आयजच्या पत्रकारांनी आत्मचिंतन केल्यार कशें अशें विचारन दिसता.

शणै गोंयबाब बरयतात - 'किर्णांची निसण करुन एके गिरावळीवेल्यान दुसरे गिरावळीर चडत, एके दुदगंगेसावन दुसरे दुदगंगेत उडकी मारीत, एका केणांतसून दुसऱ्या केणांत रिगत. एका ब्रह्मांडातसून दुसऱ्या ब्रह्मांडात वचत आनी संवसाराचो बोंबाडो बारकायेन सोदून पळेत.''

''विजय नगरचा दुसऱ्या हरिहररायाच्या क्रि. स. 1391 वर्साच्या एका तांब्या पट्यांत गोंयाक गोंय नांवाचें कोंकणाचें राजपाटण अशें म्हळां'' (संदर्भ - गोवाविधां कोंकण राजधानीप J. B. Bras Vol. 4 pp. 107, 115)''

''कोंकण आनी मराठण हांचें नातें सोदून काडूंक रघुनाथबाबांनी आनी हेरांनी पेरिप्लुसकार आनी क्लावदिदूस प्लोतेम्युस ह्या परक्या मनशांकडे धांवपाचें निखालुस कारण ना.''

शणै गोंयबाबांच्या खंयचेय बरपावळींत प्रामाणिकपणा आसतालीं देखून त्या बरपावळीक अधिकार आनी विस्वासाहिताय आयली. आपली पुराय जीण साहित्याकूच ओंपपी उणें आसतात. हेर सगळे जातकच फावता त्या वेळान पत्रकारिता वा साहित्याची, भाशेची हेरावणी करतल्यांकडे अशे तरेचें - डिव्होशन - वोंपप जमना देखून तांचे प्रयत्न हे लटके आनी अप्रबुध्द जातात काय किदें हाचे संबदान विचार करपाक जाय. फकत म्हायती दिली म्हळयार जाले अशें

नासून ताचेफाटल्यान वचून सत्य सोदपाची आनी खरायेक वचपाची गरज आसता. सवाय लोकप्रियतेखातीर लोकांक आवडटा मानता तेंच दिवपाची तयारी जर नव्या पत्रकारांनी दवरली जाल्यार ते आपल्या मूळ उद्देशासावन आनी ध्येयासावन पयस वतात अशें दिसता.

पुण हाचो अर्थ नव्या पत्रकारांनी आयजय पोन्न्या विचारांक घट धरप आनी पोन्नी मत्ता, विचार उक्तावंक जाय अशें न्हय. पुण पोरण्या आनी मुळाव्या तत्त्वांक धरून रावूनय नव्या, उदारमतवादी गजालींचो विचार नव्या काळाच्या संदर्भात करप म्हळयारच पुरोगामी वृत्तीचो पांखो घेवप. जे शणै गोयबाबांक तेन्ना अपेक्षित आशिल्ले. तांचे हें दायज फुडें चलयतना आयज दिसतात ते चंद्रकान्त केणी, फेलिस कार्दोज, उदय भेंब्रो, रविंद्र केळेकर, संदेश प्रभुदेसाय अशे संपादक. हांणीय शणै गोयबाबांवरवीं आपली नेमाळीं वृत्तपत्रां एका विशिष्ट ध्येयाक मुखार दवरुनच तेन्नासावत चलयलीं. कोंकणी भाशेच्या प्रस्नावेळार आनी जनमत कौलावेळार देखूनच तांच्यायभाशेक शणै गोयबाबांच्या भाशेसारकी तरसादीची धार आयिल्ली. तांच्या तेदेवेळच्या वृत्तीची प्रामाणिकताय हांच्याय बरपावळींत दिसता.

'म्हजें बरप चडशें विचारीक... ज्या विशयांचेर हावें बरयलां त्या विशयांचे चिंतन कितलीशीय वर्सां जालीं करीत आयलां. खंयच्याय विशयाक उण्यांत उण्यो दोन कडो आसतात. दोनूय समजून घेवपाचो. हांव हेरांपरस भाग्यवंत - जिविताचो खोलायेन विचार केल्ल्या कांय कृतिशील विचारवंताचो म्हाका सांगात मेळ्ळा. तांच्या पांयांकडेन बसून त्या विशयाची चर्चा केल्या. त्या विशयाचेर जेन्ना बरोवपाक बसलां तेन्ना त्या विशयाचेर 'लेटेस्ट' कितें आयलां ते सोदून तेवय नदरेखाला घालां. आनी उपरांतूच पेन हातांत घेतलां.'' रविंद्र केळेकाराचे हे संपादकी शणै गोयबाबालेच मुखावेले पावल कशे दिसता.

शणै गोयबाबाची तत्त्वां नव्या आनी आधुनिक रुपान तांणी कोंकणीत हाडल्यांत अशेंच दिसता. 'पूण, म्हज्या आदर्शापसून कितलोसोच पयस आसां. म्हणपी 'आदर्शामेरेन पावपाचो म्हजो यत्न एकसारको चलिल्लो आसा' हेवूय मान्य करता तेन्ना तांच्या मुखावेली तरणी पिळगी हेच आदर्श मुखार दवरून पत्रकारितेंत मुखार सरतली वा सरता, तेदेवेळार शणै गोयबाबाचें दायज मानून तांकां आद्यत्वाचो मान दिंवचोच पडटलो हाचेर कोणाचे दुमत आसचे न्हय.

●

# चरित्रकार शणै गोंयबाब

- दो. सौ. वृषाली सुभाष मांद्रेकर,

व्यक्तित्वाच्या सत्यपूर्ण वृत्ततांक चरित्र म्हणटात - (A truthful transmission of personality) तांतुंत खंयच्याय मनशाच्या अंतर्बाह्य वैशिश्ट्यांचो आस्पाव जाल्लो आसता. पूण ताचो उद्देश्य गौरव वा नीतिबोध नासता तर तें वास्तवाचेर आधारून आसता. लेखक चरित्र नायकाच्या चरित्राचे संश्लेषण, विश्लेषण, विवेचन वाचप्यांमुखार दवरता. ताच्या चरित्रांत फकत घडणुको एकठांय केल्ल्यो आसनात तर त्या मनशाच्या रहस्यमय आंतरिक सत्याक वाचप्यामुखार हाडपाचो चरित्रकाराचो उद्देश आसता.

अशें बरयताना केन्ना केन्ना जीवितांत घडिल्ल्या सगळया कार्याचो आस्पाव जाता. मरणा पर्यंतच्या सगळया घडणुकाचें तांच्या प्रभावासयत वर्णन जाता, पुण केन्ना केन्ना चरित्रनायकाच्या जितेपणात चरित्र बरोवपाक घेतिल्या कारणान सगळयाचो ताळमेळ बसना. थोड्योश्यो मुखेल घडणुको घेवन मर्यादित चरित्र उजवाडाक येता.

चरित्र बरयताना व्यक्तित्वाबद्दलचे दोनुय दृष्टिकोण बरोवंचे पडटात - गुण आनी दोष. कोणाचेय चरित्र गुणांचेर बऱ्या स्वभावगुणांचेर आदारून बरयल्या उपरांत ताका आमी मनशाचे पातळेर दवरिनासताना देवमनशांत व्हरून बसयतात. अशें जावक फावना. म्हण जीण बरयताना बऱ्या-वायट दोनूय घडणुकांचो विचार करूंक फावो.

एकेकदा हें चरित्र बरयताना आमी संस्मरणाक खुब लागी पावतात. तशें पळोवंक गेल्यार चरित्रांचे एक तोंक संस्मरण आसता तर दुसरें तोंक जल्म ते मरणामेरेनचो इतिहास आसता अशें म्हटल्यार वावगें जावपा ना. म्हणुनच खुबदा चरित्र संस्मरणाचेर आदारून आसता. थोडे विद्वान तर अशें म्हणटात जाचें चरित्र बरयलां ताचेकडेन चरित्रकाराचे घराब्याचे संबंध आसुंक जाय. ताच्या सांगातान रावन तेच्या जीणेतल्या घडणुकांचो लेखक स्वतः एक वांटो आसुंक जाय. पुण जायते फावट चरित्र बरयताना अशें जाताच अशें ना. पुण संस्मरण मात अशाच यादींचेर बरोवंक येता.

ह्या साहित्यप्रकाराच्या रचनाप्रक्रियेचे तीन पावंडे असतात -

1. विशय थारोवप / थारावणी

2. सामग्री संकलन

3. सामग्रीचो विन्यास/मांडावळ

अशेतरेची मांडावळ केल्ल्या कारणान चरित्र बरोवप सोपे जाता.

चरित्राचे तरतरेचे प्रकारय आसात. ते प्रकार अशेतरेन मांडुक येतात -

1. सभावचेर आदाराचेर चरित्रांचे प्रकार

   अ) शुध्द चरित्र

   आ) अशुध्द चरित्र

2. विशयाचेर आदारीत चरित्रांचे प्रकार -

   अ) संत चरित्र

   आ) अितिहासीक चरित्र

   इ) राजनीतिक चरित्र

   ई) साहित्यिक चरित्र

3. संचरनेंचेर / रुपांचेर आदारीत चरित्रांचे प्रकार -

अ) प्रबन्धात्मक

आ) निबन्दात्मक

शणै गोंयबाबान बरयल्लीं दोनय चरित्रां वाचल्याउपरांत तांका अितिहासीक प्रकारांतली चरित्रां अशें स्पश्टपणान थारावं येता. 'पुण्यात्मो राम कामती' ची जीण बरयतना शणै गोंयबाबान सामग्री संकलनाचेर विशेष भर दिल्ल्या कारणान ताची मुखेल जीण पुस्तकरुपान आमच्या मुखार ते दवरतात. राम कामती हो मुळ गोंयचो कुंडयचो आसूंक जाय अशें शणै गोंयबाब बरयतात ताच्या खातीर ते बाबू कामतीच्या मर्णपत्राचो दाखलो दितात. 1680 ते 1758 मेरेनचें राम कामतीच्या जीविताचे चित्रण शणै गोंयबाब करतात. मुंबैचो मुखेल व्यापारी-(तंबाखु, साकर, शिसें, लोखण, कथले, अफीम) सराफी, दलाली करपी, ईस्ट इंडिया कंपनीचो मुखेल म्होर - मारपी (हेड मिन्ट-मास्टर) शेतां भाटां खंडाक करपी, तरतरेची कामां करपी आनी फकत मुंबय जुव्यारच न्हय तर भारतात तशेच इराण मेरेन वेपार - उदयोग करपी रामकामतीच्या जीवितांतले सगळे म्हत्त्वपूर्ण खीण शणै गोंयबाबान बेस बरे चित्रायल्यात. तांच्या चरित्राचे तरतरेच्या आंगानी जाल्लें वर्णन वाचुन ह्या गोंयकाराविशींच्या आदरान काळीज उपाट भरून येता. तांचे कर्तृत्वच न्हय तर लोकांविशीयीं आशिल्ली तांची संवेदना, अडल्या नडल्याक मदत करप, प्रसंग आयल्यार आपणाले पैशे वापरून दुसऱ्याल्या उपकाराक पडप हे सबावगुण राम कामतीच्या जीवितांतले प्रसंग वाचल्या उपरांत जाणवतात.

पुर्तगेज सरकारान मुंबय येवपी तांदुळ बंद केल्या उपरांत लोक पुर्तूगेज सरादीत वचपाक लागले. राम कंपनीचे कोठयेंतसून 50 मुडी तांदुळ घेवन लोकांक उणे दरेन दिले. तशेच इंग्रज लोक गायचें मांस खाताले. त्याखातीर मुंबचे इंग्रज थंयच्या लोकांच्यों गायो, कुकडां बळजबरीन व्हरताले. हाचेर येवजण म्हुण गायींची हत्या जावची न्हय म्हुण ते पटी फारीक करताले. अशेतरेच्यो जायत्यो देखी दिवं येतात.

राम कामती हो फकत समाजसेवक, वेपार उद्योग करपी कुशल व्यक्ति नाशिल्लो तर तरसाद चलोवपीय आशिल्लो. 17व्या शेंकड्यात राम कामतीक सगळया देशी सैन्याचो सेनापती नेमलो. आंग्रे, मराठे, सिध्दी, पुर्तगीज, ओलान्द ह्या सगळयावांगडा इंग्रजाची झुजां चलताली. तांचे नेतृत्व राम कामती करतालो. मुंबैच्यो गवर्नोदोर सर जॉन गेयर हांणेन तांका 23 जुन 1694 त दोन अधिकार दिल्ले - "ताका उंच मानाचे आनी जड-जडयेंचे दोन मोटेले अधिकार दिले. ताका ताणे मुंबै जुंव्यावैल्या सगळया देसी सैन्याच्या माथ्यावेलो जाळवणदार (मस्टर-मास्टर-जनरल) आनी थैंच्या सगळया उत्पन्नावेलो मुखेल दोळो दवरपी (ओव्हरसियर - जनरल) नेमलो. ....... ताचो 'ओव्हरसियर-जनरला' चो अधिकार म्हळयार आतांचो कलेक्टराचो अधिकार."

कामती 'मस्टर' मास्टर जनरलांच्या अधिकारार जायतीं वर्सां आशिल्लो. 1718 त विजयदुर्गाच्या कान्होजी आंग्र्याकडेन इंग्रजांचें झूंज जाल्लें, तेन्ना सगळया देसी सैन्याचो कामती सेनापतीय आशिल्लो. ह्या सगळयावयल्यान अशे दिसुन येता कि राम कामती विशयी इंग्रज शासनाक विश्वास आशिल्लो. तांचेर विश्वास दवरून जायतीं वर्सां इंग्रजान आपणालो शेक चलयलो. चाळीस वर्सां लोकांचे आनी शासनाचें काम करून तो लोकमान्य आनी राजमान्य जालो. तशेंच जमनीभरवण जाल्लीं वाळकेश्वर आनी भूलेश्वराची देवळां बांदुन तो धर्ममान्य जाल्लोय दिसुन येता.

अशेंतरेन राम कामतीच्या कर्तृत्वाचो बावटो वयर-वयर चडटाना ताचे दुस्मान ताच्या विरोधान पेटुंन उठले. तार्ची गिरेस्तकाय वेपार-उद्योगांतली घडघड सरकार दरबारांतली चडटी व्हडवीक पळोवन खुबशे लोक जळटाले. मुंबैचो गोवेनोदोर अध्यक्ष आनी कौन्सिल हांणी ताचेर सरकार घाताचो धरून सात गुन्याव घातले. गुन्याव प्रमाणित करपाखातीर पत्रां घडयली आनी मारधपट करून गवाय दिवपाक लायली. तरी आसतना गर्भगळीत जायनासतना सगळी खरी गजाल मेकळया आनी साद्या उतरांनी सांगली पुण गुन्यांव आदींच थापटपाचो बेत शिजिल्ल्या कारणान तांका बुनान ख्यास्त फॉर्मायली कि 'कैद्याक जिवो आससर बंदखणींत दवरचो आनी ताची आस्पत कंपनींत जमा करची.' अशेंतरेन कामतीक आनी

ताच्या कुटुंबियाक त्रास भोगचे पडले. ही सगळी जीण अभ्यासल्या उपरांत अशें दिसुन येता कि शणै गोंयबाबाक थोडे प्रस्न पडल्यात आनी ताच्यो जापो तें सोदपाचो यत्न करतात. राम कामतीचे. कूळ, मूळ, तागेले विचार, कर्तृत्व अधिकार इंग्रजांच्या हातासकयली पराधीनता, क्षमता आसून लेगीत उपेग करूंक नाशिल्ली बुध्दि हांचो आस्पाव हे जीणेंत सविस्तर जाला.

'आबे फारिय' हें अितिहासीक चरित्र रचुन शणै गोंयबाबान कोंकणी साहित्याक अनमोल रत्न दिलां. विश्वातल्या वैज्ञानिक संशोधनांत जाचे नांवं गौरवान अभिमानान उच्चारतात त्या गोंयच्या सुपुत्राचेर आबे फारियाचेर भारतीयांक गर्व आसुंक जाय. पंद्रा वर्सांचे पिरायेचेर बापुय ताका घेवन लिस्बनाक गेलो. थंयच्यान रोमाक गेलो. थंय ताणें 'देवविद्येचो शास्त्री' ही पदवी जोडली. 1780 त ताका देवविद्येचो आनी तत्वविद्येचो शास्त्री ही पदवी मेळ्ळी. लाती भाशेत 'देवाचे आसप, ताचो अेकलेपण आनी ताची सासाय हाचे संबंध हांचे सिध्दान्त' ह्या विशयाचेर निबंद बरोवन, तांणी तो आपणाक शिकपाक प्रेरणा दिवपी डॉ. जुजेची चली रानी दोना मारीय हिका ओंपलो. रोमातल्यांन तिस्बनाक गेल्या उपरांत ताचे शास्त्रातले तेज फांकारुक लागले. राजम्हालाच्या कपेलांत जाल्ल्या उलोपान तांचो बेस बरो प्रभाव लोकांचेर पडलो, आनी ताचो लौकिक पोर्तुगालभर घणघणलो.

ताच्या उपरांत फ्रांसाचे राजकर्ण, तांचो फरियाचेर जाल्लो प्रभाव आनी 'घणघणीत अुजवाडाची न्हीद' (Sommeil lucide) हाचेर संशोधन हाचे विस्तारान वर्णन हे जीणेत आयला. इतलो म्हत्त्वाचो सोद लावन पसत फारियाक लोकांचे, दुस्मानांचे त्रास भोगचे पडले, पुण ताणेन 'घणघणीत अुजवाडाच्या न्हिदे' संबंदान बरयल्ल्या पुस्तकान तांकां जिवो दवरलो. पुस्तक छापचे पयलींच तो भायर पडल्याकारणान फ्रान्सेज लोकांचे पुस्तक वाचून दोळे उगडले. सगळया वर्तमानपत्रांनी ताचेर मर्णलेख छापुन आयलें. तांतूत फारीयाची तोखणाय केल्ली दिसून येता. अशेतरेची सुपुल्ली जीण बरयतानाच शणै गोंयबाबान केल्लो 'गोड आनी कोडू' सारस्वताचो उल्लेख वाचुन मन निरशेंता. बायणांचेर आनी पाद्रीचेर बरवपाक हेर साहित्यप्रकार आसताना शणै गोंयबाब हे जीणेन ताचो किदयाक

आस्पाव करता ? आबे फारीयाच्या जीणेची देख हिन्दु-क्रिस्तांवच न्हय तर जगातल्या प्रत्येक मनशान घेय सारखी आसा. वैज्ञानिक सोद लावप हे साधे-सुधे काम न्हय. फारीय सारखी तेज आनी संशोधक वुध्दि आशिल्ल्या मनश्यान कुच असलो वावर जमचो.

चरित्रांची मुखेल लक्षणां आनी तेवरवी दोनुय जीणेंच्यो अभ्यास करूं येता.

वास्तविकताय - 'पुण्यात्मो राम कामती' आनी 'आबे फारीय' ह्या चरित्रांनी वास्तव चित्रण जांवचें म्हुण बरोंच यत्न केल्लो दिसुन येता. दोगांयच्यो देखी तांच्या तिथीप्रमाण दिल्ल्यो दिसून येता. राम कामती चो काळ तपासपा खातीर शणै गोंयबाबन अितिहासीक आदार ग्रंथ, पत्रकां, मुंबचे सेक्रेटरीयट रेकार्ड इंडिया ऑफीस अशे तरतरेचे दाखले दिवन जीण वास्तवरुपान आमच्या मुखार दवरल्या. तर 'आबे फारिय' ची प्रकाशित जाल्ली पुस्तकां, बर्नाड हॉलन्डर बिनेट आनी फिअर हांच्या पुस्तकांचो आदार घेवन सुपुल्ल्या चरित्र निबंधान आकार धारण केला. वाळकेश्वर आनी भुलेश्वराच्या देवळामुखावयल्या फळावयलें बरप हो पसत एक पुरावो मानू येता.

वातावरण - चरित्र निर्मणेन फकत त्या व्यक्तिची जीण नासता तर ते घडपाक त्या काळतलें वातावरण आनी परिस्थितीय तितलीच जापसालदार आसता. दोनुय जीणेंत वातावरणाची निमणी करपाखांतीर राजकीय परिस्थितीचो उपेग केला. पुर्तगेजांचो गोंयांचेर शेक आशिल्ल्यान राम कामत आनी आबे फारीय गोंयांभायर वचूंक पावले. राम कामतीचे चित्रण करताना लेखक आंग्र्याचे, मराठ्याचे सिद्दिकीचे आनी इंग्रजाचे राजकीय मळावयले संबंध चित्रायता. तशेच त्यावेळा वयलो अितिहास तपासुन पळयत जाल्यार राजकीय घडणुकांची वळेरी आमकां मेळटा. आबे फारीय फ्रान्साक गेल्या उपरांतचे चळवळीचो इतिहास लिस्बनातलो दोना मारीयाचो उल्लेख, 1787 त कर हे अितिहासीक दाखले वातावरणाची निर्मणी करपांक मदत करतात.

तटस्थता - चरित्राचे चित्रण सत्यघडणुकांचेर आदारून आशिल्ल्यान लेखकांक

तटस्थ रावचो पडटा. थंय कल्पनेक वाव आसंना. तरतरेच्या घडणुकांची वळेरी दितना ती फक्त चरित्राच्या फावरान दिना आसतना ताच्या गुणाबरोबरुच दोशांचेय दर्शन वाचप्याक करून दिवंचे पडटा, म्हण राम कामतीची जीण बरयताना शणै गोंयबाबाक पडिल्ल्या प्रस्नानी राम कामतीचेक बोट दाखोव येता. 'कामतीचे जीणेंन उठिल्ले येवजण्यांचे माले ह्या शीर्षकासकयल तरतरेचे प्रस्न उप्रासल्यात, तांतुंतल्यान तांच्या चरित्राचे दोश धिटायेन दाखोवन दिल्यात. 'ताच्या असल्या वेपारी धोरणाच्या आनी खोल नदरेच्या मनशाक कांय नाड मनश्यांनी एका खिणांत ना करुन उडोवंचो, हाचें आमकां भौन भौन अजाप जाता. त्या नाड मनशांची कुवाडी परतीं तांच्या गळयांत घुस्पावक ताका तांकले ना कशें ? ताची तीख धारेची बुध्द एकदम मुणली कशी? शिवाजी भाशेन कामतीनूय न्याय-नीत माह्यायतल्या बुनाक तोरी कित्याक दाखैल्यो नात?... शिवाजिचें नाव आयकल्यारुच तांगेली तागडी गळसणटाली आनी तांच्या आंगाक चळवळीत शेळो घाम सुट्टालो. कामतीन ही तांची दशा आपल्या दोळयांनी पळेल्ली आनी पळेतालो. अशे आसताना तो ते दिशेन वावुल्लो ना कसो ? (426)

ह्या सगळयावयल्यान शणै गोंयबाबाक दिसता कि खितपत मरचेपरस जर ताणे इंग्रजांच्या नांवाक काळे कींट खत लावन मुबैच्यान निखळावक तो वावुरलेलो जाल्यार - 'परके सत्तेतसून कोंकणाचे भुंयेची इल्ली तरी सुवात सोडोवपाची पुण्याय ताका मेळटली आसली. ताचे सगळे कर्तृत्वदशेचेर सोबीत आनी सुंदर बरो घूड उब्लो आसलो आनी ताचे नाव आतांचेय परस चड अव्वंवर जातलें आसलें. एकादे ताचो यत्न फुकट वचून इंग्रजांकडेन झूजता आसताना तो मेल्लोय जाल्यार ताणे आपले खरेले तेज दाखयलें म्हणून कोंकणाचो इतिहास ताका तोखेतलो असलो. हाचे उफाट्टें, इंग्रजांनी केल्लो अन्यांव आनी अपमान दुबळेपणान सोसून, ताचे असलो बुदवंत आनी कर्तृत्वदशेचो मनीस तांगेले बंदखणीत घुस्मटून मेल्लो पळौन, तो इतिहास साप्प निर्शेता." (427)

चरित्रांबद्दलची तटस्थता इतल्यारूच उरना तर इंग्रजाखातीर तो कसो झूजलो आनी तांचे सुख-दुख ते आपले सुख-दुख कशें मानले हाचोय उल्लेख शणै गोंयबाब करताना म्हणटात - 'खासा देस भावांयपरस ताका इंग्रज आपले

दिसताले.... तो बुदवंत, हुशार, धिरिस्ठ आनी साहसी आसलोय जाल्यार ताच्या आंगात धनीपणाची ऊब निखालूस नासली. तो कुडीन आनी मनान इंग्रजाचो साप बंदी जाल्लो. तो शिवाजीभाशेन थैंसून सुटून वचून तांकां प्रायश्चित भोगयतलो आसलो." (428)

साहित्यिकता - चरित्रकार चरितनायकाच्या जीविताचो फकत इतिहास दिवक लागल्यार चरित्रां रोचक जांवची नात. तशें पळोवक गेल्यार चरित्र लेखन ही साहित्यिक विधा आसून पासत व्यक्तिच्या जीवितकाणयेचो इतिहास आसता. तरीपूण शणै गोंयबाब 'पुण्यात्मो राम कामती' आनी 'आबे फारीय' हातूंत इतिहासीक वेंचीक घडणुको आनी तिथीचे वर्णन करून तांका रंजक आनी रोचक करपाचो यत्न करता.

खरे म्हळयार चरित्र बरोवप हेर साहित्यप्रकारापरस कठीन. पूण शणै गोंयबाबान दोगांच्याय जिवितातली चडती देंवती प्रामाणिकपणान उक्तायल्या.

आबे फारीयान श्रेश्ट संशोधन केल्याउपरांत पसत ताका तागेल्या मत्ताखातीर जायती पिडणूक भागची पडली. (भोगविद्या अेक फितीस आसान क्रिस्तांव धर्माआड आसा असो तांचो समज आसलो. तो निजाचोच देवधर्मिष्ट आसून पातकाक जरी सोरपाक कसो सो भियेतालो तरी ते ताका सैतानावरी लेखूंक लागले. (487) तो करता ते प्रयोग खोटे हे सिध्द करपाखातीर एका खेळगड्याक फुडे काडुन ताका न्हिदेचे वेस्टें सवंग करपाक लायलें आनी फारियाक फटयलो, अशे तरेची रामकामतीच्या आनी आबे फारियाच्या दोघांच्या जीवितांतली फटवणेची देंवती प्रामाणिकपणान चित्रित केल्या.

घडणुको - हे सगळे बरयतंना लेखकान चरित्रलेखन सुंदर आनी सोबीत जांवचे म्हुण मेजक्योच घडणुको घेतल्यात. दोघांच्या जीवितातले विविध स्तर चित्रायतांना विज्ञानीकनदर घडणुकांचो सोद आनी ते बद्दलच्या विचारांची विस्कटावणी केल्या. शणै गोंयबाबान राम कामतीच्या जीणेतल्या अितिहासीक, राजनीतिक सामाजिक संदर्भाचो वापर करून ती चरित्र, अळणी, मिळमिळीत जावक फावना म्हण सोबीत भाशेचो उपेग केला. 281 संदर्भाच्यो देखी दिवन लेगीत विस्तृत जीण

वाचप्याक खंयच उबग हाडीना. वाचपाक सुरवात केल्याउपरांत फुडें-फुडें वाचपाची आंतरिक स्फूर्त निर्माण जाता. हे सगळें उक्तावपाक कोंकणी भाशेन खंय उणाकपण आसा अशेंय खंयच दिसून येना. लालित्य, सहज आत्मीय विवेचन-विश्लेषणाबरोबरूच संप्रेशणाची क्षमता अणभवुंक मेळटा.

कोंकणी भास ही व्हांवतो पाट जावन आसा. खळखळत आशिल्लें - नाशिल्लें, बरें - वांयट व्हांवोवन व्हरतानाच देगेर आशिल्ल्या झाडांपेडांक शितळसाण आनी जीण दिवपाचे काम ती करता. शणै गोंयबाबान कोंकणी भाशेचे उदरगतीखातीर वावर केलो हे सर्वविदित जावन आसा पूण ह्या दोनूय चरित्रांनी केल्लें संशोधन, तांच्याखातीर भेंड-मान बावगोवन केल्ले अथक प्रयत्न पळेयल्यार अशे दिसता कि लेखक खंयतरी समाजाकडेन प्रतिबध्द आसता. तो फकत 'स्वान्तः सुखाय' रचना करीना. ताची जापसालदारकी समाजाकडेन आसता ही ताची प्रतिबध्दता प्रभावकारी आनी सार्थक लेखनान सिध्द जाता. पूण खंयच्याय प्रभावकारी - सार्थक लेखनाची कसवट सौन्दर्यशास्त्र वा साहित्यशास्त्र आसना तर सामाजिक संवसार ते कृतीक कितलो म्हत्त्वपूर्ण थारायता ही आसता. म्हणुनच लेखनाची सार्थकता ही लेखकाचें म्हत्त्व स्थापित करता. अशेतरेन पळोवंक गेल्यार शणै गोंयबाबाच्या लिखणीतल्यान अजरामर जाल्ल्यो रचना तांका वयल्या पांवड्यावयले तशेच कोंकणीचे आद्य लेखक म्हुण नामनां जोडुन दितात. ह्या चरित्रांचो उद्देश पसत लोकांक गोंयच्या मनशांनी आर्थिक, सामाजिक, राजनीतिक, विज्ञानिक मळार केल्ल्या घसघसीत, कीर्तिवंत कार्याचो साक्षात्कार करून दिवप होच थारता.

●

कविता :

# गोंयकाराचो मुंबैकार

- शणै गोंयबाब

हांव मूळचो काकोडेंचो । गांव खन्यांनी हो मौजेचो । म्हण ही मोटी कलांवतांची । नामना अशी चलता ताची । अशे सुवाते’ जन्म घेतलो । साष्टिकारां बामणांत आलो । हिरो कमोसो कोंकणांतलो । हांव कुळामदिं मोवुं लागलों । गवळ कामत नांव घेतलें । आज्याचे फाटशीं चलेंडें । चंद्रीम जसो गुनवे करतलो । हांव तसो वाढूंक लागलों । न्हयकुन्हयड मिशुय फुटलीं । जुवानपणची शींव मोडली । संसाराची खंत लागली । विरयां-संवाम्बु-चो पेलो । पसरो ताका उणाक दिसलो । हावेस मना दुब जोरचो । परंत मारग दिसना खंचो । तळमळ भारी जिवाक जालो । धेय घेतलो भागुन गेलो । इतल्यांत म्हजें देव उदेलें । चिमणे आका दिष्टी पडले । मुंबैमत्न निलें आदनें । मीण भाटियो गिरेस्त ताचो । धनजी पेलाभाई धंचो । पोर खन्डांनी न्हद देंवाचें । स्नेस्त भारी तें बरफीचें । भुरगेपणची वळख आमची । जाली आतां उपयेगाची । तजविज केली भेट घेवची । म्हणून ताच्या घराक गेलो । मोगान बरो उलो मारलो । बेस बरें तें चिमणे आका । धनलो बरो बसौन म्हाका । विडो दिलो गुडगुडी हाडली । हांवे गुडगुडु करून ओडली । मागीर ताणे गुस्त चलेली । मुंबै शारची भौ नाणकुली । भौच बरी ती मुंबै आमची । लंबा मोटेली रस्त्यांची । दुडवांचो धें धुंवर धोळना । उदेगाचो भर्भर चलता । गिरेस्त मोटे पार्शी बाणी । तशे मारवाडी लाम्यांनी । मुसलमान इंग्रेज फिरंगी । लोक तरांचे धें भौ-रंगी । जळींमळी जिनसवार माण । एक एक वेपारी ताण । बेकार असो कोण मेळना । धंदा फाटीं लागलीं मना । गिरण्यांचे खांबे’ चोयतशीं । आगगाडयें मारग दोंशीं । ज्या त्या मागो टप्पेळीची । गाडी चलता दिस-रातींची । मारग धें येत्या-वेत्यानी । फुलेशे दिस्तात फुडांनी । अशी गण सांडी लोकांची । वाट जायना मुळीं मुयेची’ । तोखणाय ही अशी तरेची । आयकून खोशेलों ॥ हांवें ॥ १ ॥

## रवळू मुँबै पळून वेता आनी फणसवाडींत चिमण्याच्या घरा उतरता. मुँबैच्या बंद्राचो देखाव.

गांयां रावुन दीस फुंक्याचे । वेकारपणा न्हंय घालींचे । दैंव ल्लगेलें कसा लांवचें । रोखडो असो निशय केलो । मुँबैक वचपा तयार जालों । चित ल्लगेलें भौ फालवलें । प्रस्तावुय[2] काढून दवलें । परंत पदरा एक दुड ना ।

चिंता पडली भारी तेन्ना । इतल्यांत पळ्या बेस सुचलें । काण[1] रुप्याचें धाण दवलें । सोळा रुपया ताचे घडले । कामाक्षेन उडी ही घाली । बुद बरी ह्याका येवजली । दुसरेच दिसा गर्गमुनीच्या । म्हूर्तान बऱ्या फांतोटेच्या । पुडवें तोपी[2] एकुच चोळो । खांद्या वैलो लेंस जांबळो । हांतरुणाचो ल्हानुच कवळो । तांबयो तसो एकुच पेलो । अशि ही मुस्तायकी घेतली । कोणा एका जाग ना दिली । व्हडूच हांवें मुकी[3] मारली । मुर्गांवाची वाट रोंखली । ह्यालार्ची आगबोट धल्ली । मुँबै शारची तिकिट काडली । दुसरेच दिसा तिळसांजेचें । बँदर लागलें मुँबै शारचें । अहा ! बेस ती सोब पळोंची । दों दोळयांची तान न्हिवोंची । अमरावति ती जशि इंद्राची । मुँबैचाय ह्या संसाराची । वयांतली ही बाय्ल कशीशी । नाजुक आनी नवि व्हॉकलशी । दर्यां-कापड निळ रंगाचें । बेस बरें हें सोबता तिचें । व्हडीं, तारवां तरेतरेचीं । गर्दी मोटी वापोरांची[4] । रस्त लागली दिपद्रांची[5] । शिवणकाम हें सगळें

दिस्ता । कापड मौजेचें लकलकता । पँगत तारवांचेर दिव्यांची । अहा ! जशीं कुरकुरां[1] जरार्ची । पांगुरल्या ती निळ रंगाची । शाल उंच भौ ही मळ्वाची । चंद्रीम मदीं तिचेर मोटो । नक्षत्रांचो घेर चांवटो[2] । मांत ना असो लकलक तांचो । देखाव खरो हो मौजेचो । कुलाब्याक तो झगझगो दिवो । जसो तिगेलो हातुच उजवो । लक लक तो तीं हालैता । 'यो' ह्मणून ह्याका आपैता । पळौन आग्रो असो तिगेलो । हांव जायतो खोशी जालों । धक्यार वेगोवेग उतलों । चौकशी फुडें काडित गेलों । फणसवाडचो मारग धल्लो । वाडो मोटो कलांवतांचो । फणसवाड

हो मुंबै शाऱ्चो । कळांवतां हांगा गोंयाच्यां । तशीं घेडवां गांवगांवच्यां । कुंभारजुवेंचीं. पंचवाडेचीं । मांद्रे. वागाळ. नानोडेचीं । अंत्रुजेचें भिरें आयल्ली । पिशेंच तवनासांक लायल्लां । कांय जालें तरी खऱ्यांनी । हीं गोंयाचीं भौ अभिमानी । ह्यजे वर्गा कोणय पळयतो । चडम्या हांगेलो दारवठो । दोन दीस नारि तांदूळगांटो । ताका मेळल्या वगर रावना । पोटाक उपाशीं तो मरना । भाव आमकां लेखनात नां । एकचाय ही तांची मोटी । चिमणें आसाय तें आमचें । अभिमानी भारीच गोंयचें । कौतुक ताचें खरेंच करचें । उजव्या हाता मुखाच येतो । मात माळ्यो ताचो बैंगलो । पळोन तांतुर सह्यों ॥ हांवें ॥ २ ॥

---

## चळू गांटचे दुड्ड कडता आनी पोटाची तजवीज लांवक धोंडूभायच्या घरा रांदपी रावता. तो इंग्रजी शिकता.

सांज दीस मौजेतुच गेले । 'किदाळ्गांचें फोन्ग' मारलें । सोळा रुपया पाप करेंले । हात झजय मारयार आयले । तेन्ना कुडल्ली चिंता पडल्ली । आतां देवा कशें करंग्या? । कोणाची गा काम धरंग्या? । पोटाची तजवीज लांवया? । हीच घोंकणी लागली मना । न्हीद मुळीं सवनरात येना ।

दुड्ड नासल्या मुंबै रांवचें । म्हणचे हांगें करून धेंवचें । बसल्या उठल्या दुड्ड लागता । दुड्ड दुड्ड हो नाद गाजता । बरें; दुड्ड तो कसो मेळचो ? । धंया-विद्ये वगर फुकयाचो ? । परंत धंदो करूंक गेल्या । दमडी गांटीक ना ह्यगेल्या । धंदो आसूं; विद्याच तरी । आसची ह्यज्या पदराक खरी । हुपेल नांवान तिच्या मेरटी । चलता गोंयकरांच्या फार्टी । वीस चवड णोय[1] ही ह्यगेली । सगळी विद्या फळणें[2] वेली । हेर कसब तें निखाल येना । फिरंगी भास मुळीं शिकलो ना । इंग्रजिचें तें नांवुच नाका । खंत लागली व्हडली ह्याका । आतां कोणाय घरा वचुंया । रांदपीपणा तरी रांवया । पणून रांदप येता कोणा ? । देमण फाट्या आनी मण्या ? । तरी आव मोटोसो घालो । कांदो बेस बरो हालेलो । नडणेक ह्यजे उजो लागलो । धोंडुभाइच्या घराक गेलो । ताका वागुन पांयां पडलो । रांदपाक तागेर रावलों । पणून रांदुंक ह्याका येना । चिंता भारी लागली मना । शीत रांदल्या पेज जांवची । पेज तीय पोंदाक लागची । शाकेचें खतखतेंच[3] करचें । खार कडूक तें हुमण[4] जांवचें । सांबारें पातळसर जाल्या । भाळेणाची बुकी मारल्या । म्हणचें तें दाटगुळो जालां । तांतुर मागिर उदक ओतलां । अशा तरांनी घोंटुच करचो । जेवतल्यांचो जीव विटोचो ।

पूण दया तें कामाशेर्चा । म्हणून मर्जी धोंडुभाइची । जरी पाड त्या ह्यज्या जेवणा । उणें उतर तो उलेलोच ना । असो कांयशो ह्याने गेले । सैपाकाचें काम आयलें । भीमपाक नळपाक शीकलें । रांदपकामा खांपो जालों ।

पूण दया ते कामाक्षेची । म्हणून मर्जी धोंडुभाइची । जरी पाद त्या म्हज्या जेवणा । उणे उतर तो उलैलोच ना । असो कांयशे दीने गेले । सैंपाकाचें काम आयलें । भीमपाक नळपाक शीकलों । रांदपकामा खांपो जालों ।
पूण दया ते कामाक्षेची । म्हणून मर्जी धोंडुभाइची । जरी पाद त्या म्हज्यो जेवणा । उणे उतर तो उलैलोच ना । असो कांयशे दीने गेले । सैंपाकाचें काम आयलें । भीमपाक नळपाक शीकलों । रांदपकामा खांपो जालों ।
मार्गार कितें ? तरेतरेचे । परखत्र [1] वरे हांवें करचे । जिनसवार ते रोस, भाजयो । तशो रुचिक भौ वन्यो पोळयो । पत्रवेलयां, फण्णागोळे । बटाट आंब्रट आनी पोळे । कुर्कुरीतशी खमड कांकडी । तशी सुवादिक भौ फोड्डिवडी । वेसनलाडू, वासुदी, पुरी । साकरभात तशी सांजोरी । जिलब्यो आनी फुग्गार गुरळी । आंब्याचो रोस नी [2] खाजलीं । आसं; अशांनी हुशार जालों । रांदपी बरो म्हणुन गाजलों । परंत तांतुर खोस जायना । रांदपांत व्हडलेपण दिसना । फसोय जालों तरी कामत । घराणे म्हगेलें कुळ्वंत । उबो रावलो हो अभिमान । रुचना जालें जेवणखाण । तेन्ना आतां कशें करूं या ? । ऊंच दशा ती कशी जोडुंया ? । एकुच हाका युक्त सुचली । भास इंग्रजी ती शिकचेली । पूण कोण ती सांग शिकैता ? । वेळ तसो कोणाक कायता ? । तरी आमच्या धोंडुभाइचो । छोटुभाइ हो चलो गुणाचो । ताची सास्त्राजात्रा केली । इंग्रेजीची वळख घेतली । पांच पुस्तकां अशींच शिकलों । हिशेबांत भौ हुशार जालों । मोतयांबरी दरप म्हगेलें । पळौन सगळ्यां अजाप जालें । धोंडुभाइन कौतुक केलें । मोग म्हजो भौ ताका जालो । रांदपकामांतलो काडलो । इष्ट कसोसो चलौं लागलो । आफिसांत गा व्हेलो ॥ हांवें ॥ ३ ॥

---

एकळू कारकून जाता. ताचो पोशोग आनी हेर चलणूक. तो अ ऊंच वामणपण विसरता. गोंयांत जांकां वामण म्हणून लेखीन तांकां तो वामणकशो लेखता ! तो आपली जात 'शेणवं म्हंटा !! तो आपणाक रवळेराव म्हणून घेता. तो रतनबेनी

कडें लगीन जाता. गोंयाची आनी गोंयकारांची तो निंदा करता. वायलेक माध्यार चडैता.

लिणांत फुडें दैंव म्हगेलें । कारकुनाचें काम मेळलें । दैन्या रुपया तीसं मांडले । वर्सा कणकणि चडूं लागले । चों वर्सांनी सत्तर जाले । तेन्ना हांवें चेपें [1] घालें । मिशयांची तर पिलीच केली । शेंडी तोडुन साप उडैली । घोड वेस सळसळीत केलें । कपळाचें नामूर्य पूसलें । गर्ज अक्षदाची ना उली ।

पुरवें सोडुन विजार घाली । पांयां वोतां वरीं चरेंठीं । गर्वात[3] तसो गळ्यांत घालो । फटक् फटक्सो चर्चू लागलों । बामणपण पेन्यान धुकळें । उणाकपण पोटळुन घळें । गांय आमचें आंकां ह्मणना । बामणशे सप्नांनुय केन्ना । अशांच्या गळ्या वळयां घालें । बामणपण आमचें पुर्विलें । बामण तांकां लेखुं लागलों । जात ह्मगेली हीण समजलों । जात आनि पदवी हांतुंटी । वेगळाय ध्यानांनुन गेली । पदवेकूच जानर्शी लेखली । शणैपणाची धुस्पण केली । शणै उतर जें भौमानादिणे । पंडितकाये अर्थ सुचेणे । बामण-नांवा फुडें सोवणें । तार्चो हांवें वाट लायली । कोणेय ह्मजी जात विचाह्र्या । शणै ह्मणुन रोखडी सांगन्या ! । खरें पळेन्या, कुव्हा ह्मगेन्या । शणै उतर हें लागना ह्मळ्या । पूण टेख हीं अजाणिवेंची । मुंबैकार स्मार्त बामणांची । दोळे धांपुन वर पेतलो । पिशेपणाची हासुच केली । बामणांक घा लागता जशी । शणै टमक भौमानींक तशी । ल्वगण तांच्या जिवा आयन्या । शणै लांक नांवाक आपन्या । वदें वदें नागेलंटें । शणैवगर दिसणे चिटवाळें । अर्दुकटेंगो आनी पोटें । नांव घेवपा सोपें दिस्ता । उमेद तांगुर तांकां जाता । पुण तांगेली जात विचाह्र्या । 'शेणवी' ! अशें हटात पळ्या । अदिकूच जान्या, अगदचंवगो । 'सारस्वतगौड' हें लांबशें । उतर सांगलें ह्मणचे जालें । माप्या वेन्यान उदक गेलें । अशी गत जान्या तांगेली । मूळ ह्मत ताणीं मांडेली । कामगाय आमहुन घाली । टांच्याची जतनाय घेतली । तांच्याकूच गायत्री लेखली । बामण ह्मणपा नान्य कापता । जिवेश तांचे मुग नोपता । जरि हीं तांची पिसाय जाली । ताका तीं भारी मानवली । गोंवडी निशा हाजिर्शी केली । भाई; भगांनी उणाक जाली । इंग्लिश टॉटिंग्लास[1] पावली । अर कोप सुप[2], मटन, प्यालिस[3] । डेंडे, भिम्बुतों, खिमो, कटलस[4] । अशें जिनस हे अर्कुक शिकली । केटपेटसे उर्लो लागलो । इंग्रजि भारी वगर जायना । निम्बाल त्याका चेतुच पडना । भास कोंकणी साप विसह्नो । भास-मळाव्ते कळुंक शिकलो । पाव कोंकणी, पाव मराठी । पाव इंग्रजी तशि गुजराथी । 'हकडे, तकडे, हाम्बुर, ह्य, ना । च्यापो पेलो मांग वाकना' । अशी भास हीं वर्शी चलेली । राचर्शीय गोपर्डी घेतली । मुंबै शार हें वेस बन्याचें । जें तें भांयल्ताळें करचें । शीण कुल्टी नें मनाग घेना । तशी आदमेळ्य हारिना । राव, पंत, रावसाहेब बहादूर । ल्ल्क्यार हांगा शोग भागिना । ह्मणुन ख्वद नांव ह्मगेलें । मांडुन रवळेंगाव घेतलें । असो वरो हो आव माडलो । भर्भर हांव वरो चडलो । पळोन तजो अशी ह्मगेली । सोयरीक रोखडी आयली । रामभाऊलो धाकलो चर्ची । रतनबेन जी काळसांवळी । ताका ताणे शिंयचो केलो । माळ तिगेन्या गळ्याक घाली । जांव; अशें हें सव्व चांवशीं । मेळुं लागलें वरें दिशि दिशीं । अंदकूच पुर्विलें विसह्नों । टोळ्यांर ह्मज्या धुंवर आयलो । साप पळ्या गा कुडो जालो । जन्म-भूंय जी गांय ह्मगेली । याद तिगेली नाशी जाली । गोयकार ह्मणपाक ह्मगेलें । नाग सामर्के गर्दे लागलें । जांव ह्मगेली सुर्वेडु जाली । गोयकार सिंदूक

लागली । निंदा तांची तरेतरेची । करपाक तिका भारीच रुची । गोंयचान ते शिनाळ चोर । नागैणे नी भौच लुटार । पेज, कातली, खतखतावणे । हेंच रुचीचें तांचें खाणे । अळशिकावणी फोंत व्हांवता । सदींच तांच्या पांयां हाता । तेल तशें माथ्यार तेवता । मुळींच तांकां कांत मारिना । गिन्यान तांच्या कपळांतुच ना । हांव किते तो शाणो मोटो । फुगलों त्या गर्वान जायतो । बायल कुंबैकारीण ह्मगेली । ह्मणून भारी खोशी जाली । सर्गाक जसो हात लायलो । अशें हांव समजूंक लागलों । देवतेवरी पुजा तिगेली । करुन तिका माथ्यार चडैली । तिचे बगर कांयुच मानना । जेवणखाणा रूच लागना । ती सांटा तें प्रमाण ह्माका । हेरांची बुद मुळीं नाका । थूंक तिगेली गिळूं लागलों । असो साप हिण पापी जालों । बाण कशेशे हुकूम तिगेले । जेन्ना तेन्ना सुटूं लागले । तरी फुलांचे सुंदर झेले । लेखून सदां गळ्यांत घाले । अविंकुय जो मान ना दिलो । बायलेक रोखडो ओंपलो । तुस्त तिगेली तरेतरेची । तांडार तिच्या हांवें करची । ओपाऱ्यांची रास अंतची । साळकावरी तोंड तिगेलें । दांत तशे ते मोगरे-कळे । शिर नाखाची तोंच किराची । वेस कांत हरणा-दोळ्यांची । गुलगुलीत ते फुगार पोले । गुलाबशे तट्टीत फुले । ह्मणून तांची मुका घेंवची । वाल जुयेची तिका लेखची । मोगान व्हड वेंग मारची । ह्मजें हरण लाडकुबायेचें । ह्मणुन तिचे वांगडा खेळचें । हांसचें तशें भौ किटकिटचें । ह्मजेच भाशे तीय नाचरी । चिकेच आसोभर ती भारी । अर्थ—अपुर्बायां तानेली । लाडकुबायां भौच भुकेली । गणून केली ह्मजी दिवाळी । घेव चोंवडो तिणे पळेलो । हट्ट घेतलो नाका जाल्लो । घोळ ह्मगेलो केलो ॥ हांवें ॥ ४ ॥

---

## रतनवेनीचे हालवारे आनी भोवस्ताळे.

भक्तिण मोटी नव्या देखिंची । खोस तिका भौ आंग मुडूंची । भोवस्ताळ्यां तिच्या मीत ना । हालवार तर सांगुंक येना । मदनाची बाम्लूच आपुण । अशें किते ती मनांत हाडुन । वोलचें तिणे रूप आपलें । न्हेसचें तिणे जशें बावलें । भेस पुर्विलो मनाक येना । नव्या रितींची रूच भौ मना ।

कापड, लुगणं तर जिवाक नाका पातळा, चिटा वानसा तिका । पातळ तें लहन फुल झिर्झिरें । वाऱ्याचे झिल्केन नाचरें । पुर्विल चोळी मुळीं मानना । उमेद पोलकां घालची मना । भुजांर आनी फाटलेवशीं । घालून फुग्यांच्यो ती राशी । 'यत्ररुपेव लेडी'' जाताली । वर देवदुतशी दिस्ताली । वांकडोच भांगो कसांचो । वाट तिका भौ तिळो लांवचो । ह्मणून दिसनाशी बारकिली । रेखची तिणे कुंकुमा-तिकली । गोरी गोरी पीट जांवची । हीच तिगेली ओढ मनाची । ह्मणून शाबू वांसवांसचो । पोमादाचो पिटो लांवचो । भौनभौन हारसो पळेंचो । कपळावेले दोंय

ती म्हजी पुर्विली । म्हूण अगांतुक गळ्यांत पडली । दांत्याचें पेडशें ओजली[2] । वात्र तिका करपाक मानना । रांदपकामाचो वीट मना । जिस्त बरें रांदुकूय येना । खरी दिसत ही गजाल कोणा ?। पूण जिवाच्यान हें खऱ्यांनी । न्हैंच मुळीं ही लटकी काणी । कामाक्षे गे म्हजे भवानी । साक्ष तूंच माते सायबिणी । आसूं; अशें हें कर्म म्हगेलें । म्हाकाच पळ्या आड आयलें । निस्तरांवचें कशेंय पडलें । म्हणून रांदनी–पक्ष घेतलें । भौन हांव सैंपाकी जालों । म्हजे राणयें वाडुं लागलों । राणी तर ती मात दवंना[3] । बसल्या जाग्या वेली उटना । पाल्व म्हाका मुदलींच दिना । तशें आयतेंय ती वांटिना । मातसो असो इजोय फुकिना । मेली वाजीरात्रीण कशी । फुगौन दोनी तणतर्णात कुशीं । माथ्या पोंदा घालून उशी । हुस्कया वांचुन पातळ्ताली । सुख खऱ्यांचें ती घेताली । पूण म्हजी थांदल जाताली । दगदग फाटीं आफीसाची । चिंता थंय वेळार पांवची । फुर्सद ती मातूय मेळना । रांदपाक आफिसाक पडना । तेन्ना सैंपाकयाक दवलो । खर्च म्हगेलो जबर वाडलो । पूण तिका तांतूर कांय ना । दुखी तिच्या काळजा वादना । घोव पोर मेल्यार मरूनी । रिणांत तो बुडल्यार बुडूनी । चणखणींत पडल्यार पडूनी । संसाराची वाट लागुनी । तिच्या मना सारकींच दोनी । रेव्यार जसो पाव्स ओतचो । तसोच जित्र्‍प सवाव तिचो । दाटून तिणे खर्च चडोंचो । हांतुय पार्पा वाल्लबुदिचो । तिजोरकारिण तिकाच केली । मागिर माण-सुकी ती कसली ?। असुदाय तिणे दुडू मोडचो । मना येत तो खर्च चलोंचो । नाद तिका भौ खुसखुसांवचो[1] । दांतांक तिच्या सोड मुळीं ना । लाला भजयांकार आडुना । चणे–चिर्मुलेकार जायना । मिठायवालो कोणुय येना । रोखडोच ताका आपोंचो । जाय जाय तो जिनस घेंवचो । घाणो न्हा तोंडाचो भरचो । नाटकाक ती भौच भुकेली । सर्कस केन्ना चुकैनासली । संट कर्शाशी फाटी लागुन । सपूत मोटे मोटे घालून । वांगडा तिणे म्हाका व्हरचो । कुशीक थंय आपले बसोंचो । ओड तिका भौ मायेराची[2] । तशीच अवेच्या नात्यांची । म्हणून तांची भर करपाची । खोस जायती तिच्या मनाची । मामा. काका तशे मावशे । माव्सभाव, मेवणे जीवशे । भाव, चुलतभाव तशो भैणी । भावजयांची भारी ताणी । गाडी घोडे तांका धाडुन । भौमान बरो तांचो राखुन । मोगान म्हज्या घराक हाडुन । मेजवानक्यो मोट्यो दिंवच्यो । उंच उंच तस्रिपो ओंपच्यो । बारिक रसमी पुडवीं, चोळे । रंगित पगड्यो जरिचे शेले । कापड, खण, पातळां शिर्शिरीं । तशीच शाली उंच कास्मिरी । अहेर त्याखेरीज वेगळे । केलें ताणी साप दिवाळें । कोण म्हळें ती न्हांव्क लागली । कोणाक म्हळें फुलां माळलीं ।

कोणाची ती सर्टीच जाली। घाल वस्त तेन्वळा कसली। असो दुड पावनाच जालो। अखेर रिण काडूंक धांवलों। धरून खाडां मावांल्यांचीं। साप्याजात्रा करून तांची। पांचांकडलें रीण काडलें। दुपेट दुडू पावँचि केले। खेरिज, काळंतरूय' व्हडलें। खडप ओंजलें गळ्यांत घालें। रीण मुळीं फारीग जायना। दुडूच खँचेकडे मेळना। घर-धनयांचें भाडें फुगलें। मागणेर मागणे आयलें। तरीय दमडी भरूंक येना। वेळ जबर हो कठिन आयलो। रिणातळा धिड्डूच गेलों। इतलेभ्रणसर नशीब धुंवलें। रतनबेनिचें पोट्टुच सुजलें। ओखद-विर्मद भारी केलें। पूण गूण तो शाप्पाकूय ना। अखेर ह्याका तिणे फटैलें!। तरी घळें बेस बरें जालें। पिडा फाटिची नाशी जाली। कामाकेन उडी ही घाली। भाई; लिगेल्यो वस्ती विकल्यो। फारकतीक रिणाचे धाल्यो। पूण रीण गोमटी सोडिना। दया मारवाल्यांकूय येना। वेता यँ तांगेली दारीं। जांव लागली झगडे फाटीं। काम ह्याजी सोडिनाच जाले। आफिसांत लेगीत पावले। धर काळशे दिसूं लागले। उपाय तेन्ना दिसनाजालो। काळ्जाक कटकटीच भल्लो। अखेरीक आपलीस सोडलें। सायबान नांवूय काडलें। दमडेची आम्पत ना उल्ली। दया सुप्पापाट ह्याजी जाली। कसाब ते मार्वांडी मोटे। खरे काळ्जाचेच दफाट्टे। दिवाणा फुडें ह्याका व्हेलो। उबो वर चोगसोच केलो। अखेर डौं धेवचो लागलो। खांकनवाळ धरैलो॥ हांवें॥ ६॥

वेळेरावाक परछताप जाता. ताका ताचे सोयरे विचारिनात.

ताका मुंबैचो वीट येवन गोंयां वचो ध्यास्त लागता.

हायहाय ! नांव ह्याजें गेलें। लोकिक गेलो; नाक कापलें। गर्वाचो नाडोय मोडलो। दो फरून मरूला आदळलों। काळीज ह्याजें भौंच कपेलें। आपशींच ते खरीक गेलें। दोळ्यांत ह्याज्या अंजन पडलें। कर्म पुर्विलें फळूं लागलें। चाखरि तर मेळनाच जाली। दोनपारची चिंता पडली। उपासमारा वेळ आयली। दारार उबो कोण करीना। फुंक्याय तोंडान विचारीना। दीस ह्यागेले बरे आसले। तेन्ना सगळे 'या' म्हणाले। कदेल' भौंमानान दिताले। पुण आतां कोणूच मानिना। ह्याच्या दोळ्यानय पळेना। बेइमान मनिसजात भारी। नाचरी सदीं दुडवांच पुरी। फुंक्याच हीं सोयरींधायरीं। ह्याजे हडेर्शी मौंज मारून। मेजवानकी खूब भोगुन। रास अंहरांधीय ओडून। अखेर ह्याका साप विसर्ली। वळख मुळीं दाखै-नाजालीं। तोंड आपलें लिपों लागलीं। पाड पडू हे मनिसजातिचें। हांचेशी ते सुणे गुणाचें। एकखेप डेंडि ताका घाली। विसरचेंच ना फर्दामफाळीं। पळया गोंयकार हे मुंबैचे। म्हजेबरि मुंबैकार अडेचे। गूण विसडे गोंयपणाचे। मोटवेंच मन जालें तांचें। वसो खरो हो

गूण विसल्ले गोंयपणाचे । मोटवेंच मन जालें तांचें । वसो खरो हो मुंबैशारचो । गुन्यांव हांनुर कसलो तांचो ? । उष्ट्या हातान असो केन्ना । कावळोय ते आमुडचे ना । चिकू अशे साप कशे जाले ?। गोंयांचें ब्रीद ते विसल्ले ? ! । अहा ! वेस गोंयकार भाव । जांव यशेस्वी तांचें नांव । जरीय ते पेजखाव जाले । सात जल्मिचे सुदाम दुबळे । तरी पावुर्नो कोणुय दारा । दोनपारच्या खरखऱ्या वरा । चेंवु, तांबयो दवरून घाण[२] । कोणाचें तरि काडुन रीण । घालुन सादें रुचीक जेवण । धादोशी परक्याक कर्तले । भैमान बरो ताका दितले । नाजाल्या, टांक ह मुंबैचे । परक्याचें तोंड ना पळोंचे । पळेलें तरि नाच उलोंचे । अशांनी फुडें जेवण खेंचें ? । लहे उफाट्टे दोन येंवचे ! । आसुं; अशीरिति वीट आयलो । मुंबैपणाचो रोग लागलो । मुंबै मुळीं ही नाका जाली । गोंयां वयी ओढ लागली । गोंयाकूच भुकेलों ॥ हांवें ॥७॥

---

खळेरावान पैलीं गोंयाचयो आनी गोंयकारांचयो उडणायो केल्ल्यो ताचे-खातीर ताका वायट दिसून तो गोंयाची मकलाशी मागता. आपणाच्या आवै-बापायक दूख दिलें म्हणून खंत करता. गोंयां वेतकूच खेंचेकडेन रांवचें म्हणपाची चिंता करता. फुडें, तो गोंयां वचून येती वेऱ्यां पुंडीनायकागेर उतरता आनी ताच्या पसऱ्यार रावन आपलें पोट भरता. गोंयकारांक ताचो अणभवाचो उपदेस.

अहा ! गोंयदेवते म्हगेले । धुवे निर्मणेचे मोगाळे । रुपेस्त वस्ते सासणकाळे । वेस भौ वरी याद तुगेली । शिर्शिरी म्हज्या आंगा भल्ली । तुका पळोंची तान लागली । मुंबैशार हें केन्ना सोडिन । वेंग तुका गे केन्ना मारिन । तुजे मांडये केन्ना लोळन । मांडवीर केन्ना गे खेळन । हुतावेळ ही भारी जाली । हेर रूच ना कसली उल्ली । पूण तोंड पोजडें म्हगेलें । निंदेन तुजे भौच भष्टलें । तुका कशें गे तें दाखोंचें ? । हुमऱ्यार तुज्या कशें येंवचें ?। चिंता हीच पळे गे पडली । बेयमानकी खांव लागली । गुन्यांव हांवें मोटो केलो । अवैक तुका त्रास गे दिलो । तुजे कुशी चंडाळ जल्मलों । पूण आंत्र जालें तें जालें । गुन्यांव ते मकलास आदले । हात पळे हे कशे दोडले । अन्यांव पुतान जरी केले । सोंसुन घेता अवै सगळे । तूंय तशी अवैच म्हगेली । मोगाची जिवूप बावली । राग गीळ तूं आतां सगळो । मायेचो येवनी उमाळो । आसुं; अशी ही पांयांपडणी । करून केली मना-समजणी । पूण याद एक मना जाता । जीव म्हगेलो तोडुन खाता । येवजण्यो ती भौच घालता । ‘ कसो हांव काळ्गोच जालों ? ।

जन्मा वांगो किन्या आयलों ?। जातांनाच किन्या ना मेलों ?'। भौन भौन
तीं अशेंच घांटां । उडां वस्तां खूब खेळिसता । पूण खरें तें दुभावच ना ।
खांद तिका दवरूंक फावना फुटकेंच मुळीं देंव म्हगेलें । अवै-बापुय
सोडून दिलें । गांयमुत जां फुजां काटली । वास्तपुस्त तांची ना केली ।
खबरेची घांट ना वरैली । अखेर दुस्कयान म्हज्या मेलीं !। हाय ! पातकी
काळीच जालां !। किन्याक देवा जल्मा घालो ?। यतंरेक ओजेंसो केलो ?।
येम मामको जन्म-दिन्यांचो । काळजाक ना येत दयेचो । म्हयां पोटीं
जन्मी अपेसां । जन्मलां तमो ओवेचे कुशि । पाड पडं ही जीण म्हगेली !।
फावार कशी ना तां जालां? । थंड किन्याना निखेर पडली ?। तूंय यतंरे वोगी
बसली ?। तोंड किन्या उगलिना गुगलें ?। कशें गिळांना मरें म्हगेलें ?।
हाय ! जिणेचों थांट आयलो । जिवो अस्तुतुय ध्यगोच मेलों। पूण खंत ही
किन्याक आतां?। यदधेंय ते वहन येता। काइं आतां फुडार-चिंता । मुंबै
संदर्भो निर्णय जालो । गोंयां दसो मातं धरैलों। पूण एक गा विचार उडो ।
गोंयां खेचेरदि रावचें ? । ठाणे कोणागेर मांडचें ?। शाहावहलांचे जोडीची ।
पुण्यवंत जां नदी आमचीं । दर्गेची नदी सुगध्याची । अळंकाराची
कांकीटेचां । म्हाका मनूच हांगटावलें । सरकारांत पटी ना भली ।
म्हणून तां पादणांर पडलों !। अशी खबर कानार आयली । आमें; आदीं
गोयां वचूंया । कुडलें न जाणिज फुडें पळूंया । गोंय-भाव ते व्हडा मनाचे।
मुंबैकार ते नहंत अंदेचे । वराक गेल्या 'राव' म्हंटले । आधार बरो
म्हाका दिवले । जग्याक मुजीं उणाय थें ना । म्हणून दोगी चिंता करिना ।
आजुच वापारात चडूंया । भाग्यवंत गोयांक वचूंया । नमस्कार मुंबैक
करूंया । पुरो मुंबै गे सार तुगेलें । भोंच म्हगेलें मन गे विटलें । तुज्या
लोकिकाक पडं सुरीं । धांवळ बर जल्माचो केलो । हांवेंच म्हजो होर
टांक्तलो । आसुं; पुरो; येवजणी नाका । घाम घर्षांरत सुडा म्हाका । मुंबैबाय गे
भेट निमाणी । म्हजी तुगेली ही मायचिणी । आतां केन्ना पांय दवरिना । पतंल
तुजे तोंड पळेना । दर्यावर्दी गोयांक मागतां । खुशालेन गोंयांकुच वेतां ।
आहा ! मांगाळ म्हजें गोंय!। आहा ! मांगाळ म्हजें गोंय !। वापोर पळ्या
तुरतुर घस्तो । नाद करतो हो धमयस जालो । खिणांत खबेकडे पावलो !
वेंगुर्ले तें फाटीं घालें । गोंय तें पळ्या म्हाका दिसलें । कांपसुवाचें कोट
लागलें । सुसंगीत मन आतां जालें । बारदेस हो दाव्या हाता । आगवाद
ताचेर सोबता । उजवे कुशि ती साट देवता । मुगांव तिचें दार राखता।
मर्दी तोंक तें तिसवाड्याचें । कदिमकाळच्या लोकीकाचें । कोट पळ्या थें
रैजमागचें । तशेंच तें घाम्पार दीयचें। दोनय म्हजे दिष्टी पडलीं। काळजाक
भौ उमेद जाली । गिरेस्काय ती पळ्या गोंयची। जळींमळीं दाटी माडांची।
उबे रावल्यात ते रुशीशे । देवाचें स्तोत्र म्हणूंक जशे । चुडांचो जो
खळखळ जाता । सामवेद म्हळ्ळ्यावरि दिस्ता। सुरां कणकणी मान धोलता।

माडांची ती वेस सोबता । धादोस म्हज्या दोळ्यां जाता । आहाहाहा ! पणजी दिसली ! । उमेद मोटी मनाक जाली । मांडवीर ही देवता कशी । बसल्या आनी हांसता जशी । रुपेस्त आदींच ही निजाची । तांतुर पडल्या सोब अडेची । म्हणून सुंदरकाय दिगेली । भौच सुमारा भायर् वाडली । शारां सगळीं भारतांतलीं । एकठांय जरि कोणे केलीं । तांतुर पणजे-नांव मुखेलें । दुभाव ना; पैलेंच येतलें । राणीच कशी ती तांगेली । खऱ्यांनीच भारी सोव्रतली !। बलायकी जांव तुका वाये !। जयजय नांवान तुज्या मये !। धक्यार आतां पांय दवल्लो । गोंयपणाचो वारो भल्लो । गोंयकारसो जिव्र शिरशिरलो । धनी कसोसो नेट आयलो । परत्रा आतां कसली दिसना । भेंय[1] म्हगेल्या मना खायना । आवैचे हांडीर आसतां । भुरगें करिना मातुय चिंता । हुस्क्या वांचुन वेस खेळता । तशी आवतीकाय[2] म्हगेली । कशी पळ्या रोखडीच जाली !। आसूं; थैंसून वेऱ्यां गेलों । पुंडीनायकागेर उतल्लों । ताणे म्हाका आधार दिलो । दयाच ही देवाची मोटी । पच्छताप पावल्यार काटी । केन्ना तो मारिना थापटी । नायका म्हजी खबर कळैली । काकळ्दूत भौ ताका दिसली । देवकळा ताचेमदिं भल्ली । पसरो ताचो एक भुसाचो । वेव्हार दिलो म्हाका ताचो । पूत कसोसो वेस चलैता । अपुर्बाय म्हजि भारी करता । आऽ पुंडीनायका म्हगेल्या । बरें जांव गा जिवा तुगेल्या । आज जसो व्रापूय म्हगेलो । तसोच तूं उपकारा पडलो । जयजय नांवान तुगेल्या !। जयजय नांवान तुगेल्या !। आसूं; अशी ही कथा म्हगेली । तुमच्या कानार पळ्या घाली । आतां एकुच सांगप उल्लें । काळ्जार कांतयात पैलें । केन्नाय तुमी गोंय सोडलें । लांबलांबच्या गांवां गेले । विद्या मोव्यो मोल्यो शिकले । गांठीक बरे दुडू जमैले । सात्रकार मोटेले जाले । राजपदाचेर जरी बसले । तरी तुमी भुरगेंच गोंयचे । अजाण साप तुमी आवैचें । म्हणून गोंय विसरूं नाकात । उडणायांची खंत धरात । निंदे पासून पैस चलात । गोंय-भास सदीं उलयात । बरें कशें गोंयांचें करचें । कशें व्हडविवेक तें हाडचें । हुस्को होच मना लायात । बऱ्याक येत्न सदीं चलयात । जेन्ना तेन्ना गोंय निंदलें । गोंयकरांचें फकाण माल्लें । म्हणचे तुमचें कर्तुप सल्लें । अशें तुमी समजूं नाकात । भारी सोंपें नांव लांवचें । पूण कठिं तें बरेंच करचें । म्हणून तुमकां उणाय दिसली । तर ती काडा भरून पैलीं । हालीं नाकात दुंक्या जिवर्ली । आसूं; इतलो उपदेस म्हजो । अणभवान जो उपाट ताजो । विसरूं नाकात तुमी केन्ना । अदिक सांगची गर्ज लागना । कामाक म्हज्या आतां वेतां । गिराय्क तें थें व्राट पळेता । या निरोप तुमगेलो ॥ हांवें ॥ ८ ॥

सगळ्यांचें बरें जांव.

तथास्तु.

---

# युगप्रवर्तक शणै गोंयबाब

- *प्रकाश थळी*

शणै गोंयबाब, म्हणल्यार वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार, हाका गोंयचे अस्मितायेचो पयलो परगट पुरस्कर्तो मानतात. स्वाभिमानी गोंयकार आनी कोंकणीचे सेवक ताका मूळ पुरीस वा युगपुरुश मानतात.

गोंयबाबाचे 125 वे जयंती वेळार (2002 वर्सा) जाल्ल्या एका सरकारी सुवाळयांत तेन्नाचो गोंयचो राज्यपाल भौ. केदारनाथ सहानी हाणें ताका 'राष्ट्रपुरुष' अशी जाहीर मान्यताय दिल्या. स्वाभिमानी, आदर्श, अशे तरेन जीण जगपाक ह्या म्हापुरसाची जीण दरेका गोंयकारान वाचपासारकी, अभ्यासपासारकी. गोयबाब म्हणल्यार अज्रंवर, चिरस्मरणीय, द्रश्टो.

शणै गोंयबाब खरेपणीं इतिहासकार. पूण ताच्या व्यक्तिमत्वाक कितलींशींच तासां आशिल्लीं. सैमान आपणाल्या आंगांत घाल्ल्या गुणांचो भोंवतणच्या समाजाक पुरायेन उपेग जावंचो हे भावनेन, कोकणीची सेवा हो एकूच ध्यास घेवन, हो म्हामनीस तन-मन-धनान जीणभर वावुरलो. गोंयची अस्मिताय कोंकणी भाशेंतल्यानूच बरे तरेन फुलूं येता हे ताणें ज्युस्त पारखिलें. गोंयकारपण जागोवपाची ही चूड, एकसुऱ्यान, बीण्ण काळखे राती, असामान्य धिटायेन हातांत घेवन तो जोगूल कसो आमच्या मळबांत झगझगून गेलो. तागेल्या वावराची मोलावणी करप खरेपणीं आमचे तांकी पेल्यानची गजाल. ताचे लिखणेक वज्रलिखणीं हें नांव सर्वार्थान फावोशेंच.

ताचे जिणेचेर आनी वावराचेर जायत्या जाणांनीं बरयलां. तरीय आनीकूय कितलेंशेंच बरोवं येता. आयचे आनी फायच्या पिळग्यांक ताचें जिवीत आनी कार्य प्रेरणा दिवपाक आदर्शवत आमचेमुखार उरचें ह्या हेतान आपरोसाच्या स्वरुपांत हो एक आटीव लेख वा म्हणुया. क आलेख, एके घागरेंत सागर हाडपाचो नम्र यत्न.

शणै गोंयबाबाचो जल्म 23 जून 1877 दिसा दिवचलेंत जालो. ताचें मुळावें शिकप त्याच गांवांत जालें. तो खूब बेगीन, म्हणल्यार पिरायेच्या अवघ्या चवथ्याच वर्सा मुळाक्षरां शिकलो. उपरांत विनायक बर्वे ह्या मराठी मास्तरागेर तो तिसरीमेरेन शिकलो. त्या काळार गोंयकार हिंदू आपणाल्या भुरग्यांक मुळावें शिकप मराठींतल्यान दिताले. पूण तिसरी चवथी मेरेनूच. उपरांतचें शिक्षण पुर्तुगेज वा इंग्लीश भासांतल्यान दिताले. पूण त्या शिक्षणाच्यो साळो सगल्या गांवांनी नाशिल्ल्यो.

हे अडचणेक लागून वामनाक तिसरे उपरांत वर्सभर घरा बसचें पडलें. पूण रोखडीच सवी यत्तेमेरेन शिकोवपी एक शाळा दिवचलेंत उक्ती जाली आनी थंय वामनान सवी पास केली. फुडें बस्तोड्या आजोळा रावून ताणें पुर्तुगेज 'सेगुंद ग्राव' मेरेन शिक्षण घेतलें. घरचे गरीब परिस्थितयेक लागून शिक्षण सुटलें आनी तो घरा उरलो.

वामनान पिरंगनाससतना हाताक लागलं ती पुस्तकां वाचपाचो सपाटो लायलो. घरांत आपले आपुणूच तो गणित शिकलो, इंग्लिश भास शिकलो. संस्कृताचीय ताका गोडी लागली. भास आनी साहित्य हातूंत तेन्ना ताका खाशेलो रस आशिल्लो. वाचन, मनन आनी स्वाध्याय अखंडपणान चालूच दवरलो. कांय कविता, अभंग बी रचूंक लागलो. ल्हानपणांत वामनाक घरचीं 'शाणो' म्हणटालीं.

चिंतामणबाब वर्दे वालावलीकार हो वामनाचो तिपोलयो (बापायचो बापोलभाव) मुंबयचे एके बँकेचो मॅनेजर म्हूण निवृत्त जावन गोंयां आयिल्लेकडेन ताणें वामनाची बुदवंतकाय आनी तयारी पारखिली. फुडल्या शिकपाखातीर ताणें वामनाक मुंबय व्हेलो.

1898 वर्सा वामन मॅट्रिकेची परीक्षा खूब बऱ्या मार्कांनी पास जालो. आपणाले 'मराठी हायस्कूल शाळेंत तो पयलो आयलो' उपरांतचें कॉलेज शिक्षण घेवपाक घरची परिस्थिती अनुकूल नाशिल्ली. वामनबाब गोंयां परतलो. आसगांवच्या एका इश्कोलांत इंग्लिश शिकांव लागलो. पूण वर्साभितर उबगलो. थंयसून तो नोकरे निमतान कराचीक पावलो आनी थंयचे नगरपालिकेंत ताका नोकरी मेळ्ळी.

हाचे उपरांत ताणें दोन तीन नोकऱ्यो केल्यो. तातूंतल्या 'मेसर्स मेस्तेर लुसिअस ब्रूनीग' (Messers Meister Lucius Bruenig) हे जर्मन कंपनेत तो थंयच्या सगल्यांत वयल्या पदामेरेन पावलो; आनी एक दीस आपणाल्या तत्वाआड एक गजाल जाली म्हणून तो नोकरेची सोडचीट दिवन पूर्ण वेळ कोंकणीच्या वावराक लागलो. सेगीत वीस वर्सां हो दृष्टो मनीस रातदीस कोंकणीच्या एकमेव हव्यासान, ध्यासान वावुरलो.

ताच्या दृश्टेपणाची एक देख म्हणल्यार, गोंयबाब 1946 वर्सा 1 एप्रिल ह्या दिसा संवसाराक अंतरलो; भारत 15 आगस्ट 1947 दिसा स्वतंत्र जालो. पूण केन्ना ना केन्ना तरी असो एक भांगरालो दीस उजवाडटलो आनी भाशेच्या आदारान भारतांत, कोंकणीचें गोंय हे एक घटकराज्य जातलें हें सपन सत्यांत येवपाचो दिश्टावो ताका तेन्नाच जाल्लो. आनी तो फकत सपन पळोवन ओगी बसलो ना. कोंकणी ही मराठी वा हेर खंयचेय भारतीय भाशेची बोली न्हय, तर ती एक स्वतंत्र भास आनी जननी-संस्कृताची 'म्हालगडी धूव' हें ताणें सुमार दोन तपांच्या वावरान सिद्ध करुन दाखयलें. आज आमचे गोंय हें कोंकणी भाशेचे भारतांतलें राज्य जावंक पावलां आनी कोंकणी देशाच्या संविधानांत हेर भासांवांगडा मानान, अभिमानान पावल्या ते खातीर सगल्यांत पयलें वंदन ह्या दृश्ट्या म्हामानवाक फावता.

शणै गोंयबाबाची सगली बरपावळ छापपाच्या कामांत मुंबयच्या गोमंतक छापखान्याचो धनी भौ. काशिनाथ श्रीधर नायक (कवी बयाभाव) हाचो तेको सामान्याभायलो. इंग्लिश भाशेंतल्या जॉन्सनांच्या नांवावांगडा बॉस्वेलाच्या वावराची दखल घेवपाक कोण विसरना. तेचपरीं शणै गोंयबाब आनी बयाभावाचें नातें.

बयाभाव तेन्ना नाशिल्लो जाल्यार शणै गोंयबाब उजवाडा येवपाक आनी फुडल्यो युगप्रवडयेक घडणुको जावपाक घडये आनीक कितलींशींच वर्स आमका रावचें पडटा आशिल्लें.

शणै गोंयबाब हो एक मानी सबावाचो, उजू चलणुकेचो आनी स्वाभिमानाकडेन तडजोडा ना करपी असो तत्त्वाचो, त्यागी मनीस आशिल्लो. ताच्या जिवितांतल्या नोकरे काळांतल्या कांय घडणुकांनी हें घणघणीत बरें दिश्टी पडटा. कोंकणीच्या वावराचें व्रत घेवन तो कश्टलो. आमकां ताणें स्वाभिमानी जावन आपणाली अस्मिताय जागोवपाक प्रेरणा दिली. ताच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यारः

"आमी कोंकणे आमगेलें भूत (फाटलें सगलें) साप विसल्ल्यात... आपूण ल्हान, आपूण मोटवो, आपली सुवात धिकेंभर अशें म्हणून रड्याच्यो व्हॉवयो गात बशिल्ल्या' कोंकणी पुताधुवांचें आत्महीणपण घालयतलो आनी तांच्यांत, 'आपूण येवजूं ते करूं अशी मनाची भावना' जागयतलो जाल्यार तांचे आवयभाशेक वयर काडले बगर दुसरो उपाय ना. आपले खाशेलें बुद्दीन येवजुपाचें सोडिल्ल्यान ते आपले कर्तृत्व दशेचो विश्वास व्हगडावन बसल्यानं हें ताणें पारखिलें,... 'मराठीक, कानडीक आनी हेर भासांक आवैभासो लेखून आमी आमगेल्या खाशेल्या हकामोलच्या घरांत परके जाले. आमी आमलगेल्या कोंकणांत आयतेकार मानाय जालें. आमी घरचे धनी उल्ले नात. आमी परक्यांच्या मेंदून येवजूंचें आनी तांगेल्या पोश्यान उदक पियेंवचें अशी आमगेली बंद्यांली अवतिकाय जाली' अशें दिसून येतुकूच तांणी कोंकणीक वयर काडपाखातीर पेंगट बांदलें." (वज्रलिखणीः शांताराम वालावलीकार : पान 5)

नागरींत शणै गोंयबाबाचीं बावीसेक पुस्तकां उजवाडा आयलीं. शेक्सपियराच्या नाटकांच्यो कथा ताणे काणयां रुपांत रोमी लिपयेंत सात पुस्तिकांभितर उजवाडायली. ताची बरीचशी रोमी आनी नागरींतली बरपावळ एक तर शेणली, नश्ट जाली वा लिपून उरल्या अशेंय आसूं येता.

**गोंयकाराचो मुंबैकार (1910) :** शणै गोंयबाबाची चडशी बरपावळ गद्य साहित्य प्रकारांत आसा. पूण सुरवातेच्या काळांत ताणें कविताय रचल्याव 'गोंयकाराचो मुंबैकार' ही विडंबनात्मक दीर्घकविता. 'सुंदर म्हजें गोंय हीवूय कविता आमचे संवकळीची. एका म्हालगड्यान शणै गोंयबाबाविशीं म्हणलां,

"शणै गोंयबाब मुखेलपणान इतिहासकार, भासशास्त्रकार, कथाकार, नाटककार बी तरेकवार गद्य लेखक जायत. पुण ताचें कवितेकडेन वांकडें नाशिल्लें. ताची बरीचशी बरपावळ, तातूंतल्यो वळी, म्हणल्यार आडव्यो बरयल्ल्यो / छापिल्ल्यो कविताच'.

नामनेचो कवी माधवबाब बोरकार एकेकडेन बरयताः

"तांच्या कांय गद्य बरपाक कवितेची सया मारता. तातूंत 'मर्येचें तळें' हो तांचो जो निबंद आसा तो गद्य काव्याची अप्रूप अशी पत आसा. ह्या निबंधाची भास कवितेचो रुपकार घेवन आयल्या. हाचोच अर्थ असो की हेर गजाली बराबर तांचे ठांय एक कवीय आशिल्लो. 'गोंयकाराचो मुंबैकार' हे दीर्घ कवितेचो बारकायेन अभ्यास केल्यार गद्याचो आशय तांणी कवितेंत मांडपाचो यत्न केल्लो दिसता."

आयज काल 'फोरेनांक वचून, गल्फांत बी रिगून, सोपेपणीं जोडून गिरेस्त जावपाक सोदपी गोंयकारांक ज्युस्त लागू पडपासारकी गजाल तो गोंयकारांक समजायताः संवसाराचे फांटीर खंयूय पावलो तरी आपणाल्या दायजाक विसरचें न्हय. शणै गोंयबाबान हो विचार/आशय मांडपाक कवितेचे माध्यम किद्याक आपणायलें तें मात एक कुवाडेचशें. 'उपमा' ह्या आलंकाराचो शणै गोंयबाबान ह्या काव्यांत खूब उपेग केला. देखीक,

मुंबय शाराचे वर्णनः

भौच बरी ती मुंबै आमची<br>लंखा मोटेली रत्नांची<br>गाडी चलता दीस रातीची<br>मारग थैं येत्या - वत्यांनी<br>फुल्लेशे दिसतात फुलांनी<br>अशी गच्च तांडी लोकांची<br>वाट जायना मुळीं मुयेची

आनी थंयच्या दर्यांत उबीं आशिल्लीं तारवां पळयात.

पंगत तारवांचेर दिव्यांची, अहा!
जशीं कुस्कुरां जरीचीं
पांगुरल्या ती नीळ रंगाची
शाल उंच भौ ही मळबाची
चंद्रीम मदीं तिचेर मोटो
नक्षत्रांचो घेर चोवटो

## गोंयकारांची गोयांभायली वसणूक :

शणै गोंयबाबान ह्या विशयाचेर 1927 वर्सा मुंबयच्या 'सारस्वत ब्राह्मण समाजात कांय भाशणां दिल्लीं. दीर्घ काळमेरेन हजार कडेन हेडून, जळपून, गोंयच्या अडेज हजार वर्साच्या इतिहासाचो सोद घेवन केल्लें हे विचारमंथनत पयल्या खंडांत चार उलोवपां आसात. प्रस्तावीत दुसरें खंड येवंक पावलें ना.

पयल्या उलोवपांत गोंयचो आंवाठ, योग्यताय आनी म्हत्त्व सांगलां. गोंयच्यान स्थलांतर करपी पयल्या गोंयकाराची खबर सांगल्या, गोंयातल्या बौद्ध धर्माच्या प्राचीन कुर्वांची, होंवऱ्यांची आनी चाट्टे (क्षत्रीय) तशेंच राष्ट्रकूट सम्राटांची म्हायती दिल्या. दुसऱ्या भाशणांत चाड्ड्यां फाटल्यान गोंयाभायर गेल्ले बामण अनंतदेव शिलाहाराकडेन गोंयच्या वाणयांचें आशिल्लें वजन, भतग्रामांतलो मायिदेव पंडित हाणें जोडिल्ले जय, वेद शिकपाच्या वावरांत मुसलमानांच्या अच्छेवाची आडखळ बी गजाली आसपावल्यात. तिसऱ्या भाशणांत गोयांतली कदंबांची सत्ता, महम्मद सुलतानाचे धर्मीक अतिरेक आनी निश्ठुरपण, माधव मंत्र्याची नेमणूक आनी ताचें कार्य तशेंच आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखले ताच्यो खबरो आसात.

चवथ्या उलोवपांत गोयांत पुर्तुगेजांकडल्यान जातल्या आगळिको आनी बाटाबाटी, गोंयकारांचे भोंवतणच्या राज्यांनी स्थलांतर, कोचीच्या गोंयकारांचें वर्णन, थंयचीं संस्थानी देवळां, त्रावणकोर संस्थानांत गोंयकार हे विशय तशेंच ब्रिटिशां आदीं सावन दक्षिणेक पाविल्ल्या कांय सुप्रसिध्द गोंयकारांची वळख आयल्या.

गोमन्तोपनिशद (पयलें खंड 1928).

हो एक पांच काणयांचे झेलो : (1) म्हजी बा खंय गेली ? (2) वासशणैली

पोपाय (3) बाबूमामालो पणस, (4) पितूबाबालो तांब्यापरो आनी (5) खणवीर. ह्यो काणयो कसल्यो? खुद्द गोंयबाबानूच सांगलां : 'ह्यो जरी काणयो म्हळयो तरी त्यो कोल्या-कवडुल्याच्यो वा न्हवऱ्या-होंकलांच्या मोगाच्यो न्हयत. निखटी अणभवांची वळेरी दिल्यार बरी लागची नासली. देखून ते काणयेंत गुंथचे पडले. निखटे सुके सडसडीत फोव तोंडांत उडैल्यार दाडमां वळटात देखून ते उदकांत भिजौन गोडाचो बांदो आनी सोय घालून मोव आनी सुरबूस करचे पट्‌टात. तशीच गजाल ह्या उपनिषदाची.

गोमन्तोपनिषदाचें दुसरें खंड म्हणल्यारूच 'संवसारबुट्टी हें पुस्तक- त्या खडांत लांबचे लांब, शेकान शेक अशी एकूच कथा आसा.

## कोंकणी भाशेचे जैत (1930)

गोंयच्या 'हिंदू' आनी 'भारत' ह्या सातोळयांनी आनी मुंबयच्या 'नवयुग' आनी 'विविधज्ञान विस्तार' ह्या म्हयन्याळयांनी कोंकणां विशी उजवाडायल्ली बरपावळ म्हणल्यारुच हे पुस्तक. हें बरोवन उजडावपा फाटली भूमिका लेखकाच्याच उतरांनीः

''कोंकणी आड वाद घेतल्यांची म्हणणी फावोशी जाप दिवन आनी गडगंज आदार दाखोवन लटकी म्हणपाची सिद्द केल्या आसतनाय ते आपणालेंच फुटकें धोलकें बडयतात. तांचेकडेन भौन भौन तोंड वाजोवन खडपसूक जांवचे भाशेक तांचे आड कोंकणीन आजवेर जे जैत जोडलां तें तांगेल्या म्हऱ्यांत सासणाचें घसघशीत बरें मांडपाखातीर हें पुस्तक.

हातूंत गोयची लोकभास कोंकणी ते भाशेचीं लक्षणां, तिचो शुद्‌धकार आनी हेर किरकोळ मुद्दयांची निस्तरावणी हे चार लेख आनी परिशिष्टाच्या रुपात 'मराठी भाषेचा आद्य व्याकरणकार', 'हिंदुस्थानांत मुद्रण कलेचा प्रवेश' आनी 'कोंकणी व मराठी' हे तीन मराठी लेख तशेच इसवी सन 1678 त छापिल्लो पयलो वयलो कोंकणी लेख इतलो मजकूर आसपावला.

**भुरग्यांलो इश्ट (1935)** : हातूंत भुरग्यांखातीर सव्वीस ल्हान ल्हान धडे दिल्यात. हें एक पाठ्यपुस्तकशें तातूंत ल्हान निबंद, काणयो इत्यादी. सोपे आनी काव्यमय भाशेंत दिल्यांत.

**मोगाचें लग्न (नाटक) (1913, 1938) :** फ्रेंच नाटककार मोलिएर हाच्या 'ल मेदिसिन माल्ग्र लुई' (Le Medicin Malgre Lui ) ह्या विनोदी खेळाचें हे कोंकणी रुपांतर. मूळ खेळाची धाटणी तशीच पूण गोंयबाबान ताचेर गोंयचो भेस आनी वातावरण खेळयलां तें ज्युस्ताक ज्युस्त जालां. हें एक रुपांतर सांगले बगर कोणाक कळना. ह्या पुस्तकाचे दुसरे आवृत्तेक (1938) भौ. राणू नायक (आचार्य रामचंद्र शंकर नायक) हांची 'व्होवळीक' नांवाची प्रस्तावन लाबल्या.

**कोंकणी पयलें पुस्तक (1939)** : शणै गोंयबाबान 1903 च्या अदमासाक आपणाल्या पयल्या वयल्या भुरग्याक शिकोवपाच्या निमतान बरयल्लें हें एक मुळावें पुस्तक. पूण तें उजवाडा आयलें 1940त. ह्या पुस्तकांत मुळाव्या अक्षरांची वळख, नाखयीं व्यंजनां, जोडगिरां हांचो आसपाव केला. तेभायर एक काणी आनी दोन गीतांय दिल्यांत.

**पुण्यात्मो राम कामती (चरित्र) (1939) :** ही एक दुखेस्त काणी वा चरित्र. शणै गोंयबाब हे विशीं बरयता :

"सवाय दोनशीं वर्सां फाटली पिजकीं दप्तरा सांसपून होलमल्लीं ही थोडीशीच जीण ध्यानांत घेतकूच आपणाल्या फुड्यांत एक हुशार, बुदवत, चोख वेव्हाराचो, गडगंज हावेसाचो, तरेकतरां राटावळींचो, उंच कर्तृत्वदशेचो, सरकाराच्या आनी लोकांच्या चड विस्वासाचो, भारी भुशणाचो, मान-मान्यस्तनेचो, भाग्यवंत, शिरवंत, देवधर्मिष्ट आनी पुण्यशीळ पुरुश घसघशीत उबो रावता."

राम कामती हो एका काळावेलो मुंबयचो मुखेल वेपारी आनी राजकर्णी मनीस.

**कोंकणी नादशास्त्र (1940) :** वेगवेगळीं उतरां कोंकणींतल्यान उलयतना जो नाद जाता तांचे विशींच्या नेमांचें हे पुस्तक. हेर भारतीय भासांनी जातल्या नादाविशींची तुळात्मक फोडणीशी तातूंत आसपावल्या.

**भुरग्यालें व्याकरण (1941) :** हातूंत प्रस्नोत्तरीच्या रुपानं म्हणल्यार संवादानीं कोंकणीच्या व्याकरणाची वळख दिल्या. भास, उतर, वर्ण, अक्षर, स्वरांचे उच्चार आनी नामांचे प्रकारुय आसपावल्यात.

**आबे फारीय (चरित्र) 1941) :** भूलविद्येचो शास्त्रीय तरेन सोद लावन संवसारभर नामना जोडपी गोंयच्या आबे फारीय हाचें हें जीवन चरित्र. भौ. बाय प्रोपेर्सीय कुरैय आफोंस द फिगेरेद हे नामनेचे विदुशीची प्रस्तावना ह्या पुस्तकाक लाबल्या.

**येवकार अध्यशाले उलोवप (1945) :** 1942 वर्सा मुंबयंत अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेची तिसरी बसका प्रो. अर्मांद मिनेझिशाचे अध्यक्षते खाला जाल्ली. शणै-गोंयबाब तिचे येवकार अध्यक्ष. त्या नात्यान केल्ल्या उलोवपाचें हें पुस्तकरुप. ह्या उलोवपांत कोंकणी ही मराठीपरस वेगळी आनी स्वतंत्र भास, ती मराठीची बोली न्हय. हें सप्रमाण सिद्‌ध केलां. कोंकणीची तोंडी सरस्पत, पुस्तकी सरस्पत तिचें संस्कृत भाशेकडलें नातें बी विशय विस्तारान आयल्यात. तेच बराबर हे परिशदेंत केल्ल्या उपकार मानपाच्या भाशणाचोय आसपाव केला. परिशिश्टाच्या रुपान, कोंकणी खबरेपत्रां, नेमाळीं हांची वळेरी आनी लोटलेचे राष्ट्रकूट हांचेवेलो ल्हानसो लेखूय आसा. शणै गोंयबाबाच्या जिवितांतलो निमाणो निबंद म्हणल्यार 'ऐन वेळार', तोवूय ह्या पुस्तकांत घेतला.

**पोवनाचे तपलें (नाटक) (1948) :** नामनेचो फ्रेंच नाटककार मोलिएर हाच्या 'ल आवार' (L'avare) नाटकाचो हो कोंकणी रुपकार, 1926 त तो बरयल्लो पूण ताचो पयलो प्रयोग 1933 त मुंबयच्या विल्सन कॉलेजींत जालो. मूळ खेळाचो शेवट आमच्या चाली रीतीक फावोसो नासलो. देखून रुपांतर अर्दुकुटें उरलें. शणै गोंयबाबाच्या मरणान ते तशेंच उरिल्लें. पूण प्रकाशक बयाभाव हाणें थोडे अपवाद सोडून आनी निमण्यो दोन एंट्र्यो कडेक काडून तें 1948 त छापलें.

**झिलबा राणो (नाटक) (1950) :** 'अरेबियन नायट्स' ह्या पुस्तकांतले अबू हसनाचे काणयेचेर आदारिल्लें हे नाटक. राजा भेस बदलून राज्यांत भोंवर मारतना एका सामान्य पूण बऱ्या मनशागेर पावता. ताका न्हिदेची गुर्मी दिवन राजमहालांत व्हरता आनी एका दिसाखातीर राजा करता. तातूंतल्यान ज्यो घडणुको जातात तांचे विशींचे हें नाटक. तो 1933 त बरयल्लो आनी रोखडेंच मुंबयंत माचयेर आयिल्लें. पुस्तक मात 1936 त उजवाडा आयलें.

**आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें ? (इतिहास) (1955) :** हे पुस्तक 1910 त म्हणल्यार आल्बुकेर्कान गोंय जिखपाचे 400 वे जयंती वर्सा बरयल्लें. पूण तें उजवाडा येवपाक 45 वर्सां लागलीं. आनी तें 1955 त उजवाडा आयलें. भौ.

नारायण आत्माराम देसाय हाची प्रस्तावना लाबिल्ल्या ह्या पुस्तकांत हिंदुस्थानात फिरंगी आयले तेन्नाची गोंय शाराची दशा, आल्बुकेर्कान तें कशें जिखलें, राखलें, कारभार कसो जाग्यार घालो हाची बारीक सारीक तपशिलांसयत खबर आयल्या.

**कोंकणी विद्यार्थ्यांक (1958) :** 1920 साकून 1937 मेरेनच्या काळांत मुंबयच्या 'हिंदू सभेंत' आनी 'गोमन्तक हिंदू विद्यार्थी मंडळांत शणै गोंयबाबान केल्ल्या भाशणांतली चार ह्या पुस्तकांत घेतल्यांत. हीं चार/ एकाच विशयाचेर म्हणल्यार विद्यार्थ्यांक लेखून जाल्लीं. ताकालागून पुस्तकांचे नांव 'कोंकणी विद्यार्थ्यांक'. हेर सोळा उलोवपांची वळेरीय थंय दिल्या.

**जादूचो जुंवो (भुरग्यांखातीर 1920) :** हें एके युरोपी कोणयेचें भाशांतर. तें गोंयबाबान 1920 तें बरयल्लें तें 1968 ते मडगांवचे संजीवनी छापघर संस्थेन उजवाडायलें.

शणै गोंयबाबाचे रोमींतले बरपावळींत शेक्सपीयराच्या नाटकांच्या कथानकांचोय आसपाव जाता. इंग्लिशींत चार्ल्स लॅम्ब हाणें 'टेल्स फ्रॉम शेक्सपियर' नावांचें पुस्तक बरयलां तेच घाटणेचेर गोंयबाबाची ही माळ.

●

## शणै गोंयबाबान बरयल्लीं देवनागरी लिपयेंतलीं वट्ट 22 पुस्तकां

| | | |
|---|---|---|
| 1. | गोंयकाराचो मुंबैयकार (1910) | (फार्स - काव्य) |
| 2. | गोंयकारांची गोंयाभायली वसणूक (1928) | (इतिहास) |
| 3. | गोमंतोपनिषत् (पयलो खंड - 1928) | (कथा) |
| 4. | कोंकणी भाशेचें जैत (1930) | (भाशाशास्त्र) |
| 5. | गोमंतोपनिषत् (दुसरो खंड - 1933) | (तत्त्वगिन्यान) |
| 6. | भुरग्यांलो इश्ट (1935) | (निबंद) |
| 7. | मोगाचें लग्न (1913, 1938) | (नाटक) आदारीत |
| 8. | कोंकणी पयलें पुस्तक (1939) | (व्याकरण) |
| 9. | पुण्यात्मो राम कामती (1939) | (चरित्र) |
| 10. | कोंकणी नादशास्त्र (1940) | (भाशाशास्त्र) |
| 11. | भुरग्यांलें व्याकरण (1941) | (व्याकरण) |
| 12. | आबे फारीय (1941) | (चरित्र) |
| 13. | येवकार अध्यक्षांलें उलोवप (1945) | (व्याख्यान) |
| 14. | कोंकणी मुळावें पुस्तक (1947) | (शिक्षण शास्त्र) |
| 15. | पोवनांचे तपलें (1948) | (नाटक) आदारीत |
| 16. | कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ (1949) | (व्याकरण) |
| 17. | झिलबा राणो (1950) | (नाटक) आदारीत |
| 18. | आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें ? (1955) | (इतिहास) |
| 19. | कोंकणी विद्यार्थ्यांक (1958) | (निबंद) |
| 20. | भगवंतालें गीत (1959) | (काव्य) |
| 21. | वलिपत्तनाचो सोद (1962) | (इतिहास) |
| 22. | जादूचो जुंवो (1968) | (काणी) |

## रोमी लिपयेंतले अणकार

1. राजपूत हॅम्लेट आनी बापायचें भूत.
2. गोरे बायलेचो काळो घोव.
3. मुदयांखातीर घोवा - बायलांचें झगडें.
4. धुवांची परिक्षा.
5. जुंवळया भावांचो घुस्पागोंदळ.
6. आगुल्ल्याचें निवळण.
7. राणयेचें जिवें बावलें.
8. घातमारो इश्ट.
9. बायलेची परिक्षा.
10. मोगाचे पिडेचें वखद.
11. भुसमारे आलेभाव - कोलेभाव.

शणै गोंयबाब म्हळयार अर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याचे जनक. कोंकणी भाशेक 'लिखीत भाशेच्या' पांवड्यार व्हरपी ते एक युगपुरूष. तांणी बरयिल्लें साहित्य फकत संख्यात्मक नदरेनूच न्हय तर गुणात्मक नदरेन लेगीत म्हत्वाचें. भाशेचें मुळावेंपण, उतरांची गिरेस्तकाय, वाक्यरचणुकेची खाशेली तरा, विशयाचें वेगळेंपण, व्याकरणीक बांदावळीचें आकर्शक स्वरूप ह्या सगल्या गुणांक लागून तांचें साहित्य कोंकणी भाशेच्या लिखीत रूपाची बुन्याद घालपी थारलां.

शणै गोंयबाब जावंकूच नाशिल्ले जाल्यार? घडये कोंकणीक इतलें व्यापक लिखीत-रूप मेळचेंच नाशिल्लें, कोंकणीतल्यान बरोवपाचें धाडस कोणाक जावंचेंच नाशिल्लें. इतिहासीक, संशोधनपर, चरित्रात्मक, अनुवादात्मक, व्याकरणीक, भासशास्त्रीय, ललित अशें सगळे तरेचें बरप करून शणै गोंयबाब हांणी कोंकणींतल्यान गंभीर, विनोदी, तत्वगिन्यानी, उपहासात्मक, चिकित्सक बी कसलेंय तरेचें साहित्य निर्माण करूं येता हें दाखोवन दिलें. देखुनूच 40-50 लाखांची ही ल्हान भास आयज साहित्य अकादेमीची मान्यताय, गोंयची राजभास, घटनेची आठवी अनुसूची अशे सावार पावंडे हुपून आजय राष्ट्रीय पांवड्यावेली भास जावंक पावली.

सगळयांत म्हत्वाची गजाल म्हळयार मातृभाशेचो आनी स्वाभिमानाचो सामको लागींचो संबंद आसा म्हणपाचें तांणी सांगलें. आपणालो स्वाभिमान जागृत दवरून आपणाले भाशेकडेन प्रामाणिक रावल्यार स्वभाशेच्या माध्यमांतूय पुरूषार्थ गाजोंव येता हें तांणी दाखोवन दिलें.

- पुंडलीक नायक